Price Rs. 20/- (Rs. 25/- Outside Goa)




जून २०१०

# डॉ. अनिल काकोडकार हांका भेटयलो पयलो वयलो गोमंत विभुषण

# शेतांचें रुपांतर .......
# चूड दाखोवन हाडिल्लो म्हारू......

# अती वेग आनी अती भार टाळात

तुमी जाणांत?

दर वर्सा तीन लाखां परस चड रस्तो अपघातांची नोंद जाता आनी ८०,००० परस चड लोक भारतांत रस्तो अपघातांत सोंपतात आनी ह्या अपघातांतले ८०% अपघात मनशांचे चुकी खातीर घडटात.

## येरादारी नेम / कुरवो पाळात

सुरक्षित रावात
आनी
हेरांकूय सुरक्षित रावंक दियात

- सोरो पिवन वाहन चलोवं नाकात
- दुचाकी दोगांपासत न्हय चडां पासत
- वेग उचंबळाय हाडटा आनी प्राणूय घेता
- जिवीत हें जियेवपाखातीर सुंदर आसता मागीर अती वेगाचे भकीक पडून मदींच कित्याक सोंपोवया?
- दुचाकी चलयतना सदांच हेल्मेट वापरात.
- वाहन चलयतना मोबायल वापर टाळात



## येरादारी संचालनालय

पणजी - गोंय

हांचेवतीन लोकहितार्थ उजवाडावणी

वर्स : ९ अंक ६



जून २०१०



मोल २० रुपया



मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार



मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार



छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी



मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी



अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक



वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.



खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीची चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडची



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,

आगशी - गोंय ४०३ २०४

दुरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.

कोंकणी मासिक

# बिम्ब



– दिलीप बोरकार

## शेतांचें रुपांतर .......
## चूड दाखोवन हाडिल्लो म्हारू......



रेखाचित्रां – गिरिश नंदा बोरकार

संपादकीय

# मुखेलमंत्र्यानी कणखर रावंक जाय....

**ह्या** म्हयन्याचे आठ तारकेक मुखेलमंत्री दिगंबर कामत, गोंय राज्याचे मुखेलमंत्री म्हूण तीन वर्सां पुराय करतात. आयजवेर गोंय राज्याचे म्हणा वो ते आदीं गोंय केंद्रशाशीत प्रदेश आशिल्लो तेन्नाचे मुखेलमंत्री म्हणात, दिगंबर कामत हांका जनतेचो उप्पाट मोग मेळ्ळा तितलो आनीक खंयच्याच मुखेलमंत्र्याक मेळ्ळा अशें दिसना. गोंयचे प्रत्येक जनतेक दिगंबर कामत हो आपलो दिसता. तांचेकडेन काम जावं वो जावं नाका पूण तो निराश करून कोणाक धाडिना म्हणपाचें जनतेकडल्यान आयकूंक मेळटा.

गोंयचे सर्वसामान्य जनतेच्यो सरकार आनी सरकारांतल्या मंत्र्या कडल्यान तश्यो व्हडल्योश्यो अपेक्षा नासतात. एकदां वेंचून आयले काय पांच वर्सां तोंड दाखोवपाचे नांत म्हणपाचें मतदारांक खबर आसता आनी ते तांचेविशीं व्हडलीशी अपेक्षाय बाळगिनांत. पूण दिगंबर कामतीन सर्वसामान्य जनतेच्यो अपेक्षा वाडयल्यात देखुनूच आज जे जनतेक ते आम आदमी म्हूण पाचारतात ते आम आदमी दिगंबर हो आपलो म्हणत तांच्या फाटल्यान रावल्यात.

दिगंबर कामत हे कला संस्कृतायेच्या आनी त्या मळार वावुरतल्यांकडेन आस्थेन आनी मोगान वागपी मनीस. साहित्यिक आनी कलेच्या मळावेलीं मनशां खूबशीं संवेदनशील आसतात. राजकारणी मनीस हो उर्मट आसता, मदांद आसता अशी तांचेविशीं प्रतिमा आसता. पूण आपल्या वागण्यान दिगंबर कामतीन ही गजाल सगळ्यांकूच लागू जायना म्हूण दाखोवन दिल्या आनी देखूनच आमचे सारके साहित्यिक, कलाकार दिगंबर कामतीकडेन आपलेपणान मित्रत्वाच्या नात्यान वागतात. असलोच मुखेलमंत्री गोंयचे सदेर आसूं अशें मागतात. हें असलें भाग्य सहसा चडशा राजकारण्यांक मेळना. दिगंबर कामतीकडेन चिकाटी आसा, तडफ आनी धडाडी आसा. तांची समाजमानसांतली प्रतिमा, प्रामाणिकपण आनी पक्षविरयत इश्टागत ही तांचे लोकप्रियतेची जमेची बाजू जावन आसा.

दिगंबर कामत हो खरे अर्थान भौसाचो फुडारी. गोंयच्या विंगड विंगड जाती धर्मांतल्या सगल्या थरांतल्या लोकांक आपणालो फुडारी असो दिसपी दिगंबर कामत हो एकलोच राजकी



फुडारी अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना.

खंयच्याय राजकारण्या भितर एक गूण आसूंक जाय आनी तो खूब म्हत्वाचो. जो कोण शांत, स्थितप्रज्ञ आसता तोच खऱ्या अर्थान खंयचेय अडचणीच्या, संकश्टाच्या काळार योग्य निर्णय घेवंक पावता. दिगंबर कामत हांचेकडेन हे गूण आसात. देखून ते कोणाचेर केन्ना रागार जाल्ले दिसनात, राग आयलोय जाल्यार तो व्यक्त करपाची तांची खाशेली पध्दत आसा. जाचो कोणाचो राग आयला ताचेविशीं डूख धरून रावप, सुडबुध्दीन वागप ही राजकारण्याची खाशियत. पूण हीच गजाल दिगंबर कामत हांचेकडेन सापडपाची ना.

हे सगळे दिगंबर कामत हांचे गूण. पूण असले गूण आशिल्ल्याचो राजकारणांत तिगाव लागना. असल्या व्यक्तीचो लोक गैरफायदो घेतात. आयज गोंयचें राजकारण जे तरेन चलता तें पळयल्यार आमकां दुबाव मारता, दिगंबर कामत हांच्या बरेपणाचो लोक गैरफायदो तर घेनात मू?

आयज सरकारांतल्या एकाय मंत्र्याचेर मुखेल मंत्र्याचें नियंत्रण ना. कोणूय मंत्री उठटा आनी आपल्याक जाय तें करता. तांचेर जो वचक आसूंक जाय आशिल्लो तो आसा अशें दिसना. जेन्ना सरकार एका परस चड पक्षांचें आसता तेन्ना हो असलो प्रकार घडटा हें समजूं येता. कित्याक सरकार सांबाळटलो जाल्यार वेगवेगळ्या पक्षाचे घटक जे सरकागत आसात तांच्या कलान घेवंचें पडटा. पूण गोंयच्या सरकारांत जें कितें चल्लां तें पळयल्यार हें कलान घेवपाचें दिसना तर मुखेलमंत्री ह्या मंत्र्यांक शरण गेल्यात काय दिसता. हें अशें घडूंक फावना.

मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणी आपल्या कर्तुबान आनी कर्तुत्वान आमच्यो अपेक्षा वाडयल्यात. जेन्ना अपेक्षा वाडयतात तेन्ना त्यो पुराय करपाची जापसालकी ते व्यक्तीची आसता. आमी दिगंबर कामत हांका आमचो, आपलोसो दिसपी मुखेलमंत्री म्हूण स्वीकारला. तांचीं फाटलीं धा वर्सांची राजकीय कारकिर्द पळयत जाल्यार, मागीर ती आमदार म्हूण आसूं, मंत्री म्हूण आसूं वो आतां मुखेलमंत्री म्हूण आसूं. खंयच कुतां काडूंक मेळनांत. देखुनूच तांचेर विरोधी पंगड लेगीत उलयतना, आरोप करतना विचार करतात. पूण तांचेर आरोप जाता तो एकूच आनी तो म्हळ्यार दिगंबर कामत कणखर रावनांत. ते सदळ रावतात.

आता कणखर रावप म्हळ्यार हुकूमशा जावप न्हय. आपल्या मुखामळार अडेचें गांभिर्य हाडून दरारो निर्माण करप न्हय. पूण योग्य वेळार तूं करता तें सारकें न्हय, तुका लागून गोंयची प्रतिमा इबाडटा अशें सांगून कडक कृती करपाची गरज आसता. हाका लागून जांचेर गोंयची आम जनता आपलो म्हणून प्रेम करता तांच्या मनांतलो आदर आनिकूय वाडूंक पावता.

फाटलो म्हयनोभर गोंय सरकारान मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांच्या मुखेलपणा खाल खूब जाणांक कसले ना कसले पुरस्कार भेटयले. मे म्हयनो हो पुरस्कारांचोच म्हयनो अशें दिसपा सारकेंच वातावरण आशिल्लें. मुखेलमंत्री अत्यंत नम्रतायेन हे पुरस्कार भेटयताले. नम्रताय ही आमची संस्कृती हें जालेंच पूण तेच वांगडा एक विकृतीय गोंयच्या मळार बळावता–सरकारांतलो एक मंत्री विनयभंग, लैंगिकताय असल्या भानगडीनी घुसपला. ते विशीं ताचेर नाना परीन आरोप जातात. त्या निर्लज्ज मंत्र्याक हातूंत कांयच दिसना. ही विकृती आसली तरी ताका ती संस्कृती दिसता. पूण ताची ही विकृती निजी संस्कृती गोंयचे खरे संस्कृतायेक बाधा हाडटा. निदान असल्या मंत्र्यांखातीर तरी मुखेलमंत्र्यांनी कणखर जावप गरजेचें आसा. ही काळाची गरज आसा, आमजनतेची मागणी आसा.

मुखेलमंत्री म्हूण दिगंबर कामत हाणीं तीन वर्सां हुपल्यांत. फुडलीं दोन वर्सां ते तितलेच सहजतायेन मुखार वतले हातूंत दुबाव ना. कारण तांच्या फाटल्यान गोंयची जनता आनी तांचे आशिर्वाद आसात. ह्याच बरेपणाच्या मालवजार ताणीं कडक निर्णय घेवप गरजेचें. तातुंतल्यानूच तांची कारकिर्द परजळीत जावंक पावतली.

प्रतिबिम्ब

# फुडल्या 'बिम्ब' मेळाव्याची वाट पळयतां

**धा**वेची परिक्षा सोपून आठूच दीस जाल्ले. परिक्षेचें एक व्हड वजें देंविल्ल्यावरीं जाल्लें. परिक्षेच्या तयारेंत हांव सामकें घुस्पून आसलें आनी आतां सामकोच रिकामो वेळ. कितें करूं कितें नाका अशें जाल्लें. इतक्यांत पप्पान पंटेमळ, कुडचडें हांगच्या श्री सिध्दारूड स्वामी मठांत 'बिम्ब' मासिकाच्या वतीन साहित्य, कला, संबंदी भुरग्यांचो मेळावो आसा ताची खबर सांगली. खबर आयकून म्हाका तर खोस जालीच पूण म्हजे धाकटे भयणीनूय १० एप्रिलाच्या मेळाव्यांत आपुणय येतां असो नेट धरलो.

कुडचडेच्या नॅशनल युथ प्रॉजेक्ट हांच्या आदारान मेळावो घडयल्लो. तांचे वावुरपी मन लावन काम करताले. भुरगीं जमलेलीं. सगळींच 'बिम्ब' मासिकाच्या जाळवणदारांची वाट पळयतालीं. तीं दिस्तूच धा वरांचेर पावलीं. बरोवपी आनी संपादक दिलीप बोरकार हांका पयलेच खेप अशें आमचेमदीं पळोवंक मेळ्ळें. उपाट खोस भोगली. सुफलाताई गायतोंडे हांकाय मेळून समादान भोगलें. तांच्यो कांय काणयो आदीं वाचलेल्यो. पूण प्रत्यक्ष बरयतल्यांक मेळप उपाट खोशयेची गजाल आसली. ती आयल्या बरोबर सगळ्या भुरग्यांच्या तोंडार खोशी उदेली.

न्यू एज्युकेशनल इन्स्टिटयूटच्या भुरग्यांनी सुंदर अश्या स्वागतगीतान सगळ्यांक येवकार दिलो. संदीप गांवकार आनी प्रविण मळीक, हांणी तांका संगीताची सुरेल साथ-संगत केली. युथ प्रॉजेक्टाचे अध्यक्ष अमृत नायक हांणी सगळ्यांक येवकार दिलो. वेदीचेर आशिल्ल्या मानेस्तांची वळख दिलीप नायक हांणी करून दिली. डॉ. रविंद्र नाडकर्णी मुखेल सोयरे म्हूण जाल्यार कुडचडें पोलिस स्टेशनाचे मुखेली भानुदास देसाय खाशेले सोयरे म्हूण हाजीर आसले. ह्या वेळार मठाच्या स्वामिनी आशिर्वाद दिलो. अवधूत काकोडकार, विनोद नायक, संजय देसाय आदी मानेस्त व्यासपिठाचेर उबे आशिल्ले. दिलीप बोरकार आनी सुफलाताई बिम्बाचे वतीन हाजीर आसल्यो. हो उक्तावण सुवाळो खरेंच सुरेख जालो. ल्हान ल्हान भाशणांनी सगळ्यांनीच भुरग्यांक मुखार वचपाक आपलेपरी कानमंत्र दिले.

ह्या पयल्या सत्रा उपरांत भुरग्यांक गोंयचें पारंपारीक गोडशें, मुगांचें कण्ण आनी पॅटीस दिवन फुडली कार्यावळ चालीक लागली. वेलची आनी हळद घाल्लें कण्ण बरेंच वेळ जिबेर घोळटालें. रोकडेंच संदीपसर आनी राजेंद्रकुमार राणेसर हांणी भुरग्यांक अभिनयासयत पदां शिकयलीं आनी आमचेकडसून म्हणून लेगीत घेतलीं. भरपूर मजा आयली. सगळीच सुवात पदांच्या सुरार आनी ठेक्यार हालली आनी धोलली. पुराय वातावरणच संगितान भरून गेलें. हें सत्र केन्ना सोपलें तेंच कळ्ळेंना!

फुडें 'मन रिजवणें गणित' असो विशय घेवन एकनाथसरान आपल्या भावंडांची संख्या वळखप, कोणायची जन्म तारीक सोदून काडप अशो गणितांतल्यो करामती शिकयल्यो. गणिताचें हें एक रूप आमी पयलेच खेप पळयलें. आमका कांय जाणांक तें जादू कशें भावलें. उपाट मजा आयली.

चितारीसर आनी पंकजसर हांणी चित्रांवरवीं आमकां नवी दिका दाखयली. ह्या सत्रांत जेवणाचो वेळ जालो तरी दरएकटो आपल्या चित्रांत घुस्पलेलो. फुडें ह्या चित्रांचें प्रदर्शन मांडलें. एका एका भुरग्यान सामकीं अजाप जाय सारकीं चित्रां काडलीं. ते भावी चित्रकार अशेंच दिसून आयलें. सगळ्यांची तुस्त तांका फावो जाली.





उपरांत जेवण जालें. गोंयचें पारंपारीक जेवण तें. खतखतें, मुगांगाठी, साकरभात, सोलकडी, शेवयांखीर, लोणचें-पापड, सालाद मागीर आनी कितें. आमी सामको आडवो ताव मारलो. सगळें जेवण वाड्याचावेल्याच बायलांनी एकठांय येवन रांदिल्लें. गरमा गरम जेवणान मन संतोसलें.

उपरांत निमण्या सत्राकडेन पावले. बिम्बाचे संपादक दिलीप बोरकार हांणी एक सुंदर काणी सांगली. त्याचपरी आपलेपरी बरोवपाचो ध्यास आमी धरचो असो उपदेश केलो. व्हड व्हड बरयणाऱ्यांच्यो देखी दिल्यो. साहीत्य सरस्वतीचे आमीय सेवक जावं असो आशिर्वाद दिलो. दर एका भुरग्याक बिम्ब मासिक, मनभुलवणी सर्टीफिकेट दिलीपबाबाचें एक काणयांचें पुस्तक, अशी येणावळ पदरांत पडली.

खऱ्यानीच धाव्वेचें टेन्शन खंयचेखंय नाच्च जाल्लें. उपकाराचें उलोवप चलतना अशें दिसलें, हो मेळ सोपचोच न्हय. पूण उपाय नासलो. आतां फुडल्या मेळाची उमळशिकेन वाट पळयतां. सगळया आयोजकांक आनी वावुरप्यांक मनांतसून दिनवासतां.

•••

**- श्रध्दा सदानंद कुडचडकार**
यत्ता : १०वी
न्यू एज्युकेशनल इन्स्टिटयूट,
कुडचडें - गोंय.

# शेतांचें रुपांतर .......
# चूड दाखोवन हाडिल्लो म्हारु......

*शेतकी जमीन रुपांतरीत करतले जाल्यार शार आनी नगर नियोजन खात्याकडल्यान ना हरकत दाखलो जाय पडटा. आयज सरकारान असलीं रुपांतरां जावंचीं न्हय म्हूण कडक धोरण आपणायलां. अशें आसतना दिसा उजवाडा ह्या तळयांतलो गाळ हाडून शेतां रुपांतरीत करपी ह्या लोकांचेर गांवच्या आमदाराचें सोडात पूण पंचायतीचेंय लक्ष वचना हाचें अजाप दिसता.*

नेमिची येतो पावसाळा अशें जशें म्हणटात तशेंच ह्या पावसाळ्या वांगडा आमकां दर वर्सा हुसको लागता तो गोंयचे शेतवडीचो आनी हजारांनी एकर ना नपयत जावन वचपी शेतजमनीचो. शेतां हीं जरी मनीस कुळयेन वसयलीं तरी जमीन हो सैमीक स्त्रोत. देखून दर वर्सा पिकावळी खाला येवपी कसदार जमीन समाजांतले वेगळेवेगळे लोक स्वताच्या सुवार्था खातीर आनीक दुडवांचे आशे खातीर सासणाची बदलून उडयतात तेन्ना हें सगळें हेच गतीन चल्लें जाल्यार येवपी पिळगे खातीर शेतवड तिगून उरतली काय किर्ते असो आमकां प्रस्न पडटा.

आयज शेतांचेर जाल्लो अत्याचार, तांचें रुपांतर आनी वेगवेगळीं कारणां दिवन केल्लो दुरुपेग पळोवन वायट दिसता की आमच्या पोटाक अन्न दिवपी हे जमनीचेर जावपी बलात्कार, तांचो दिसाउजवाडाक जावपी खून आनी तिचें करून उडयल्लें सासणाचें रुपांतर पळोवन आमचे सारके सामाजीक जाणविकाय आशिल्ले आनी गोंयच्या फुडाराचो हुसको आशिल्ले कांयच करूंक शकनांत. तेच पासत माय सोपून पावसाची सुलूस लागली की आमकां जून म्हयन्यांत गोंयचे शेतवडीकडेन लक्ष दिवचेंच पडटा. तेच पासत शेतीचेर जावपी अन्यायाची नोंद पावसाची सुलूस लागल्या बराबर दर वर्सा करप आमची जापसालदारकी थारता.

# गोंयची इबाडपी शेतकी परंपरा

माया म्हयनो तापला. गोंयच्या शेतांनी रखरख वाडला. कणगां, अळसांदे, काळगां, वांयगीं हांचीं पिकां घेवन शेतकार आतां पावसाची वाट पळयता. ते आदीं शेताचें भरिचें काम करूंक जाय. भरिचें काम म्हळ्यार काळंगावाली गोरवांचे भकीक पडच्यो न्हय म्हण भोवतणी उबारिल्लो मातयेचो आडो आसल्यार तो मोडून भूंय सपाट करपाची, बडयांचें कुंपण घाल्लें आसल्यार तें मोडून त्यो बडयो पावसांत जळवा खातीर वापरूंक गोठ्यांत सुगूर करपाच्यो आनी शेतां लीप करपाचीं. शेतांतलीं वायंग्यांचीं मेल्लीं झाडां उमटुपाचीं, अळसांद्या रोपां काडून राशीक मारपाचीं, तातूंत गोठ्यांतलीं शेणकुटां बीन घालून उजो घालपाचो.

हो सगळो वावर चलता आसतनाच शेतांतल्या ओंड्यां कुशीक तरव्या पासत जागो तयार करपाचो. तातूंत चरी मारून बियाणें घालपाचें. उटांगराचो पावस पडपाक लागचे आदींच तरवो तरतरून वयर येवंक जाय. ते पासत तो ओंड्याचें उदक काडून दिसपट्टो शिपूंक जाय. भात शेवण्यां-कुकडांनी खावंक फावना म्हूण तांकांय राखपाक जाय. आनी बोटभर वयर आयिल्लो तरवो वाटावंक धुकरां-गोरवांचेरूय लक्ष दवरूंक जाय.

तरवो वेतभर वयर सरलो म्हणटकच पावसाकूय कळटा. नाय म्हळ्यार मायाचे अखेरेक वारो शेतानी पासय मारून, धर्तरेची साय चिमटेन वयर काडची, तशी माती उबोवन कोणें खंय बियाणें ओपलां आनी कोणाचो तरवो कितलो वयर सरला ही गजाल पळोवन तो मागीर झडपाचे तयारेंत आशिल्ल्या पावसाक वचून कळयता. पावस त्याच रकादाची वाट पळयत आशिल्लो.

जून म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकाक गडगड्याचें वाजप लावन, जोगलावण्यांचो फोग पेटयत पावसय धर्तरेर घालून घेता. मात लेगीत उसंत धरिनासतना पयलीं किरिस्तावांचें मीर्ग लागता तेंय तो सुकें उडयना आनी फाटाफाट हिन्दूचें मिर्ग येता तेन्नाय घसघश्यानी रकता.

गोंयचीं पुराय शेतां पावसाच्या उदकान भरून वतात. शेत नांगरपाक शेतकार पाडे रेड्यांक आनी नांगर घेवन शेतांत देंवतात. इरी इरी पापा करीत रेड्यां पाड्यांचे फाटीर नांगरप्यांचो हात पडटा. त्या मायेच्या स्पर्शानूच पाडे-रेडे नांगर ओडटात आनी नांगराचो फाळ पयल्या पावसान भिजून फुगिल्ले धर्तर मांयेचे मातयेंत अचळय घुसतात. जमीन नांगरून तयार जाता आनी मागीर कामेऱ्यां तरवो घेवन एके रांकेंत शेत ओपूंक लागतात. मानाय दडकांनी रकपी पावस झेलीत जमीन खणून दितात आनी कामेऱ्यां, त्या पावसाच्या संगिताचेर ओवयो



युलाभाट तळ्याचो उसपिल्लो गाळ घालून आगशी गांवांतलें पुटयल्लें एक सुपीक शेत.

गायत एके लयेत पुराय शेताची ओपणी करून मेकळीं जातात.

एक शेत रोपून जालें म्हणटकच दुसरें शेत. घरांतलीं एकान एक मनशां, ज्या घरांत मनीसबळ उणें आसा तांचें शेत रोपूंक दुसऱ्या घरांतलीं मनशां सकाळ फुडें शेतार तयार. कामेऱ्यां नांत, तांकां दिसवडो दिवंक दुडू नांत हो प्रस्नूच उप्रासना. आपली ती सामाजीक बांदिलकी मानून दर एकलो मानाय दर एकलें कामेरें भिजून तयार राविल्ले धर्तर मांयची कूस उजोवपाक उमेदीन तयार.

तांच्या ह्या कश्टाचें फळ धर्तरमांय तेच उर्बेन तांचे होटयेंत घालताली. चवथ आयली वो नव्याचें फेस्त पावलें म्हणटकच नवें कातरून तें ओपूंक लोक उमेदीन तयार. मागीर पिकेचे दीस लागीं पावतात. दिवाळेक नव्या भाताचे फोव जाय. लुवणी, मळणी सुरू जाता. शेत रोवपाक जे उमेदीन लोक शेतांत देंविल्ले तेच परत एकदां लुवणे, मळणेक हातांत हात घालून शेतांत देंवतात. घराच्या आंगणांत भाताच्यो राशी पडटात. शेतकारांच्या तोंडार भाताच्या भांगराची सया निशेता.

एकूय शेत पडंग उरप म्हळ्यार शेतकारांक लज ही भावनां शेतकारांमदीं वसताली.

ही गजाल आयची न्हय. फाटल्या कितल्या तरी वर्सां आदली गजाल ही. ही घडणूक म्हळ्यारूच गोंयची परंपरा जावन गेल्ली. दर पावसाळया आदीं गोंयांत सगळेकडेन हेंच चित्र दिसतालें. तेन्ना खंयचोच सरकार शेती वर्स मनयनाशिल्लो. खंयच्याच शेतकाराक शेतकी खातें अनुदान दिना आशिल्लो. तें मेळूं येता हाची कल्पना एकाय शेतकाराक नाशिल्ली. शेत म्हळ्यार आपली आवय, तिका पडंग दवरप म्हळ्यार घराण्याक पातक लागता ही भावना दर एकल्याच्या मनांत वसताली. पुराय गोंयचीं शेतां पिकावळीन भरतालीं. शेतांत जें पिकलां तें वर्सयभर पोटभर जेवपाक पुरो जातालें. उपासमार म्हणटात ती गजाल कोणें आयकूंक नाशिल्ली. ही तेन्नाची गजाल आनी आयज गोंयांत कितलीं तरी कुटुंबां दळिद्र रेशेसकयल आसात आनी तांकां दळिद्र रेशेवयर काडपा खातीर सरकार लाखांनी रुपयांचें अनुदान दिता म्हणपाचें सरकाराच्या यशाची जायरात करपी एजन्सी सांगतात.

## गोंयांक हें दळिद्र लागलें कशें?

गोंयच्या शेतांनी जशें खाणयांनी भांगर पिकतालें तशें भाटांनी कळशे कशे नाल्ल पिकताले. आंब्यां रुखांक आंब्यां भारान बाग येताली. भाटकार माडांक आळीं काडून मीठ घालताले, माड शिंपताले माया म्हयन्यांत. पावस लागीं पावलो म्हणटकच कोंबयाची विश्टां घालताले. भाटां नांगरून पावसांत किल्ललें तण आरतून उडयताले. भाटांच्यो धडो बांदून घेताले, बेंदुल्ली काडून आंब्या रुखांची राखण करताले. पुर्वजांचें हें दायज वर्तमान काळांत राखण करपा वांगडाच फुडाराखातीर संवर्धन करपा खातीर धडपडटाले. तेन्ना तांचें पासत सरकारच्यो कसल्योच येवजण्यो नासताल्यो.

आनी आतां गोंय मुक्त जाल्या उपरांत सगळे कडेन सगळें मुक्त जाल्लें दिसून येता. पुर्वजांनी लायिल्ल्या माडांची, हे फळांचे रुखावळींची राखण आनी मशागत सोडाच मोठ्या प्रमाणांत माडांसयत हेर सगळ्या प्रकारच्या रूखावळीची कत्तल जाल्या, जायत आसा. इमारत बांदावळीक मोठ्या प्रमाणांत मागणी आयिल्ल्यान ह्या आयच्या फास्ट जमान्यांत फास्ट 'मनी' करपाच्या हावेसान पुर्वजांनी लायिल्ल्या झाडांची कत्तल करून थंय सिमिट काँक्रीटचें जंगल उबें करपाची सर्त सुरू जाल्या. तेच वांगडा सरकार बागायतींच्या नांवांन कोट्यांनी रुपयांची येवजणो राबयता, अनुदानांची खिरापत वाट्टा, झाडां मारचीं न्हय म्हूण कडक कायदे करता आनी बागायतीन नवें रूप धरपा बदला भाटां दिसान दीस बोडकीं जायत वतात. हें सगळें चालू आसतनाच सरकार 'शेतकी वर्स' जाहीर करता.

गोंयच्या एकूण क्षेत्रफळाची ३८ टक्के जमीन रानांखाल आसा. उरिल्ले जमनिंतली ५० टक्के जमीन शेतवडीखाल येता. गोंयचो मुखेल वेवसाय हो आदीं शेतवड आशिल्लो. गोंयचे लोकसंख्येचो ५० टक्के वांटो ह्या वेवसायांत आशिल्लो. पूण ह्या शेतांत पिकपी भाताचें उत्पादन गोंयचे लोकसंख्येक पुराय नाशिल्ल्यान आदी काळासावन तांदळाची आयात भायल्यान करची पडटाली. अजुनय ती आयात तशीच चालू आसा.

गोंयचो शेती वेवसाय आनी बागायत नेटान चलता अशें फकत शेतकी खात्याच्या आंकडेवारीनूच दिसून येता. गोंयच्या शेती वेवसायाक उर्बा मेळची देखून शेतकी खातें वेगवेगळ्यो येवजण्यो राबयत आसा. राष्ट्रीय बागायत मोख राज्यस्तरार हाडूंक अस्तंत घाट कार्यावळ सरकारान चालीक लायल्या. पेडणे, दिवचल, फोंडें, केपें ह्या वाठारांत राष्ट्रीय उदक शिंपणावळ उदरगत कार्यावळ चालीक लायल्या. त्या भायर शेती आनी बागायत कामाच्या यांत्रिकीकरणाक ७० टक्के अनुदानाच्या रुपान आर्थिक पालव सरकाराकडल्यान मेळटा. पूण ताचो लाव कोण आनी कसो घेता होवूय प्रस्न आसा.

गोंय शेतकी खात्याचे संचालक एस्. एस्. पी. तेंडुलकार हे धडाडीचे अधिकारी. ते शेतकी खात्याचो भार समर्थपणान पेलतात. तांकां गोंयच्या शेतांची उदरगत जावंची, गोंयांत शेतकी संस्कृताय



**आतां बेकायदेशीरपणान मातयेचो थर घाला फाल्यां हांगा इमारती उब्यो जातल्यो.**

दिसान दीस फळफळची अशें दिसता. त्या पासत आपल्या सहकाऱ्यांच्या सांगातान ते गोंयच्या शेतकी मळार तरातरांच्यो येवजण्यो राबयतात. तांच्या म्हणण्याप्रमाण गोंयचे बरेच लोक ह्या येवजण्यांचो लाब घेतात. चडशे शेतकार दक्षिण गोंयांतल्या सांगें वाठारांतले आसतात. शेतकी खात्यान तयार केल्ल्यो ह्यो येवजण्यो तळागाळांतल्या लाभधारकांकडेन पावच्यो अशी तांकां कळकळ आसा. जितलो लाब आयज शेतकार घेतात हाचो तांकां आनंद आसलो तरी ते समाधानी दिसलेनांत. चडानचड लोकांनी ह्या येवजण्यांचो लाब घेवंचो अशें तांकां दिसता आनी ते पासत ते प्रयत्न करतात.

## येवजण्यो आसात पूण जमीन खंय आसा?

गोंय मुक्त जाल्लें तेन्ना ८५ टक्के गोंयकार गांवांनीं रावतालो आनी शेतां रोयतालो. तेन्ना तांचेकडेन हेर दुसरो कसलोच पोटा-पाणयाचो उद्देग नाशिल्लो. शिक्षणाचो प्रसार जाले उपरांत आज्या-पणज्यांकडल्यान बापायकडे आयिल्लो हो वेवसाय करूंक शिकिल्ल्या तरनाट्यांक लज दिसूंक लागली. ते सगळे धवाड्या नोकऱ्यां फाटल्यान लागले. शेती वेवसायांत आशिल्ल्या कुटुंबांतले ५०टक्क्यां परस चड तरनाटे आखाती तशेंच हेर देशांनीं गेल्यात. ते घराकडेन आवय-बापायक दुडू धाडटात ते तांकां पोटाची वेवस्ता करूंक पुरो जातात. आयज शेतांत वावर करतलो म्हळ्यार मानाय-कामेऱ्यां मेळनांत. मेळटात तांचो दिसवडो शेतकारांक परवडना. पिकावळी परस मशागतीक, लागवडीकूच चड खर्च येता. ताचे परस शेत कसनासतना दवरप तांकां फायद्याचें दिसता.

गोंयच्या साधन-सुविधा उदरगतीक लागून गोंयच्या शेतांचो इबाड जाल्लो आसा. कोकण रेल्वे ही गोयांक फायद्याची काय लुकसाणीची हो वेगळो विशय. कोकण रेल्वे गोंयच्या मदल्यान नाका तर कुशींच्या वाठारांतल्यान व्हरची अशी मागणी जाताली. पूण ह्या प्रकल्पांत जांच्या जमनीचे हितसंबंद गुंतिल्ले ताणीं जमनीक दर येंवचो म्हणून शेतां भाटां हांचेर लक्ष दिनासतना हो मार्ग मेळत थंयच्यान व्हेलो. जांचे हितसंबंद ह्या मार्गाकडेन घुसपल्ले आशिल्ले तांचो फायदो जालो. पूण शेतकारांचीं शेतां, भाटकारांचीं भाटां ह्या मार्गाक लागून खूबूच उण्या दरान गेलीं. हातांत जे दुडू मेळ्ळे ते तात्पुरते आशिल्ले. ते खर्चून काबार जाले. पूण सातत्यान पिकावळ दिवपी शेतां-भाटां कायमचीं हातांतल्यान गेलीं. कांय शेतांमदल्यान मार्गाचो विभाजक गेल्ल्यान सलगता नाशिल्ल्यान शेतकारांचीं ह्या शेतांवयली आस गेली. जमनी रोवंचे परस विकल्यार



गोंय शेतकी खात्याचे संचालक
एस्. एस्. पी. तेंडुलकार

पयशे मेळटात ह्या अणभवान भोगवादी प्रवृत्ती वाडीक लागली.

राष्ट्रीय महामार्ग, खेळामैदानां, हेर बाजार प्रकल्प, बस स्टॅण्ड हांचे सारख्या विस्तारा पासत खूबशीं शेतां वापरांत आयल्यांत आनी फुडल्या प्रकल्पांत आपलीं शेतां वचचीं आनी त्या शेतजमनिचो राजकीय फुडाऱ्यांक हाताकडेन धरून अधीक लाब कसो मेळटलो हाचेर जमीन मालकाचें चड लक्ष केंद्रीत जावंक लागलां.

अशीं पडींग शेतां रोवंचे परस तीं पुरोवन ते जमनीर इमारती बांदल्यार चड पयशे मेळटात आनी जोड बँकेंत दवरून पांय हालय नासतना खावंक मेळटा ही भावना बळावल्ल्या कारणान आयज गोंयच्या शेता भाटांचेर हावळ आयल्या. जळा मळाक शेतांनीं उब्यो रावपी इमारती, बाजार प्रकल्प, मैदानां पळयल्यार गोंय सरकार शेतकी वर्स खंयचे जमनीच्या नाड्यार मनोवंक सोदता हें कळूंक मार्ग ना.

## शेतां पुरोवपाची सर्त

खेळा मैदानां, कम्युनिटी हॉल, चार पदरी रस्ते ह्यो गजाली काळाची गरज म्हण तांचे पासत पिकाळ शेतजमीन पुरयल्या बगर पर्याय ना हें जरी खरें आसलें तरी आयज गोंयांत पिकाळ शेतां पुरोवपाची सर्तूच लागल्या. जांचेकडेन शेत मालकी आसा ते जाणटेले आयज जाण्टे पिरायेक लागून घरांत पडून आसात वो कांय लोक संवसार सोडून गेल्यात. जे कोण घरांत पडून आसात तांचें कोण कानामनार घेनांत. तांचे भुरगे लंडन पॅरीस हांगा आसात. ते थंय त्या देशांची उदरगत करूंक वचूंक नांत. तांच्या वाट्याक तितलें शिक्षण ना. आशिल्लें जाल्यार ते गोंयचीं शेतां अशीं पडींग दवरून दुडू करूंक भायर वचचे नाशिल्ले. हे तरनाटे



सुलाभाटच्या तळ्यांतलो गाळ काडपाचें काम चल्लां.

थंय वचून कसलो वावर करतात आनी कशे पध्दतीन जोडटात हें जगजाहीर आसा. हे तरनाट्यांकडल्यान गोंयच्या फुडारा पासत कसलीच अपेक्षा ना. पूण दुडवांच्या नेटार हे लोक आयज जाण्टेल्यांचीं पिकाळ शेतां पुरयतात. तीं पुरोवन थंय इमारती बांदून तातुंतले फ्लॅट दिल्लीवाल्यांच्या भकीक घालपाचीं सपनां रंगयतात. आयज गोंयच्या सगळ्या वाठारांनीं हेंच चित्र दिसता. तांचेर कोणाचें नियंत्रण ना. जिल्होधिकारी हाचेर नदर दवरून आसा म्हणटात. अशीं शेतां पुरयतात थंय हांचे अधिकारी धावून वतात म्हणटात. पूण दिसा उजवाडा रस्त्याचे कुशीक शेतां पुरयतात हें मात ह्या पथकाक दिश्टी पडना हाचेंच अजाप दिसता.

सद्या आगशी गांवांत सुलाभाट हांगा थंयचें तळें साफ करून थंय पर्यटन क्षेत्र उभारपाचो प्रकल्प मोट्या नेटान चलता. ह्या तळ्यांतलो प्रचंड गाळ काडून तो खंड उडोवचो हो प्रस्न गोंय साधन सुविधा मंडळाक पडला. सुमार ५५ हजार चौरस मिटराच्या क्षेत्रफळांत हें तळें विस्तारलां. कदंब काळांतल्या ह्या तळ्याची सफाई ह्या आदीं कोणेंच करूंक ना. आज कोट्यांनी रुपया खर्चून हांगा तळ्याचें सौंदर्यीकरण चल्लां आनी ताचो लाब थळाव्या लोकांक जरूर जावं येता. त्या फायद्या परस हीतसंबंदीयांचोय खूब फायदो जातलो हातूंत दुबाव ना. पूण ह्या तळ्यांतलो गाळ आगशी गांवच्या शेतकारांचे पूत जे लंडन पॅरीसाक आसात ते शेतांनीं हाडून घालतात. आयज हो गाळ वापरून आगशी गांवचीं दोन पिकाळ शेतां पुरयल्यांत. शेतकी जमीन रुपांतरीत करतले जाल्यार शार आनी नगर नियोजन खात्याकडल्यान ना हरकत दाखलो जाय पडटा. आयज सरकारान असलीं रुपांतरां जावंचीं न्हय म्हूण कडक धोरण आपणायलां. अशें आसतना दिसा उजवाडा ह्या तळ्यांतलो गाळ हाडून शेतां रुपांतरीत करपी ह्या लोकांचेर गांवच्या आमदाराचें सोडात पूण पंचायतीचेंय लक्ष वचना हाचें अजाप दिसता. हे विशीं नगर नियोजन खात्याच्या संचालकाकडेन खबर घेतली तेन्ना संचालक मुराद हाणीं प्रस्नाची जाप फाफडून उडयली. हो वावर पळोवपाक जिल्होधिकाऱ्याची नेमणूक केल्या तेन्ना थंय वचून कागाळ कर म्हणून सांगलें. गोंयां भायले हे अधिकारी गोंयांत फकत पोट भरूंक आयल्यात. तांकां गोंयच्या फुडाराचें कांयच पडून गेल्लें ना. पूण जे कोण गोंयकार आसात ताणी हाचेर लक्ष दवरूंक जाय आशिल्लें.

आगशी गांवचे एक जागरूक नागरीक डॉ. अनिल घार्से हांच्या घरा लागचें एक पिकाळ शेत ह्या तळ्यांतलो गाळ घालून पुरोवपाचें काम चलतालें. अर्दें अदीक शेत पुरोवन जाल्लें तेन्ना हें शेत रुपांतराचें काम बेकायदेशीर काम चल्लां म्हणपाचें डॉ. घार्से हांकां कळून आयलें आनी ताणी तें काम बेगोबेग बंद उडोवंक



डॉ. अनिल घार्टो हांच्या शेजराक पुरयिल्लें एक शेत.

लायलें. पूण गांवच्या लोकांकडली दुस्मानकाय सगळेच लोक घेवंक शकनांत. ताणी ती कित्याक घेवची हेंय कळना. हें बेकायदेशीर रुपांतरण आळाबंदाक हाडपाक सरकारी यंत्रणां आसा. पूण एक तर ती न्हिदता ना तर असलीं कामां करूंक दिवन बोल्सां भरतात.

आयज ज्या वेगान गोंयचीं शेतां वेगवेगळ्या कारणां खातीर रुपांतरीत करपाचो वावर चल्ला तो पळयत जाल्यार भिरांत दिसता. अशी कल्पना करात कीं गोंयची सगळी जमीन दुडवांचीं बॅगां घेवन आयिल्ल्या दिल्लीवाल्यांच्या भकीक पडल्या. तशी ती कितलीतरी एकर जमीन तांचे सुवादीन जाल्याच.गोंयचे जमीन खरेदी विक्रींत घुस्पल्ले लोक बडवे जावन ही जमीन चडानचड तांचे भकीक पडची म्हूण वावरतात. ताचे बदलाक तांकां दुडू मेळटात. आमचे गोंयकार हीं शेतां विकून युरोपाक वचून थंयच्या घरांनी घरकाम करतात. एकदीस हांच्या भोकार खोट पडटली हें थरिल्लेंच आसा. थंयच्यान आमचें गोंय आमचें गोंय म्हणत गोंयांत परतल्ल्या ह्या गोंयकारांचें स्वताचें घर नासतलें. स्वताची जमीन नासतली. ताणी जोडून दुडू हाडला आसत पूण विकती घेतलो म्हळ्यार जमीन नासतली. दिल्लीवाल्यांनी ती विकपा खातीर गोंयकारांकडल्यान खरेदी करूंक नाशिल्ली. म्हणटकच गोंयकारांकडल्यान जमीन घेवन ज्या दिल्लीवाल्यांनी हांगा हजार हजार फ्लॅटांची कॉलनी उबी केल्या ते कॉलनींत झाडू मारपाचें काम, थंयच्या बंगल्यांनी संडास धुवपाचें काम ह्या गोंयकारांक करचें पडटलें. फुडाराचें हें चित्र आमकां आयची गोंयची परिस्थिती आनी गोंयकारांची मानसिकताय पळोवन दिश्टी पडटा.

फुडलें वर्स गोंयच्या मुक्ततायेचें भांगरा उत्सवी वर्स. ह्या वर्सा गोंयचे मुखेलमंत्री दिगंबर कामत गोंयचे व्हडले शास्त्रज्ञ डॉ. रघुनाथ माशेलकार हांच्या मुखेलपणा खाला एक समिती घडोवंक सोदतात. ही समिती ५० वर्सां उपरांतचें गोंय कशें आसूंक जाय हाचो आराखडो तयार करपाची आसा. ह्या आराखड्यांत हें शिर्शकथेंत हांवें गोंयचें स्वरूप उक्तायलां तें आसतलें काय कितें खबर ना. तरी हे समितीन ताचो आसपाव ह्या आराखड्यांत नक्कीच करचो.

•••

कथा



– विठ्ठलराय भट
आंबटकर कम्पाऊण्ड,
आंबिवली, ठाणे.

# क्रेडिट



*"तुमी चिंता करपाचें सोडून दियात. जास्तीत जास्त वाग कितें करत? बॅडरिमार्क दीत. वयर तुमच्या विरुद्ध खोटो रिपोर्ट धाडत तुमचेकडेन ताचें 'ते' स्टेटमेंट आसा न्हीं? तें युनियनाकडेन दियात आनी वागाल्या घरार कुतरे चडयात."*

"शालि, एक तोपभर उदीक हाड गो, बेगीन बेगीन"

"न्हावपाक म्हुण बाथरूमांत गेला आनी तोपभर उदीक कित्याक जाय? बोडार वोतून घेवपाक?" कामाचे धांदलींत शालिनीन बेजारान म्हळें.

"ए रणरागिणी लडाय मागीर कर. माका धा वरार रिजनल मॅनेजरालागी मिट्टिंग आसा. बेगीन न्हावन घेवुयां म्हण आयलों. आंगाक शाबू लाव्न घेता परयंत नळ गेलो. आतां कितें करूं? नागडयानूच भायर येवूं?"

तें आयकून अभ्यासाक बशिल्लीं भुरगीं–श्री आनी सुरेखा–खॅक् खॅक् कन्न हांसली.

"गप्प बसात माकडांनो. ना जाल्यार एक एकट्याले दांत पाडोवन दवरतलों." बाथरूमांतुल्यान अशोकान पोरांक दम दिलो.

स्टेशनार पावल्यार गाडयो लेट. "अभी अभी प्राप्त सुचनाके अनुसार भांडूक और घाटकोपरके बीच ओव्हरहेड वायर टूट जानेसे सभी रेल यातायात ठप्प हो गयी है! सभी रेलगाडियां अनिश्चित समयतलक बंद हैं! यात्रियोंको होनेवाली असुविधाके लिये हमे बहुत खेद है! धन्यवाद!"

"जाऽऽऽलें. आतां मिटिंगाक वेळेर पावपाचें म्हळ्यार टॅक्सी करची पडली. लेट जाल्यार वागाल्या तोंडांत पडतलों." अशें मनांतल्या मनांत फडफडत अशोक प्रभु रेल्वे पूल चणण भायर उतरलो. आयलो आनी टेक्सीं कर्न ऑफिसालागीं आयलो.

'फुकटचो णव्वद रूपयांचो दंड जालो' अशें पुटपुटत अशोक लिफ्टाकडेन गेलो. थंय पावल्यार दोनांपैकी एक लिफ्ट बंद पडल्या आनी व्हड लायन लागल्या. धांवत धांवत मेटां चणण अशोक दुसऱ्या माळ्यावयल्या आपल्या ऑफिसांत पावलो. आपल्या जाग्यार वचून बॅग दवरली. बाथरुमांत वचून फ्रेश जालो आनी रिजनल मॅनेजराच्या कॅबिनांत गेलो. आपल्या सावजाची मानगूट धरपाक दबो धर्न बशिल्ल्या वागा म्हणकी रिजनल मॅनेजर शेखर वाघ बसून आशिल्लो. अशोक कॅबिनांत पावलो आनी वाघान तोंड सोडलें–

"मि. प्रभू, तूं सेक्शनांत सगळ्यांत सिनीयर म्हूण तुका कंपनीखातीर प्रोफीट प्लॅन तयार करपाक सांगिल्लें. सगळ्या रिजनांनी तो तयार कन्न झोनल ऑफिसांतन धाडलो."

"हय सर! धा दिसां पयलींच हांवें तसो प्लॅन तयार कन्न तुमकां दिल्लो."

"तेंच तर सांगतां हांव. तुका तें काम दिवन शेण



खालें हांवें. झोनल मॅनेजरान 'प्लॅनांत कांयच दम ना दुसरो धाडात' असो रिमार्क मारून परतो धाडला. वाच.''

''पूण सर. तुमी सांगिल्ल्या परमाणे हांवें तो प्लॅन तयार केलो आनी तुमकां दाखयलो. तुमी 'ओके' म्हणतरीक तुमगेल्याच कव्हरिंग लेटरान तो प्लॅन वयर धाडलो. हातूंत म्हजें कितें चुकलें?''

''तुजें कांयच चुकलें ना. चुकलें सगळें तें म्हजेंच. आतां आणकीन वादविवाद करपाक बस नाका. वच आनी नवो प्लॅन तयार करपाक लाग. याद दवर, ह्या खेपेक प्लॅन पास जालो ना जाल्यार तुजी वयर तकरार करतलों. कायम वादविवाद करता म्हूण. आनी तुगेलो कॉन्फिडेन्शन रिपोर्ट (C.R) कुसोवन उडयतलों. बॅडरिमार्क मारतलों.''

फायल घेवन अशोक आपल्या जाग्यार आयलो. 'आज सकाळीं धर्न पनवती लागल्या म्हज्या फाटल्यान्. बॅडरिमार्क मारता खंय बॅडरिमार्क! तुवें गोटाळो कर्न दवरिल्ल्या चुकीच्या स्टेटमेन्टाची झेरॉक्स म्हजेलागीन आसा ती स्टेटमेंट वयर धाडल्यार बारा वाजतले तुगेले. वाग आसा तो बँ बँ करचो बकरो जातलो.' अशोकान हें सगळें आपल्या मनांत म्हळें.

अशोकान फाटल्या पांच वर्सांचें प्रोफिट प्लॅन सोदून काडलें. तातुंतले नोट्स काडले आनी नव्यो अश्यो कांय आयडिया सुचोवन प्रॉफीट प्लॅन तयार केलो. ताचे खातीर ताका चार दीस रगत आटोवंचें पडलें. शेखर वाघान प्लॅन्सावयल्यान नदर फिरयली आनी सही कर्न झोनल आफिसांत प्लॅन धाडून दिलो. स म्हयने जाले तरी तो प्लॅन झोनल आफिसान पास केलो कीं ना तें कळपाक मार्ग ना. वागाक विचारूया म्हळयार न्हिदिल्ल्या सुण्याक उटयिल्ल्या म्हणकी जातलें. प्लॅन नापास जालो जाल्यार आपल्यारै भोंकतलो तो. वोगीच चूड दाकोवन वागाक कित्याक आपोवया? असो विचार कर्न अशोक गप्प रावलो. गप्प रावलो खरो पूण मनांतल्या मनांतून बरफा म्हणकी करगून वचपाक लागलो. मनांतल्या मनांत अशोकाक काळजी जाताली. त्या काळजेच्या वाळतेन हळुहळू ताचें शरीर आनी मन पोखरावपाक सुरू केली. ताचो परिणाम म्हूण तागेली जेवणावयली वान्सा उडली. तोंडाक रूच ना जाली आनी तो दिसानदीस भागून बारीक जातेर गेलो. तोंड करपून काळें जालें.

बरेच दीस धर्न शाली अशोकाली तळमळ आनी तडफड पळयताली दोनतीन दिसांनी रातीक आपल्याक कुर्शींत घेवंचो मनीस गुपचूप न्हिदून रावता. रातरात जागो रावता. एक रातीक शालीन आपलें सगळें कसब पणाक लावन अशोकाक उत्तेजीत केलें? ताका समाधानाच्या समुद्रांत बुडयलें. आनी तो मुडांत येत्तरेक तागेल्या काळजेचें कारण विचारलें. अशोकान तिका सगळें सांगून आपलें मन हलकें कर्न घेतलें. खूब दिसांनी ते रातीक ताका गाढ न्हीद लागली.

शालीन रातभर विचार केलो आनी सकाळी अशोकाक सांगलें-

''तुमी चिंता करपाचें सोडून दियात. जास्तीत जास्त वाग कितें करत? बॅडरिमार्क दीत. वयर तुमच्या विरूद्ध खोटो रिपोर्ट धाडत तुमचेकडेन ताचें 'ते' स्टेटमेंट आसा न्ही? तें युनियनाकडेन दियात आनी वागाल्या घरार कुतरे चडयात.'' तें आयकून अशोकालें मन निश्चिंत जालें.

झोनल मॅनेजर व्हि. रंगराजन दोन दिसांखातीर रिजनल ऑफिसाच्या चेकिंगाक म्हूण आयलो. परते वचचें पयलीं ताणें स्टाफ मिटिंग घेतली. हेवटेचें तेवटेचें उलोवन ताणें

सांगलें-

"मि. शेखर वाघ मॅनेजमेंटा तरफेन आनी पर्सनली म्हगेल्या तरफेन तुमगेलें अभिनंदन करतां. तुमी तयार केल्लें प्रॉफीट प्लॅन कंपनीन मान्य केला आनी ताचीं गोड फळां येवपाक सुरवात पूण जाल्या. ह्या वर्साची 'बेस्ट रिजनल ऑफिसची ट्रॉफी तुमगेल्या राजनाक मेळ्ळ्या. शिवाय मॅनेजमेन्टान तुमकां दोन जास्तीची इनक्रीमेंट जाहीर केल्यात." सगळयांनी ताळयो वाजयल्यो.

वाघालें कॉलर तायट जालें. ताणें म्हळें-

"सर. हांवें मगेल्या इतल्या वर्सांच्या अणभवाचो पुराय उपेग करून तें प्लॅन तयार केल्लें. ताचें आज सार्थक जालें. मनाक भोव समाधान जालें. हांव तुमगेलो आनी मॅनेजमेन्टाचो आभारी आसां."

वाघालीं मनभावीपणांचीं उतरां आयकून अशोकाचो जळफळाट जालो. रानाक उजो लागिल्लें तेन्ना तातूंत हुलपोवन वचच्या सोंश्या म्हणकी तागेली गत जाली. ताणें मनांतूच म्हळें-

"तुवें तयार केलें ते प्लॅन? आं? चार दीस घोळन हांवें तयार केल्ल्या प्लॅनाचेर तूं आयत्या बिळाचेर नागोबा जावन बसता? ताचें क्रेडीट तूं घेता? पयलींचें प्लॅन नापास जावन आयलें तेन्ना तुवें ताचें डेबीट मगेल्या माथ्यार मारलें. खंय फेडतलो तूं हें पाप? सगळे ऑफिसर हे एकेच जातीचे" त्या तिरमिरीतूच अशोक घरा आयलो.

शालीन चाचो कप हातांत हाडून दिलो आनी गाराणे घालपाक लागलें-

"हें सुरेखा पळयात. स म्हयन्याच्या परीक्षेंत गणितांत घोळको घाल्न बसलां. शंबरांत फक्त अठरा मार्क."

"अशें? हांव कितें करूं? तूं तर दीसभर घराच आसता न्ही? तूं घेना तिचो अभ्यास! तिका युनिफॉर्म, जेवणाचो डबो आनी उदकाची बाटली दिली म्हणतरेक तुजी जापसादारकी सोंपली? ग्रेज्युएट न्ही तूं?"

आपली बाजू सांवरून घेवपा इराद्यान शालीन सांगलें-

"श्री कसो करता अभ्यास? तागेल्या मनानूच तो करता न्ही ताचो अभ्यास? सुरेखा म्हळ्यार तुमगेच्या मोगाचें म्होवां पोळें- ताका मातर जरी हात लायलो तरी तुमी म्हाका म्होवां मुसा म्हणकी चाबतात. नाका नाका तें उलयतात."

"तुगेलें म्हणणें कितें? हांवें तिगेलो अभ्यास घेतलो ना म्हण तें गणितांत नापास जालें? हांव शाळेंत आसतना गणितांत शंबरांत शंबर मार्क घेतालों. खंय आसा तूं?"

"हय ऽऽऽ तशें जाल्यार फाल्याच्यान गणीत शिकयात तुमगेल्या मोगाच्या धुवेक, पळोवया कितले दिवे लायतलें तें?" पदर खोवन घेवन दोनी हात नाचयतेर झगडें मारपाच्या तयारेन शाली मुकार सरलें. आतां गप्प रावनां जाल्यार घराचें कुरूक्षेत्र जावपाक वेळ लागचा ना. हें जाणून अशोकान आपलो पांय फाटल्यान घेतलो. समजावणेच्या सुरांत ताणें म्हळें-

"जावं दी गो तूं श्रीचें कितें तरी सांगतालें न्हि गो?"

"ताका गणितांत शंबरांत ९६ मार्क मेळ्ळ्यात" जशें काय आपुणच वाग मारला ह्या थाटांत शालीन सांगलें.

"भले शाब्बास! शेवटाक चलो कोणालो तो? म्हगेलोच पूत न्ही? तो म्हजे म्हणकीच जातलो स्कॉलर. धूव मात्र आवयल्या गुणार गेल्या हां." तांतल्या तातूंत अशोकान शालीक एक चिमटो काडलोच.

शालीन दोनी हात आरत उंवाळिल्ल्या म्हणकी अशोकाच्या तोंडा मुकार नाचयले आनी म्हळें. तिगेलीं उतरां उपहासान आनी उपरोधान थबथबतालीं-

"हय रे बाबा! हांव विसरूनच गेल्लें चलो तुमगेलो म्हूण. तुमीच ताका णव म्हयने पोटांत वाडायिल्लो न्ही? हॉस्पिटलांत बाळंत जावन घरा आयलो आनी ताका मोम्याक लायलें. तागेलें शी-गू काडले आनी ताका व्हड केलो. चल्याक बरे मार्क मेळ्ळे की तें क्रेडीट तुमकां आनी चलयेक कमी मार्क मेळ्ळे कीं ताचें डेबिट म्हगेल्या बोडक्यार. सगळे दादले हे असलेच. पेंग्या मेंदवाचे!"

रडतरडत शाली बेडरूमान गेलें आनी ताणें दार लावन घेतलें.

•••





# गुंडू

– किरण म्हांब्रे
२०६, कौलाशदर्शन
आकें मडगांव गोंय

'गुंडू बॉल खंय रे तुजो?'

गुंडू चेपून सामोसा केल्लो प्लॅस्टीकचो बॉल घेवन येतालो.

'हत्ती हाड गुंडूऽ'

गुंडू हातपांय तोडून विक्रमादित्य जाल्लो हत्ती घेवन येतालो. ते भायर कांगारू म्हळ्यार कांगारूं हाडटालो. ते आपल्या खेळण्याक अशें नावांनी वळखता तेंच पळोवन अजाप दिसतालें.

गुंडूक हांव कुत्रो म्हणपाचो अपराध करतां. ताचो आकार कुत्र्याचो आशिल्लो. ताका आंगभर ल्हंव आशिल्ली आनीक आमचे भशेन तोंडान उलोवंक येना आशिल्लें इतलेंच. पूण ताका सगलें उलयिल्लें समजतालें. म्हज्या उतरांचो सूर कळटालो. सुरा फाटली भावना समजताली. देखून हांव जेन्ना रागान उलयतालें तेन्ना म्हज्या आवाजांत फरक जायनासतना लेगीत ताका म्हजो उपरोधीक सूर कळटालो. तो मागीर म्हज्या म्हन्यांत येतालो आनीक दोन पांय आंगार दवरून उबो रावतालो. म्हज्या तोंडाकडेन पळोवन कितें तरी सांगपाचो यत्न करतालो. हांव आड पडिल्लें आसन जाल्यार तो म्हज्या गळ्यार तकली दवरून न्हिदतालो. तो म्हाका समजायतालो काय, तापनाका, ओगी राव म्हणटालो म्हाका अजून कळ्ळें ना.

गुंडू आमचे बाज्जेर चडटालो. आमच्या म्हन्यांत न्हिदतालो. म्हणून हांव ताका सदांच न्हाणयतालें. भायर वचून येतगच ताचे पांय धुतालें. जेवन जातगच तोंड धुतालें. गुंडूक ताची इतली संवय जाल्ली की भायर वचून येतकच तो पांय धुले शिवाय भितर येच नाशिल्लो. दारांतच बसून रावतालो. आमी विसरलीं तरी तो विसरनाशिल्लो. पळयतल्याक सामकें अजाप जातालें. जेवन जाले उपरांत तो भायर येवन आपलें तोंड दाखयतालो. आनी धुल्या उपरांतच घरांत भोंवतालो.

तो दोळ्यांनी उलयतालो. ताच्या तोंडाचेर उत्कट भाव आसताले. ताका आनंद जाला, वायट दिसलां, तो अपराधी जाला सगलें ताच्या तोंडार पळोवन कळटालें. कुत्रो आसूं पूण तो एक बुदवंत कुत्रो आशिल्लो. धवोफुल्ल, तांबड्या गुलाबी नाकाचो, दिसूंक सुंदर तर आशिल्लोच पूण ताचेपरस चड हुशार आशिल्लो. खरें म्हळ्यार धा वर्सां मेरेन गुंडूक आरोग्याचे कसलेच त्रास जाले नांत. पूण एक फावट हांव एकटेंच घरा आसतना ताणें अशें केलें कीं म्हाका दिसलें ताचे तकलेंत कितें तरी जालां. ताका बाज्जेर उडीय मारूंक आयली ना. कितें जाता हें सांगूंक आयलें ना हें ताचें आनीक ताच्यापरस चड आमचें दुर्दैव. दोतोराक सांगलें. दोतोरान आदमासान वखदां दिलीं. दंतानी जातलें म्हणून काय तेंपान म्हळ्यार वर्सा दोन वर्सांनी एकदीस सकाळफुडेंच गुंडून फिट्स आयली. एक फावट, दोन फावट , तीन.... गुंडूक दोतोरागेर व्हेलो. वखदां दिलीं. पूण कांयच फरक पडलो ना. ताका परती परती फिट्स येवंक लागली. मागीर ताचो कान व्हावंक लागलो. आनीक फिट्स येवपाचें कमी जालें. आनीक वखदां केलीं. कान निवळ्ळो. ताका खांक येवंक लागली. गुंडूची म्हाका आतां काकूट दिसताली. ताका बाबड्याक कसले त्रास जातात कळनाशिल्ले पूण तो फिट्स, कान व्हावप आनी खाक येवप हांच्या चक्रांत सापडिल्लो. निमाणें तो गेलो. चौदा वर्सांचो गुंडू पळोवंक सामको ल्हान भुरगो दिसतालो.

खूब भुरग्यांक दिसता कुत्रो पोसचो. तांकां कुत्र्याची मनापासून आवड आसता. ताचें सगळें कितें आपूण करतले अशें दिसता. पूण कुत्रो पोसतकच, कुत्रोच न्हय तर खंयचेंय जनावर पोसतकच आपलें ताचेकडेन एक कर्तव्य जाता. आनीक त्या कर्तव्याक आपूण उणो पडलों अशें दिसतकच आपलेंच मन आपल्याक खाता.

गुंडू घरांत एकटो रावंक भियेतालो. आमी घरांत ना जाल्यार आमी येसर तो भोंकत रावतालो. पूण आमचो नाइलाज आसतालो. कामाखातीर भायर वचचेंच पडटालें. दोन दीस खंयय वतलीं जाल्यार ताका घेवनच वचचें पडटालें. सगलेच कडेन सगल्याच वेळार आमी गुंडूक न्याय दिवकं शकलीं नांत अशें म्हाका दिसता. आनीक ती खंत भोगता. गुंडू गेलो तेन्ना म्हाका दिसलें सुटलो. पुण गुंडू फकत एक पोशिल्लो, अपुर्बाय केल्लो प्राणी नाशिल्लो. तो आशिल्लो एक साक्षिदार, एक भागिदार म्हज्या सुखदुख्खाचो. गुंडू गेलो आनीक म्हजे जिणेचें एक प्रकरण अचळय बंद जालें, सासणाखातीर.

•••

इंद्रधोणू



# वळखूंक शीक


– भारती सुदीन कुंकळ्येंकार
गणेश कृपा,
देऊळमळ-शिरवय, केपे, गोंय




*तुवेन तिका एकली एकसुरी केन्ना भायर सरिल्ली पळयल्ली? चलयेक हाडूंक गेल्यार लेगीत तकली सकयल घालून चलताली. आपले आवडीचें तिका कांयच करूंक मेळ नासलें. सामकी फुगार जाताली ती. फुगारकायेन जीवनाचो गाडो ती चलयताली.*

**आ**श्विन म्हयनो सुरू जालो म्हणटगच नवरात्रांक सुरवात जाता. भजनां, किर्तनां, सरस्वतीपूजन ह्या धुमधड्यांत नवरात्रां सोपून दसरो सुरू जाता. कौल जाल्या उपरांत दिवाळेची रूसरूस लागता. फोव हाडूंक जाय, चिरमुल्यो वाटूंक जाय अशी बायलांची गडबड सुरू जाता. पयलींच्या तेंपार फोव लाटीरच करताले. आतां फोवांच्यो गिरणी जाल्यात. दिवाळी सामकी तेकली म्हणटकच बायलो तशेंच दादले आपले फोव घेवन फोवांचे गिरणीर वतात.

आमकांय फोव जाय आसले. कांडिल्ले फोव खावंक बरे लागतात अशें आमच्या जाणट्ल्यांचें मत. आदल्या तेंपार मुंडकारां आमकां भात खंड म्हूण घालताले आनी आमी तें भात दिवन फोव हाडटाले. आतां तीं भात दिवपी मुंडकारांय नांत आनी तरेतरेचे फोव करून खावपी आदले लोकय नांत. तरीलेगीत रितीरिवाजा खातीर म्हाका भात घेवन वचचेंच पडलें. फोव करपाची गिरण आमकां कोस दोन कोस पयसूच. एकटेंच वचपाची वाट न्हय म्हणून हांवें शेजान्नीक फुडें काडली. फांतोडेर उठून हुनहुनीत च्याचो घोट घेवन, माथ्यार भाताची पोटली दवरून हातांत लापयांव घेवन आमी दोगांय शियाच्या कुडकुड्यांत कुडकुडत भायर सरलीं.

पाटली वाटेर चार-पांच कडेन दवरून मातशीं बसून आमी चलतालीं. सकाळीं सातांक आलयमालय करीत आमी पावलीं. आमच्या पयलीं खूबशे लोक भात घेवन राविल्ले. रांग खूबच व्हड आशिल्ली. हांगा फावोर चलनासलो. पयलीं येतल्याक गिरणकार पयलींच कांडून दितालो. कितें करतलीं? कितलो वेळ उबीं म्हूण रावतलीं? पोटली एका कोनशाक दवरली आनी आमी एका झाडापोंदा वचून बसलीं.

दोन बायलो एकठांय जावप म्हळ्यार गजाली जाताच. तशेंच आमचें जालें. आमी शेजराक आसून लेगीत एकामेकाक मेळनाशिल्लीं. ती फांतोडेर उठून भायर सरताली ती रातची घरा पावताली. म्हजो वेळ आनी तिचो भायर सरपाचो वेळ वेगळो आसलो. आयज फोवांच्या निमतान आमी एकठांय आयिल्लीं. तशी म्हजी ही शेजान्न फामाद. कोणागेर कितें घडटा, कोण कितें करता हें तिका पयलीं कळटा. देखून गांवच्यो खूब बायलो तिचे पडवेर एकठांय जाताल्यो. आयज हे शेजान्नीचो योग म्हाका जालो. उलोवंक हांवें सुरवात केली.

''जाणां मगे!'' म्हजें उतर सोपचे पयलीं हिणें आपलें पयलीं आयकून घे म्हूण पटी वाचूंक सुरवात केली. ती म्हाका सांगताली, ''जाणा मगो सुल्या, त्या गोमूची आवय गेली ती! चुरचुरे गो बाये त्या पोरांचे. जाणा मगो, तिका खंय वायट दुयेंस जाल्लें. कसलें कोण जाणां? कोण म्हणटा दियाबेताचें, कोण म्हणटा

हार्टाचें, कोण म्हणटा कॅन्सर. पुणून सुटली गो बाये ती.''

''दुयेंस खंयचेंय आसूं गो. भुरग्यापणार गेली म्हूण म्हाका खूब दुख्ख भोगता. आमच्या हातांत आसा तें?'' म्हजी जाप.

''तशें न्हय गो. खूब वर्सां हातरुणार उरलें न्हय तें? कुटुंबांत राविल्ल्यान तरी चार वर्सां काडलीं ताणें. घरच्यांनी म्हणून केली ताची सेवा.''

''मनशां एकदम बरीं तीं.'' म्हजी जाप.

एकदम तरतरी आयिल्लेवरी ती उबी रावली आनी सांगूंक लागली, ''तूं कांय नकळों सुल्या. तांचे दाखोवपाचे दांत वेगळे आनी खावपाचे वेगळे. तूं भितर सरलें म्हणटगच तूं बरें. हांव भितर सरतगच हांव बरें. भायर सरता काय म्हूण पळयतलीं. लोकांचें धूय धूय धुयतात तीं. फाटल्या तेंपाक गोमूकडल्यान सगळीं कामां करून ती घेताली. आवयची सगळी सेवा तें पोर करतालें. कोण्यू खबरेक येत जाल्यार ताका बेगीबेगीन अभ्यासाक बसयताली. हे रंग करूंक जातले गो तुज्यान? लोक भितर सरतगच आयिल्ल्या लोकांचे गूण गायतात. गोमूची आवय मरतगीच खंय तांकां दुख्ख जालें.''

''घरांतल्यान भायर सर नाशिल्ली मगे ती.'' म्हजी जाप.

''आगो दिसाची भायर सरनाशिल्ली म्हण कितें जालें? रातयां पार्थ्यांनी, सिनेमानी, नाटकांनी वताली ती. चलयेक मात व्हर नासली म्हणटाली पड घरांत. आवय गेल्या मगो तुजी? खाली तुवें आवयक. लज आसा तुका नाटकांक येता म्हणटा तें? एक वर्सपर्यंत तुवें नाटकाक वचपाचें ना. सुल्या म्हाका सांग आवय गेल्या म्हण कितें ताणें वर्सभर घरांत पडपाचें? चवथ ना, दिवाळी ना, नवरात्रां ना, दसरो ना. घरांतलीं सगळीं भायर सरतगच तें गो पोर कशें रावतलें घरा? बंद करून घरांत रावल्यार आवय गेल्याच्या दुख्खाचें सार्थक जातलें? गेल्ली आवय ताका परत मेळटली? आवय ती. ती कोणाक नाका आसता. तिची याद बसता उठतना भुरग्यांक जाताच. हय मगो! कसलीं गो हीं पिशेपणां. घरांत आशिल्ल्या लोकांनी हे चलयेक म्हऱ्यांत काडपाचें, आमच्या बरोबर नाटकाक यो, सिनेमाक यो, लग्नाक यो. आमी सगळीं तुजींच. उठ दोळे पूस. हांस पळोवया अशें म्हणून हात ताच्या फाटीवेल्यान फिरोवपाचो अपुरबायेन. हय मगो? थोडो तरी ताचो ताण कमी जातलो आसलो. कितलेंय जाल्यार भुरगेंच तें. ताच्या मनाचो तीं विचार करिनांत. खरेंच तें एकटें पडलां आतां. सुल्या, एक गजाल म्हाका खटकली. तुवेन तिका एकटी एकसुरी केन्ना भायर सरिल्ली पळयल्ली? चलयेक हाडूंक गेल्यार लेगीत तकली सकयल घालून चलताली. आपले आवडीचें तिका कांयच करूंक मेळ नासलें. सामकी फुगार जाताली ती. फुगारकायेन जीवनाचो गाडो ती चलयताली. गोमूची आवय कुटुंबांतली. पंचवीस-तीस लोक तिच्या कुळारा जेवंक आसताले. केन्नाय यो केन्नाय वच हांसकुऱ्या तोंडान. घसघशीत हातान ती लोकांक जेवणां घालताली. हांगा सगळें वेगळेंच. मन मेकळें लेगीत तिका करूंक मेळनासलें. गोमूचे आवयनच बंदखणीत जीवन काडलें. वाटेर मेळ्ळ्यार सुद्दां बरें आसा मगो म्हळ्यार लेगीत ती मोन्यानी हय म्हणटाली. वाटेर जाप तुवें कोणाक केल्ली? ती तुका कितें विचारताली? तुवें तांका कितें सांगलें? असल्या प्रस्नांक लागून ती घरानच रावताली. घडये तिचें तोंडय मागीर बंद जालां आसतलें. पिशांभशेन एकेचकडेन ती बसताली खंय! हळुहळू तिची तकली चलना जाली. कितें जाता वा ना हेंवय तिका समजना जालें. हळुहळू तिणें हांतरूण धरलें. चार म्हयने दवाखान्यांत उरली खंय ती! कोणाकच कांय खबर ना. दिश्टी पडना म्हळ्यार सांगतालीं कुळारा गेल्या. तीं सगळीं खयीय गेल्ल्या वेळार तांका ती खंय काय म्हळ्यार, तिका गाडी लागता म्हूण सांगतालीं. तिचें दुयेंस लेगीत ताणी लिपयलें. चार चौगांक कळिल्लें जाल्यार घडये पयलींच ताका गूण पडूं येतालो. हय मगो सुल्या?'' तिडकीन ती उलयताली.

''श्रीमंत घराण्यान दिलें म्हणून आवय व्हडवीक पयलीं गायताली. उजो लाय असल्या श्रीमंतपणाक. हासून खेळून जीवन जगप. पेज जेवल्यार उपकारता, बोतर न्हेसल्यार उपकारता. पूण देवा, हिचेभशेन बंदखण कोणाकच नाका?'' उद्रेकान ती उलयताली. आपलेंच जाल्लेवरी किवेंयताली. शेजान्न म्हणटा तेंवय खरें आसूं येता. जो दिसभर हासत रावता ताका दुयेंस जायना. चिंता नाशिल्लो मनीसच जन्माक येवंक शकना म्हणून ताचेर रामबाण उपाय म्हूण टिव्ही, नाटकां, सिनेमां तयार जाल्यात. विचार करीत रावन तकली शून्य करप म्हळ्यार आयुश्याक पूर्णविराम दिवप. तिचें हेंवय खरें. पांजऱ्यान मनीस पिसो जाता पोपटावरी. हेंवय खरें की गोमूचे आवयक स्वतंत्र रावचें दिसतालें आसतलें. आपली जीध्द ती दाखोवंक सोदताली आसूं येता. ती दाखोवंक मेळना म्हुणून भितरल्या भितर ती फुगार जावंकय शकता. कितलेशेच प्रस्न म्हज्या फुड्यान आसले. पूण त्या प्रस्नांक म्हजेकडेन जाप नासली. हांव गोमूचो आनी गोमूचे धुवेचो विचार करीत आसलें. म्हाका अशें भोगिल्लें जाल्यार.... ना हांव ओगी रावचें नासलें. सुलू एकटेंच मनांतल्या मनांत उलयतालें.

इतल्यान गिरणकारान उलो केलो, ''आगे हें भात कांडपाचें?'' ताचो आवाज आयकून न्हिदेंतलें उठिल्ल्यावरी हांव भाताचे पोटलेसरी गेलें. पोटलेचो दोर सोडयलो. भात लाटीर घालतकच लाटीचो प्रत्येक फार म्हाका सांगतालो तूं मन घट्ट कर. मनशां खूब तरेचीं आसतात वळखूंक शीक. तूंच नशीबवान समज. तुज्या मनासारकें आयज मेरेन घडत आयलां. फोव केन्नाच कांडून जाल्ले. ते घेवन चलत घरा केन्ना पावलीं तेंवय म्हाका कळ्ळें ना. गोमूच्या आवयचें आनी गोमूचें दुखणें म्हाका सगळें सांगून गेलें.

•••



# धूव

– शांतन पावसे
फोंडे – गोंय.





**वि**शाल भुरगेपणासावन सामको मस्तोच. सुरवेक पयलीं ताच्यो त्यो अपुरबायो दिसताल्यो मागीर दिसान दीस ताचीं तवनासपणां वाडतच रावलीं. शिकपाक बरी तकली आशिल्ली पूण गोमटेर कोण बशिल्ल्या सारको तो खुबळटालो. आवय-बापायचो एकसुरो भुरगो आशिल्ल्यान हातांत पयसो बरोच घोळटालो. तातूंत वायट भुरग्यांची संगत लागली. पयसो वायट वेसनांक खर्च जावपाक लागलो. तो कसो बसो धावी जालो. कॉलेजींत वचपाक पावल घालें तसो सामकोच हाताभायर पावलो. वर्ग चुकोवन इश्टांवांगडा भायर भोवप, शिगारां ओडप, सोरो पियेवप, इस्पीकांनी खेळप, साकवार, टिट्यार बसून वाटेवयल्यान येता-वता त्या चलयांचीं फकांडा मारप, भाजिल्ले चणे विकते घेवन चे डवांच्या फाटल्यान तीर धरून मोकप, पोजडें उलोवप, बसींत भोंवतना तर तांचो टोळको चलयांक खूब सतायतालो. आनी हें सगळें करतना तांकां कांयच दिसनासलें. वयल्यान तोंड घेवन खीं-खीं करून हांसप.

अशेंच एक दीस एक सुंदर चली विशालाक भुल्लें. विशालाक तें खूब आवडलें. दोगांयची मोगकाणी सुरू जाली. मोगान ताची जीण सुदारली. आवय-बापायन लग्न करून ताका संवसाराक लायलो. आतां ताच्या जिवितांत वेगळेंच वळण लागलें. तें चलीय बरेंच कडक आशिल्ल्यान विशालाक आपली जबाबदारी कळ्ळी. तो ताच्या मोगांत पिसो जाल्लो. वर्साभितर घरांत पाळणो हाल्लो. तांकां सोबीत चली जाली. बापूय जातगीर विशाल खोशेन बुडलो. पयलींचो विशाल आतां उरूंक नासलो. बापायचो धंदो सांबाळटना ताणें बंगलो बांदून गाडी सुद्धां घेतली. आपली धूव म्हळ्यार घरांत आयिल्ली लक्ष्मी अशें ताका दिसतालें. चलयेच्या नांवार दान-धर्म करीत तो देवमनीस जातालो. बायलूय ताका सगळे बाबतींत हातभार लायताली.

फुडें विशालालें चली वयार आयलें तशें तें चडूच सोबीत दिसपाक लागलें. रंगान गोरें, मातयेरंगाचे दोळे, सरळ नाक. तोखेवचें तितलें थोडेंच. धावी पास जावन तें कॉलेजींत पावलें. शिकपाक सादारण आसलें तरी ताचें मनभुलवणें रूप सगळ्यांक आपल्याकडेन ओडटालें.

विशालाक मात आपले धुवेचो हुस्को जाल्लो. आपली धूव खंयच्याय तवनास तरणाट्याचे नदरेंत वचत काय? ताचीं कोणूय फकांडां मारत, तें फसत, ताका कोणूय हात लायत, गैर फायदो घेत. अशे नाना तरेचे प्रस्न विशालाक येवजताले आनी न्हीद पडनासली. सगळ्या वाळेस भुरग्यांची विशालाक तिडक येताली. धुवेचो हुस्को जावन भियेवन पोटांत गुळो येतालो.

पळोवंक गेल्यार विशालाक आज हें सगळें कित्याक दिसतालें? एका तेंपार दुसऱ्यांच्या चलयांक हो सतायतालो. तांकां पोजडें उलयतालो तेन्ना खंय गेल्ली हाची अक्कल. त्यो चलयो सुध्दां कोणाच्यो तरी धुवोच आशिल्ल्यो. तो बदल्लो तरी, आपणें पयलीं केल्ले चुकीची ताका लज दिसताली, पश्चातापय जातालो. पूण ज्या चलयांचीं नांवां ताणें घाण केल्लीं तीं परत बरीं करून तो दिवंक शकतालो? आतां आपले रगताचे धुवेचो मात हुस्को?

जण एक तरणाटच्यान दुसऱ्या चलयांकडेन पळयतना अश्या गाजालींचो विचार करप गरजेचो. जशी आपली आवय, भयण, भावज तश्योच दुसऱ्यो चलयो सुद्धां कोणाच्यो तरी धुवो, भयणी हाची जाणविकाय जावपाक जाय. आयचे नवे युवा पिळगेन वायट वेसनां, वायट संगत हांचेपासत पयस रावन बरें शिक्षण घेवन आपले भवितव्य घडोवचें.

•••

# लक्ष्मी



*कशी वचूं? एक फावट दिसता कीं सगळें सोडून दिवचें, मागीर दिसता कोणाक सोडूं... भुरग्यांक वो जनावरांक... जीं पाळल्यांत, जांचेबगर भुरगीं जगचीं नांत, भुरग्यांक पाळल्ली जाल्यार जनावरां पाळचींच पडटात.*

लक्ष्मीक समजना जालें की तिणें कितें करचें? ती विचार करता की आवयक कशें मेळप? तिचें घर बागेश्वरच्यान वीस मैल पयस आसा. पोट भरपाचें साधन शेती जावन आसा, जातूंत वर्सभराचें पासून धान्य जायना. घोव बरेली च्या खंयच्या तरी धाब्याचेर काम करता. कित्याक करचो ना? हांगा जाता तरी कितें,उताराक आशिल्ली जमीन, शेताचो ल्हानसो कुडको, दूद भरग्यांक गरजेचें, म्हणून गाय, म्हस पाळची पडटा.

गांवांत गिरण ना. दात्याचेर धान्य दळचें पडटा. वायनात घालून मुसळीन तांदूळ पिसुडचे पडटात. पिवपाचें उदक एक मैल पयससांन हाडचें पडटा. घराब्याची मुखेल स्वता तीच. घोव चडसो भायरूच आसता. तेन्ना खंय कपडे-लत्ते, चा-साखर घरांत येता.

मागीर लक्ष्मी विचार करता, हांवूच कित्याक? हांगा तर सगळीं तशींच जगतात. म्हणून तर जायते जाण जमीन विकून, घर सोडून दिल्लींत वचून रावतात. तेंय बी झोपडपट्टीत. गेल्ले लोक सांगतात की थंय तरीय बी हांगापरस बरें.

लक्ष्मी मागीर विचार करता, फाटल्या वर्सा पावस जालो ना, ताणें बरेलीच्यान मनीऑर्डर धाडू नाशिल्ली जाल्यार आमी उपाशीं मरपाचीं. खबर ना कित्याक आनी केन्ना मेरेन रावतलीं असल्या जाग्यार? धान्य सोडाच जनावरांक चारो मेळपाक कुस्तार जालां. असलीय बी म्हूण कसली जीण. थंय आवय दुयेंत आसा. कितले फावट आफयता लोकांकडल्यान रेकाद धाडून. हांगासून कशी वचूं?

भुरग्यांक कोण पळयतलो? हांगा कोणाकडेन वेळ ना. लक्षीमी आपल्या आवयच्या गांवांत जलमली आनी लगीन जावन घोवा घरा आयली. आवयच्या घरा पासून घोवाच्या घरा मेरेन फकत गांव पळल्यात. तोच तिचो संवसार.

ती समजता ती जंय रावता, थंयचो आवाज वैल्याकडेन पावना. ती घरातलें दर एक काम करीत करीत आपल्या जिवीताविशीं विचार करता. तिची आठ वर्सांची चली तिका कामांत आदार करता. तिचे गरिबीचें कारण फकत भौगोलीक जावन आसा, जें बदलप शक्य ना.

ती ज्या कश्टांतल्यान वता, तें भौगोलीक देणें जावन आसा. प्रगती आनी स्वातंत्र्य आजून लक्ष्मी मेरेन पावूंक ना.

आयजूय बी लक्ष्मी सकाळी उठून भुरग्यांक एक एक

भाकरी दिवन, दूद काडून, जनावरांक चारो दिवन सगळ्यांत पयलीं जनावरांक लागून रानांतल्यान चारो हाडपाक गेल्या. परतून येवन जेवण करतली. मागीर थोडो वेळ शेतांत वतली. जळोव सोपला, थोडा जळोव हाडपाक जाय. मागीर सांज जातली. त्या उपरांत परतून जनावरांचें दूद काडप, रातच्या जेवणाची तयारी बीन. रानांत वचून चार कापून ताची मोळी बांदली. परतताना वाटेर तिका आपल्या कुळाराची आनंदी मेळ्ळी, जिचें घर तिच्या गांवच्या मुखार आसा. लक्ष्मी तकलेर चारीची मोळी घेवन धावत धावत घरा येताली. 'आनंदी'क पळोवन तिणें मोळी सकयल दवरली आनी तिका विचारलें खंयच्यान येता?' आनंदीन म्हळें 'कुळारच्यान येतां. व्हडल्या भावाक चलो जाल्लो, काल गेल्लीं. बारसो आसलो, गांव जेवण आसलें. जेवपाक उशीर जालो, रातीं थंयच रावलीं, सकाळींच भायर सरलीं, भुरगीं बेजार जाल्यांत आसतलीं.'

लक्ष्मीन विचारलें, 'माई, कोण म्हज्या घरचे बीन मेळिल्ले? कितें खबर आसा म्हज्या कुळारची?'

'अगे,तुजी आवय तर दुयेंत आसा. तुजो भाव मेळिल्लो. आतां मरता काय मागीर मरता अशी तरा आसा, सांगी आसलो कीं लक्ष्मी मेळत जाल्यार सांग की एक फावट नदर मारून चल म्हूण. तिणें हुसको धरला.'

हे आयकना फुडें लक्ष्मीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं, ती उलयली, 'कशी वचूं, असल्या संवसारांत मातूय उसरपत ना. सकाळच्यान सांज मेरेन अशीच मरत आसतां, तेन्ना खंय पोटाक लागता. आवयक पळोवची आसली कितें करूं, कशी वचूं' म्हणीत ती परतून रडपाक लागली.

मागीर आनंदीन आपली पोटली उगती करून तिणें लक्ष्मीच्या हातांत एक गोडाचो कुडको दवरलो आनी फुडें सरली. लक्ष्मीन म्हटलें, 'राव माई म्हज्या घरा चल. दाळभात करतां. जेवन वच.'

'ना गो बाये खूब कळाव जाला. म्हाका कालू परतें येवंक जाय आसलें. उपाय ना जावन काल राती कुळारा रावचें पडलें. भुरगीं भुकेल्यांत जातलीं. खबर ना काल कितें करून खाल्लां काय ना म्हूण. दुसरो कोण पळयतलोय बी ना.'

आनंदी सारके सांगताली. तिचो घोव भायर खंय तरी चाकरेक आसा. घरांत धा-बारा वर्सांची चली आसा. दोन ल्हान चले आसात. तेच चलयेचेर घर सोडून कुळारा गेल्ली. काळजी जावपाचीच. तिणें बेगी बेगीन लक्ष्मीक चारीची मोळी उबारपाक आदार केलो. दोगांय आपआपल्या घरा वचपाक सरलीं. लक्ष्मीक आवयच्या दुयेंसाचें खबर आसलें. जेन्ना खाकीची उबळ येताली तेन्ना तिचे हाल पळोंव नज जातालें. आवयचें नांव आयकून तिच्यो पोरण्यो यादी ताज्यो जाल्यो. कशें पापड लाटून आवयन वयर काडिल्लें, तिका आनी तिचो भाव 'धर्मी'क. जेन्ना ल्हान आसलीं तेन्नाच बापायचो आलाशिरो ना जाल्लो.

विधवा आवय 'हरिया'चें बरें मागून शेत करताली, कुदळीन खणटाली, शेतांत सारें घालताली, बीं लायताली, पीक कापताली, म्हशीचें दूद काडटाली. तिचे तकलेंत आवय घुवपाक लागली.

कशी वचूं? एक फावट दिसता कीं सगळें सोडून दिवचें, मागीर दिसता कोणाक सोडूं... भुरग्यांक वो जनावरांक... जीं पाळल्यांत,जांचेबगर भुरगीं जगचीं नांत, भुरग्यांक पाळटली जाल्यार जनावरां पाळचींच पडटात. आनी ह्या दोगांकूय लागून खंय वचूंकच मेळना. घोव भायर वचून काम करिना जायत जाल्यार कशें जातलें? तेंय बी गरजेचें. ना जाल्यार पयसो खंयसून येतलो? पयशांबगर वस्ती मेळच्यो नांत. हें सगळें खरें पूण आवय भायर पडत जाल्यार तिका केन्ना पळयतली?'

लक्ष्मी विचार करता आनी रडटा. वांगडा घरचीं कामांय करता, दुकां माथ्थावयल्या पालवान पुसता, इतल्यान तिची चली उलयली. 'आई तूं रडटा कित्याक?'

'काय ना पुता, तुका कितें सांगूं, तुजे आजयेची याद येता. ती दुयेंत आसा न्हय!'

चलेयन म्हणलें, 'बरें तर आई तूं वचून पळोवन यो.' 'तूं सारकें उलयली पुता, पूण तूं एकलें घरांत कशें रावतलें, तुजे आजयेचें घर हांगाच्यान खूब पयस.'

'म्हणून कितें जालें आई, घरांत हांव पळयतां. तूं वच.'

लक्ष्मी मोगान चलयेक आपल्या गोपांत घेता. 'तूं सारकें सांगता पुता, पूण तुजेर घर सोडपाक म्हाका धीर जायना.'

मागीर लक्ष्मी विचार करता, 'हांव जर आवयक पळोवंक गेली ना, जाल्यार आवय कांयच म्हणची ना, पूण पुराय गांव म्हाका जिवीतभर शिणटलो. इतलीं वर्सां आवय दुयेंत आसली आनी लक्ष्मी पळोवंक पासून आयली ना. सगळ्यांचीं तोंडां कोण धरतलो?'

लक्ष्मीक आनंदी मेळून आयज पंदरा दीस सरले, पूण तिका वेळ मेळ्ळो ना. तिचें कुळार घराकडल्यान आठ-धा मैल पयस आसा. येवपा-वचपाचें सादन कसलेंच ना. पायांनूच येवचें-वचचें पडटालें.

'आवय खातीर कितें घेवन वचूं?' ती विचार करपाक लागली. 'थेंब थेंब एकठांय करून दवरलेलें एक ल्हानसो डबो भर तूप आसा, धंय दवरून वतां. वचपाच्या दिसांचो जनावरांचो चारा पयलींच कापून दवरचो पडटलो, पीठ-तांदूळ जाय.

तिणें दातें चलयलें. वायनांत थोडे तांदूळ कुटले. चारीची रास लायली. दोन-चार दिसांखातीर जळोव काडून दवरलो, स्वत:चीं न्हेसपाचीं कापडां पिजलेलीं. एक ब्लावज



आनी परकर शिंवलो. एक हलको तांबडो फाळो विकतो घेतलो. हांगाथंय वयतलो जाल्यार सारके कपडे जाय पडटात. आपल्या घरांत कितेंय जाता, भायर कोणूय पळयत जाल्यार कितें म्हणटलो.

लक्ष्मी फांत्या पारार उठली. तिणें बेगी बेगीन घरांतली साफसफाई केली, म्हशीचें दूद काडलें, दूद तापयलें आनी बेगी बेगीन पीठ मळून भुरग्यांच्या दिसभराच्या जेवणाची तयारी केली. स्वता न्हाली, भुरग्यांक न्हाणयलीं. मागीर जनावरांक चारो घालो, दिसभराच्या हिशोबान उदक पिययलें.

आपले केंस उगोवन वेणयो घाल्यो. कपडे घाले आनी धंय, तूप घेवन भायर सरली. तिणें आपले चलयेक समजायली, 'पुता हांव तुका येतना खावपाक घेवन येतां. तूं बरे बशेन घर सांबाळ. झगडीं करू नाकात. परातीन भाकऱ्यो दवरल्यात, धंय काडून घे, तिगांय भाव भयणां बरीं करून रावात.'

चली हां,हां करीत रावली, जेन्ना ती वचपाक लागली, तेन्ना चली रडपाक लागली, ती परत आयली आनी उलयली. 'पयळ गो बाय, हांव तुज्या सांगण्या वयल्यान वतां, म्हजे आवयक मेळूंक. आतां तूं रडपाक लागलें.'

'ना, ना, आई, तू वच. म्हाका अशेंच रडपाक आयलें.' ती मागीर भायर सरली. पयस मेरेन भुरगीं तिका वयतना पळयतालीं आनी ती आपल्या भुरग्यांक.

पुराय तीन वरां लागलीं लक्ष्मीक गांवांत पावपाक. आतां ती आपल्या आवय वांगडा आसली. ती वचना फुडें आवयच्या गोपांत गेली. जाणटी आवय हुंबऱ्यार बसून घडये तिचीच वाट पळयताली. तिका रडपाक आयलें, नेटान रडपाक लागली. तिका रडटना आयकून आशी कुशीक बायलभुरगींय बी तिका पळोवंक लागीं आयलीं. आवयन म्हटलें, 'वगी जा पुता, आजून हांव जिती आसां. म्हाज्या मरणा उपरांत रड.' हें आयकून लक्ष्मी आनीक नेटान रडूंक लागली. आवयन आपली वेंग फांकारून आपले चलयेक वेंगेंत घेतली.

'हांव आतां वाचपाचीं ना. तुवें बरें केलें तूं हांगा आयलें. म्हाका इतलेंच खूब जालें.' अशें म्हणून जाणटे आवयन आपले चलयेकडेन पळयलें. 'हे तुवें तुजे कसले हाल करून घेतल्यात? सुकून बडी जाल्या सामकी, दोळे भीतर गेल्यात, मुखामळ काळें पडलां... कसलें काम आसता? मात्सी आपलीय काळजी घेवची. जांवयाची चीट बी आयिल्ली व्हय? ताका म्हणचे पिका वेळार जरूर घरा यो म्हूण. जनावरां चड आसात जाल्यार थोडीं उणी कर.'

आवयन चलयेक समजायली. दोगांय भितर गेलीं. भावज़ जेवण करताली. भाऊ कोणा वैजा कडल्यान आवयचें वखद हाडपाक गेल्लो. आवयन सांगले, 'खूब करता धर्मिया, खूब करता. खबर ना कितले वैज केले. पूण म्हज्या नशिबांत सुशेग ना, ना जाल्यार कितें तरी फायदो जावपाचो, दिसान दीस दुयेंस वाडत वता.'

आवयन आपले चलयेच्या तकलेवेल्यान आनी पोल्यांवेल्यान हात भोंवडायले. मागीर मुखामळ पळयलें, कितलें सुंदर दिसतालें तूं लक्ष्मी. तुजे येदे येदे हात, भरलेलें मुखामळ,

कितलें गोरेपीट्ट आसलें? कशें जालां तूं? हांगा बायल जातीक सुशेग ना, लग्ना उपरांत घरची जापसालदारकी कितली वाडटा. पुराय तीन वर्सां उपरांत दिश्टी पडटा.'

मागीर आवयन आपले सुनेक उलो मारलो. जेवण तयार आसलें. लक्ष्मीक जेवण घातलें. भावजयेक मेळ्ळी, मागीर एक फावट आशी कुशीक वचून आयली. आतां तिका परत वचपाचो हुसको जालो.

जेन्ना घरा आसली तेन्ना आवयची याद जाताली. हांगा येनाफुडें भुरग्यांची याद येता. कितें 'आवयो' आपल्या खातीर जगचनांत? लक्ष्मीचे आवयन तिच्या काळजांतलें वळखलें, तिणें सुनेक समजावन लक्ष्मीची पाठवण करपाक सांगलें, चल पुता चल, कळाव करूं नाका. थंय तुजीं भुरगीं बेजार जालीं आसतलीं!'

आवयूच आवयचें मन समजता, काळीज वळखता. घाय घाय करूनय वेळ जालोच. तिचे भावजयेन पोटलेंत पुरयो बांदून दिल्यो. कांय बटाटांचे कुडके दवरले. रातीकडेन पावतकूच कितें रानतली? ह्योच पुरयो खातलीं सगळीं! थोडे तांदूळ, पीठ, दाळ दवरली. लक्ष्मी नाका म्हणटाली. पूण भावजेन मानलें ना. आवनूय हट्ट केलो. पोटली बांदून आंगणांत दवरली. मागीर आवयन चलयेक तिळो लायलो. दोन-चार रुपया हातींत दवरले.

आवय व्हडा कश्टान आंगणांत आयली. लक्ष्मीक वयतना तेळून पळोवपाक लागली. तिचे दोळे पाणावले. एक हात वयर काडून हालयताली आनी एका हातीन पालवान दोळे पुसताली. अशीच परिस्थिती लक्ष्मीचीय बी जाल्ली.

लक्ष्मीचीं पावलां आपल्या घरावटेन धांवतालीं. चलतां चलतां ती थांबताली, पूण भुरग्यांची याद जातकूच काशेर विसरताली. तरीय पूण तिका खूब कळाव जाल्लो. आतां मेरेन अर्दी वाट सोंपल्या आसतली म्हटल्यार काळोख जावंक लागलो.

थंड हवेचो मार खायत एका सैनिकावरी मुखार वताली. दोंगराळ वाटेर पांयवाटेन तिचे पांय नेटार धांवताले. खंय पयस दोंगरार घरांनी दिवे दिसपाक लागले. सून्न वाठारांत सुकण्यांचे आवाज आयकूंक येताले, जीं आपल्या घरा परती वतालीं. तिका कसलोच भय दीस नासलो. कारण तिचीं भुरगीं तिची वाट पळयतालीं. तिका कशेयबशेन तांचे मेरेन पावपाचें आसलें. बेगी बेगीन नेटार पावलां मारीत ती आपल्या घरा लागीं पावली. तिच्या घरांतल्यान भुरग्यांचो आवाज येतालो. ती 'आई-आई' म्हणीत रडटालीं.

तिचे पांय कडकडूंक लागले. तोंड सुकलें. मात्शें चतरायेन आयकलें, तिगांय रडटालीं, थोडो धीर करून ती फुडें सरली, आंगणांत वचून तिणें उलो घालो.

'आई आयली, आई आयली' म्हणीत भुरगीं तिका बिलगलीं तिणें तिगांयचे उमे घेतले. जायते फावट तोंडावयल्यान हात भोंवडायले आनी विचारलें

'जेवण केलें?'

'हय' भुरग्यांनी सांगलें, मागीर तिणें आपलेकडली पोटली उगती केली. तातुंतल्यान पुरयो काडून तिगांयच्या फुड्यान दवरल्यो. दोगांय व्हडलीं भुरगीं पुरयो खावपाक लागलीं आनी ती ल्हान भुरग्याक वेंगेंत दूद दिवपाक लागली. एक भुरगें वेंगेंत आनी हेर दोगां आशी कुशीक तिका घट्ट धरून रावलीं.

लक्ष्मीक आतां सुशेग ना. तिणें जनावरांक चारो घालो, म्हशीचें दूद काडलें. जनावरांय बी तिका पळोवन हांबेवपाक लागलीं. तिणें जनावरांच्या फाटीवेल्यान हात भोंवडायलो. कुळाराच्यो पुरयो खावन न्हिदपाचो विचार करताली. तिका परतें आवयचें चितून आयलें. कितली अशक्त. जीव नाशिल्ल्या वरी जाल्या आवय. तिका हांगाय येवन येवंक शकना. ती आपल्या दादारूच जीव सोडटली. कितले धिटायेन परिस्थितीक फुडो केलो तिणें. फाल्यां हांवूय बी तिचेच बरी जाणटी जातली. जेन्ना म्हजी चली म्हाका पळोवपाक येतली, तेन्ना हांवूय तिका रोकडीच निरोप दितली, तिचींय भुरगीं तिची वाट पळयत आसतलीं.

**(दुर्गादत्त जोशी हांच्या हिंदी कथेचो उदय देशप्रभू हाणी केल्लो कोंकणीत अणकार.)**

•••

मालवणी



– शाम मोरे
मुंबय.

# उसात घुसलो कोलो!



*येक दिशी बबली ह्या उसाच्या शेताकडसून जायंत आस्तंना तिका सावतांचो चंदू काका नामदेवाच्या उसात शिरतंना दिस्लो. बबली एकदम सावध झाली. चंदू उसात कित्या गेलो ह्या समाजण्यासाठी तिना शेताभायर फिल्डिंगंच लावल्यान्. इतक्यात शेताच्या दुसऱ्या टोकाक् पालवांच्या कमळा उसात शिरतंना दिसला.*

**को**कणात, खासकरून तळकोकणात कमी पाणयावर येणारी सगळी पिकां घेवक् येतंत, पन उसाचे भानगडीत कोण पडंत नाय. कारण याक तर त्याका पाणी लंय लागता, आनी ता काय कोकणात गिमात नसता. म्हंजे पीवक् पाणी आस्ता, पन शेतीसाठी नाय. कारण कोकणात पाणी अडवणारी धरणा कोणी बांदलीच नाय. कोकणातले राजकारणी आपली 'संपत्तीची धरणा' भरूच्या मागे आस्तंत. त्यामुळा त्यांका पाणयाच्या धरणांची आटवण कित्या येतंली? फकस्त निवडणूक इली काय. ताँडान् ते व्हया थंय धराण् बांदतीत, नायतर हयलो डोंगर तडे करीन म्हणान् सांगतीत. पन निवडान् इले काय त्यांका आपून काय-काय बोल्ललांव् ह्या सुदा आठवत नस्ता. ऊस न घेण्या मागचा दुसरा कारण म्हंजे कोकणात नसलेले साकरेचे कारखाने नी नसलेलो सहकार! त्यामुळे कोणी काय येगळा करूचा ठरवलां तर त्येचो बोलाचालीपुरतो आस्लंलो सहकारसुदा थंयल्या थंय सपता. त्यामुळे उसासारक्या अडचणीत टाकणारा पीक घेवक् कोन तयार नस्ता.

पन जेवा सगळेच येका वाटेन् जावक् लागतंत, तॅवा येकादो तरी ती वाट बदलता असो आजपर्यातचो अनुभव आसा. आनी ही वाट नामदेव धारकरान् बदलल्यान्. दरवर्सा तीच तीच पिका घेवन् तो आनी तेची जमीनसुदा कंटाळली आसा असा त्यॅचा म्हणणा व्हता. त्यामुळा यंदा पावसाळो सपलो काय शेतात उसाचा पीक घेवचो निर्णय त्यॅना 'डिक्लर' केल्यान्. काय बी व्होवंदे, पन यंदा ऊस घेतलंयच असो त्यॅना इडोच उचलल्यान्. गाववाल्यानी त्यॅका येडच्यात काडल्यानी. ह्यो मेलो उसाक् पानी खंयचा देतलो म्हणानंय् गावकऱ्यांका परस्न पडलो. पन नामदेवान् त्येचो आदीच इचार केलंलो व्हतो. मोटार पंपान् व्हाळातला पानी वर उपसान् उसाक् देतलंय असा त्यॅना जाहीर करून टाकल्यान् नी लागलीच कामाकंय लाग्लो. व्हाळात पानयासाठी म्होटो खड्डो मारल्यान् नी झीलाक् मुंबैसून पाच हजार रुपाये पाटवूक सांगान् मोटार-पंपाची सुदा सोय करून ठेवल्यान्. गणू परबान् हालीच घेतलंल्या ट्रॅक्टरान् घराशेजारचा शॅत नांगरून घेतल्यान. ऊस कसो लावचो, त्यॅका खयचा खत घालायचा, पाणी किती येळा देवचा ह्येची सगळी म्हायती तालुक्याक् जाऊन घेवन् इलो. नी खरोखरच झपाट्यान् कामाक् लागलो. गाववाले येवन्-जावन् बांदावर उबे ऱ्हवान् नामदेव काय काय करतांहा ह्येची मजा बगीत व्हते. मायझयो आपल्या कर्मान मरतलो असो त्येंचो समज

हुतो. समज कित्या? खातरीच हुती. त्यामुळा मजा बगूक गावतंली म्हणान् सगळे गाववाले मनात गाजरा खायंत् हुते.

पन नामदेव गेली २५ वर्सां शेती करणारो हाडाचो शेतकरी. तो काय असो फसणारो? त्यॅना खूब म्हेनंत् करून, येळपरसंगी त्याच गाववाल्यांका, त्येंच्या बायका-पोरांका मजुरी देवन् शेतात येकदाचो ऊस लावल्यान नी ३-४ म्हयन्यात ऊस बळावलो सुदा. ऊस असो वाडलो की, त्यॅचा यॅक-यॅक कांड मनगटायेदा झाला. सगळा शॅत भनभनीत न्हिंबरात आसान सुदा हिरव्यागार झाला हुता. मदीच नामदेव तालुक्याक् जावन् कृषी अधिकाऱ्याक् भेटान् इलो. लॉकांका कित्या ता कळला नाय पन त्या दिसापासून नामदेव लय खूश हुतो.

गावचो जाणतो आबा गावकार म्हंजे म्होटो परिवारवालो इसम! आपणाक् पॉरा किती? ह्या सुदा त्यॅका आघाडी सरकारात घटक पक्ष किती ह्या म्हायंत् नसल्यासारख्या असायचा. त्यॅका पाच झील नी सात चेडवा हुती. त्याच्या भषेत तो 'छोटो परिवार, सुखी परिवार' हुतो. नसबंदी अधिकाऱ्यांका आबाचा घर कसा गावला नाय ह्येचीच चर्चा गांवभर आसायची. गावच्या खंयच्याय नाक्यावर नायतंर चौकात आबाचा यॅकतरी पॉर हजर आसायचाच.

त्यॅची सगळी पॉरा तशी रंगारूपान् बरी हुती. पन धाकटी लेक 'बबली' ही त्यातल्या त्यात बऱ्यापैकी डांबीस हुती. आंगान भरलंली, कॅस इस्काटलंली नी सतत बडबड करणारी ही लेक आबाची 'लाडकी' हुती. शेंडेफळ हुता तां! ही बबली गावात खंय काय चल्ललां आसा त्याच्यावर बारीक नदर ठेवन् आसायची. आय्कलंला सगळा गावभर करायची. नामदेव धारकराच्या उसाच्या फडाचोसुदा कस-कसो उपयोग व्हता ह्या सुदा बबलीच्या कानावर अदूनमदून येयं. पन मजबूत 'पुरावो' सापडंत नाय हुतो. गाववाल्यांमदेसुदा 'बबली' ह्या कामासाठी प्रसिध्द हुती.

येक दिशी बबली ह्या उसाच्या शेताकडसून जायंत आस्तंना तिका सावतांचो चंदू काका नामदेवाच्या उसात शिरतंना दिस्लो. बबली एकदम सावध झाली. चंदू उसात कित्या गेलो ह्या समाजण्यासाठी तिना शेताभायर फिल्डिंगंच लावल्यान्. इतक्यात शेताच्या दुसऱ्या टोकाक् पालवांच्या कमळा उसात शिरतंना दिसला. ह्या कमळा इधवा पन तरूण हुता. न्हवरो मरान् पाच वर्सा झाली हुती, आनी कमळ्याबद्दल काय बरा-वायट् लॉकांच्या कानावरसुदा पडा. बबलीक् ता म्हायत् हुता. त्यामुळा चंदू आनी कमळा ही दॉगाय्जाणा उसात गेली म्हंजे कायतरी 'गडबड' आसा ह्या लक्षात घेवन् बबलीन गावभर बॉब मारल्यान् नी अख्खो गाव त्या उसाच्या शेताभोवती गोळा झालो. नामदेव धरकार तालुक्याक् गेल्यामुळा गाववाल्यांचा फावला हुता. चंदू आनी कमळ्याची बातमी चघळता-चघळता गाववाले नामदेवाचो ऊस कडाकडा मोडून चघळूंक लागले. जसे काय ते आपला न आयकणाऱ्या नामदेवाकच् दाताखाली धरून रागान् चघळीत हुते. ह्या गर्दीत चंदूची बायको हातात भलोम्होटो दांडो घेवन् आपलो घोव नी ती 'बया' केवा भायंर येतंत् त्येची वाट बगीत उबी हुती. रागान् तिचो चेहरो लालेलाल झाल्लंलो. आपलो घोव रोज रातरी घराक् येयंत् नाय त्याचा ह्याच कारण आस्तंला असो तिना अंदाज बांदल्यान्. म्हणाली, ''तरी माका वाटलांच. माजो घोव सदानकदा माज्याबरोबर वाद कित्या घालता? बरा झाला बाय तू माका सांगलंस ता बबले. तुजे उपकार लय झाले.''

गावातल्या तरूण पोरा-पोरींनी शिवाय जाणत्या माणसांनीसुदा उसाच्या शेताक् वेढो दिल्यानी हुतो. वेगवेगळ्या अंदाजांका नुस्तो उत इलो हुतो. पवार मास्तर परशुराम सरपंचाकडे बोलत हुते, ''चंदू गावकराक् पाच पॉरा आस्तंना ह्या असला बरां दिस्ता काय?'' सरपंच बेरकीपणान हळूच म्हणालो, ''अवो मास्तरानु, ह्या असला सुचाक् काय वय आनी पॉरा आड येतंत काय? अवो आमीसुदा ह्याच्यात्सून गेलंव.''

तितक्यात ''अवो, पन मीया म्हणतंय, अशी सॉन्यासारकी बायको आस्तंना असा भायरच्या बाईच्या नादाक् लागना बरा दिसता काय? आपली पॉरा-टॉरा नीट सांबाळूची!'' सरपंचीन सुमतीबाय पचाकली.

इतक्यात रमलो नायक् जागो झालो. तो चंदूचो दोस्त. ''माका लय दीस डाऊट व्हतो. मीयासुदा त्यॅका येकदोनदा ह्या उसात जातंना बगलंलंय.'' रमल्यान पुडी सोडल्यान्.

एवढ्यात उसात खसखस आवाज होवक् लागलो. त्याबरोबर सगळा 'सैन्य' तयार झाला. चंदूच्या बायकोन् दांडो उगारून 'पोजीशन' घेतल्यान्. गावातलो येकमेव कॅमेऱ्यावालो मनू कांबळी कॅमेरो घेवन् 'लाईव' शॉट घेवक् तयार झालो. इतक्यात चंदू भायर इलो. बगता तर अख्खो गाव उसाच्या शेताभोवती गोळा झालंलो! त्याका काय समजंना. लॉक तर चंदू ''हडेसून इलो, तडेसून इलो'' म्हणान् बॉब मारूक् लागले. शेवटी सगळे त्याच्याभोवती त्याका घेरून उबे न्हवले. चंदू बुचकळ्यात पडान् म्हणालो, ''अरे, अख्खो गाव हंय उसात काय करतांहा? उसात कोलो-बिलो गेलो की काय?''

त्यॅना असा इचारताच त्येची बायको चंडीकेचो अवतार धारण करून संबूर इली नी म्हणाली, ''कोलो उसात गेलो हुतो तो ह्यो काय भायर इलो.'' तिका रडा कोसाळला. डोळे भरून फुडे म्हणाली, ''अवो मीया धडधाकट आस्तंना तुम्का ह्या उसात जावक् शोभता काय? उसात जावचा तुम्चा वय आसा काय? ती मेली बया खंय हा ती माका दाकवा. तिचा तंगडाच मोडून ठेवतंलंय.''

तेवढ्यात पवार मास्तर म्हणाले, ''वयनी जावंदे. चंदूचा चुकला. व्होता अशी चूक कदीतरी! पन आता मतर अशी चूक करू नुको. मी तुम्चे बायकोक् समजावतंय. पन परत त्या बयेच्या नादाक् लागा नुको.''

आता चंदू खवाळलो, नी म्होट्यान आरडान् म्हणालो, ''सगळे गप बसा! अरे काय बोलतास नी काय इचारतास ह्या तुम्का



समाजताहां काय? वगीच वडाची साल पिपळाक्? तुमी म्हणतास तसा काय नाया. आनी तुमी समाजतास तशी हंयसर कोन बया आसा ता सुदा माका म्हायंत नाया.''

तेवढ्यात रमलो नायक म्हणालो, ''मग तुया उसात काय करीत व्होतंस? आमी सुदा मराठी शनिमा बगतंवू. उसात कित्या जातंत ता आम्का म्हायत् नाय असा तुका वाटता की काय?'' चंदू परत रागावलो, ''मेल्या तु माजो दोस्त! तु सुदा असा बोल्तंस? चला सगळे आपापल्या घराक् नी तुसुदा चल गो. घराक् गेल्यावर बगतंय तुज्याकडे.'' चंदून बायकोक सुदा फैलावर घेतल्यान्.

सगळे गुमान् घराक् जावक् पाटी वळले, इतक्यात उसाच्या शेताच्या दुसऱ्या टोकाकडसून कमळा भायर पडला. त्यॅका बगता बगता परशुराम सरपंचाची टोपी खाली पडली नी पवार मास्तराचो चष्मो नाकाच्या खाली घसारलो. इतक्यात चंदूची बायको दांडो उगारून कमळ्याच्या पाटी लागली. सगळे आपल्याक् कित्या धरूक् बगतंत म्हणान् कमळा पळाक् लागला. त्याच्या पाटसून चंदूची बायको दांडो घेवन् धावाक् लागली, नी तिका आवरूसाठी अख्खो गाव तिच्या पाटसून धावाक् लागलो. बायकोक् 'कंट्रोल' करूसाठी चंदूसुदा धावाक् लागलो, आनी चंदू बायकोचा डॉक्या फोडीत ह्या भीतीन् पवार मास्तर चंदूच्या पाटी पळाक् लागले. आनी ह्या सगळ्याच्या कारण जा कमळा, त्यॅका अडवूक सरपंच फुडे धावले. गावची जणू काय 'मॅरॅथॉन' सुरू झाली.

शेवटी चंदूच्या बायकोन शॉर्टकट् मारून कमळ्याक् चौकात पकडल्यान्. ती त्याका मारतंली इतक्यात चंदू आडयो इलो. पाटोपाट सगळो गाव हजर झालो. आतापर्यात ह्या गोस्टीचो पत्तो नसलंले गावातले लॉकसुदा आरडाओरड आयकान् चौकात जमा झाले. हीऽऽ गर्दी जमली. कोन कोनाचा आयकना.

तेवढ्यात चंदू येका उचशा धोंड्यावर उबो ऱ्हवलो, नी दम घेवन् म्हणालो, ''थांबा, सगळे आयका. तुमी समाजतास तसा आमच्यात कायसुदा नाया. माका चार दिसापासून जुलाब होतंहत. पन आपल्या गावात नाय धड आडोसो नाय धड व्हाळाक् पानी. सगळ्या गावात लॉकांनी संडास बांदले. पन आपल्या गावात खियंत? मग आमच्यासारक्यान् जावचा खंय? म्हणान् मीया टमरेल घेवन् नाम्याच्या उसाच्या शतात गेलंय.'' पवार मास्तर म्हणाले, ''चंदू हळू बोल. तो नामदेव येयंत तर त्याच्या उसात घाण केलंस म्हणान् तुजा पयल्यांदा टाळक्या फोडीत.'' सगळे फिदीफीदी हसाक् लागले.

सरपंच म्हणालो, ''कमळ्या, तुया उसात काय करीत व्होतंस?'' कमळा भीयत् भीयत् म्हणाला, ''चार दिस झाले. माजे शेळये-बकरी उपाशी आसंत. गावात कोन गिमात कसला पीक घेयंत् नाय. त्यामुळा चारो मिळंत नाय. भुकेन् माजे शेळये रातरीचे आराडतंत. म्हणान् चारो हानुसाठी उसाच्या शेतात गेलं व्होतंय.''

सगळयांका दोगांचो 'जबाब' पटल्यामुळा मजा बगूक इलंले गाववाले हिरमुसले. सगळे हळुहळू घर जवळ करूक् लागले. इतक्यात कृषी अधिकाऱ्याच्या जीपमदून नामदेव थयसरंच उतारलो. नामदेवान् सगळ्यांका परत गोळा केल्यान. तो खूश दिसंत हुतो. इतक्यात कृषी अधिकारी म्हणाले, ''गाववाल्यानो शांत व्हा. तुमच्या गावचे प्रयोगशील शेतकरी श्री नामदेवराव धारकर यांनी आपल्या शेतांत प्रथमच उसाचे पीक घेऊन सर्व शेतकऱ्यांना आदर्श घालून दिला आहे. त्याबद्दल सरकारने त्यांचा आदर्श 'शेतकरी किताब' व रोख पाच हजार रुपये बक्षीस देऊन सत्कार करावयाचा ठरविला आहे. त्याबद्दल सर्व गावचे व गावकऱ्यांचे मी अभिनंदन करतो.'' नामदेवानंच फुडे होवन् टाळये वाजवल्यामुळा नायईलाजान् सगळ्यांनी टाळये वाजंवल्यानी. पन शेतात ऊस पिकवंता म्हणान् टिंगल करणाऱ्या गाववाल्यांवर आता नामदेवरावाक् उसाच्या पिकाबद्दल बक्षीस मिळाला म्हणान् रडाची पाळी इली त्येचा काय?

•••



– लिनॅट गोयस
केपें - गोंय.
फोन : २६६२२६७

# किरण



*पुराय घरान उज्याचो पेट घेतलो आनी हुनसाण आंगाक लागतकीच तांका जाग आयली. पूण भायर सरूंक तांकां वाट नाशिल्ली. त्या उज्याच्या भगभगांत तीं हुलपलीं. तांच्यो हुयेली आयकून शेजारचो दामूबाब जागो जालो.*

**जू**न म्हयनो. पावस निकतोच सुरू जाल्लो. शाळाय सुरू जाल्ल्यो. मुळावे शाळेंत, पयलेच्या वर्गांत, चडशीं नवीं भुरगीं प्रवेश घेतात. शाळा सुरू जावन एक आठवडो जाल्लो. पयलेचीं भुरगीं बांकार कशींच बसनाशिल्लीं. परत-परत उबीं रावतालीं आनी सुटयेंतल्यो गजाली एकमेकांक सांगपाक गुल्ल जातालीं. वर्गांतल्या चाळीस भुरग्यांमदीं एकटोच भुरगो आपल्या बांकार ओग्गी बसून आसतालो.

किरण, दिसपाक गोरोच, गुबगुबीत आनी पिंगशे केंस. पळोवंक खूबच सुंदर. शांतीचें प्रतीक. म्हजी नदर ताचेकडेन वळ्ळी. काळजांत उत्सुकताय निर्माण जाली ताचेविशीं जाणून घेवपाची. भुरगीं ताचेकडेन मिसळ जायनाशिल्लीं. कारण तो ओगीच बसतालो आनी वयान मात्सो व्हड आशिल्लो. किरणाक शाळेंत पावोवंक कोणूच येनाशिल्लो. तो दुसऱ्या भुरग्यांवांगडा बसीन येतालो आनी ह्याखातीर ताच्या आवयबापायची वळख आमकां नाशिल्ली.

एक दीस पयलेच्या भुरग्यांक भायर खेळपाक धाडून हांवें किरणाची वासपूस करपाचें थारायलें. संद मेळटांच हांवें भुरग्यांक भायर खेळूंक सांगलें आनी किरणाक मेजाकडेन आपोवन घेतलो. तो मातसो कांचवेलो. अकस्मात टिचरीन आपणाक भायर धाडिनासतना कित्याक आपयलो अशे नदरेन तो फुडें आयलो. हांवें ताच्या खांदार हात दवरून ताका बसपाक सांगलें. 'किरण' हांवें उलो करतांच ताणें दोळे वयर करून म्हाका पळयलें. "खंयच्यान येता तूं शाण्या?"

"आंबावली टिचर."

"घरांत कोण कोण आसात?"

"आजी आसा." म्हजेवेली नदर पयस करून ताणें जाप दिली. ताचे माणकुले दोळे भरून आयिल्ले. ताचीं तीं मोतयांसारकीं दुकां म्हज्या काळजाक चिरून गेलीं. हांव समजलें. किरण अनाथ. म्हज्यान आनीक फुडें वचूंक जायना जालें. तरीय मन घट्ट करून फुडें ताच्या आवयबापायविशीं विचारलें. बाबडो किरण, दुखी मनान दोळ्यांतलीं दुकां व्हांवयतालो. "शाण्या, सांग रे तुज्या आई-बाबाविशीं." वोंठ आवळून ताणें आपल्या फुटक्या नशिबाची काणी सांगूंक सुरू केली.

दिवाळेचो सण आशिल्लो. घर-घरांनी आकाशदिवे लायिल्ले. आमचें घर सामकें ल्हान. चुडटांनी बांदिल्लें. आमकां आकाशदिवो लावंक शक्य नाशिल्लें. आमी मातयेच्यो पणट्यो आमच्या ल्हानशा बल्कावांत पेटोवन दवरिल्ल्यो. दिवाळे दिसा, न्हावन-करून काट्टें खालें आनी मागीर देवळांत वचून येवन आमी तिगूय जाणांनी तोंड गोड करपाक फोव खाले. आई-बाबा त्या दिसा कामाक वचनासतना म्हज्या सांगाताक दिवाळी मनोवंक घरा राविल्लीं. सांजचीं आमी मामागेर गेलीं, दिवाळेचीं परबीं दिवंक. कांय वेळ सारून घरा परतपाक भायर सरलीं. पूण वरूण, म्हज्या मामाचो चलो, हट्ट करूंक लागलो, म्हाका दवर म्हूण. कसोच आयकना जालो. म्हज्या आई-बाबाक ताची काकुळट दिसली. आनी ताणी म्हाका रावंक सांगलें. नाखुशेन आनी नाईलाजान म्हाका आई-बाबाक सोडून रावचें पडलें. आई-बाबाचे यादीन म्हाका न्हीद येनाशिल्ली. आजयेन म्हाका आपले वेंगेंत घेतलो आनी हांव सुस्त न्हिदलों.

आई-बाबा जेवण जेवन न्हिदूंक गेल्लीं. दिवाळेराती घरांत काळोख आसचो न्हय म्हण पणट्यांत आनीक तेल रकोवन, त्यो जळटात अशी

खात्री करून तीं सुस्तावलीं. आदले राती नरकासूर-स्पर्धा पळोवंक गेल्ल्यान रातची न्हीद कमी जाल्ली. आई-बाबाक गाढ न्हीद लागिल्ली. दुर्दैवान पणटी ओमथी पडली आनी घराच्या चुडटांनी उजो घेतलो. आई-बाबाक हाची मातसुध्दां जाणीव जाली ना. पुराय घरान उज्याचो पेट घेतलो आनी हुनसाण आंगाक लागतकीच तांका जाग आयली. पूण भायर सरूंक तांकां वाट नाशिल्ली. त्या उज्याच्या भगभगांत तीं हुलपलीं. तांच्यो हुयेली आयकून शेजारचो दामूबाब जागो जालो. ताणें हेरांकय जागयलीं. कोणाच्यान कांयच करूंक जालें ना. तांच्या नदरे मुखार घर जळून गोबर जाल्लो. म्हज्या आई-बाबाची कूड उज्यांत हुलपून काबार जाल्ली.

म्हाका जेन्ना ही खबर कळ्ळी, म्हज्या काळजाक धक्कोच बसलो. हांव वरूणाचेर चाळवलों. ताणें म्हाका दवरूंक नाशिल्लो जाल्यार हांवूय म्हज्या आई-बाबावांगडा देवा-घरा आसतलों आशिल्लों. ''म्हाका आई जाय, म्हाका आई-बाबाकडेन पावयात'' हांव हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडटालों. पूण कोणूच म्हजें आयकनाशिल्लो. निमणें दामूकाकान म्हाका आपल्या घरांत व्हरून बसयलो आनी म्हाका समजावंक लागलो. मामा आनी आजी खूब दुखी जाल्लीं. आपल्याक दोश दितालीं. मामान आजेक आनी म्हाका एक ल्हानशें घर घेवन दिलें आनी म्हजें जिवीत आजेवांगडा जुळ्ळें. आजी म्हजो खूब मोग आनी अपुर्बाय करता.

आमच्या आमदारान घर जळिल्ल्याखातीर सरकाराकडेन अर्ज करून आमकां पयशांचो आदार मागलो. सरकाराकडसून मेळिल्ल्या मदतीचेर आमी घर चलयतात. म्हाका आई-बाबांची खूब याद येता. कित्याक गेलीं तीं म्हाका सोडून? म्हाका तीं जाय हें कशें कळ्ळें ना तांकां? देवबाप्पाकय कशें समजलें ना?'' किरण हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडटालो. म्हज्याय काळजाची झर फुटली आनी हांव ताका घट्ट वेंगेंत धरून खूब रडलें. इतल्या ल्हान वयांत ताका आवय-बापायची वेंग सोडची पडिल्ली. हांव आतां किरणाची चड अपुर्बाय करतालें. वर्गांत आई-बाबाविशीं कितेंय सांगपाचें आसल्यार जतनायेन उलयतालें.

ह्या शालेय-वर्साची पयली परिक्षा जाल्ली. सगळ्या भुरग्यांक प्रगतीपुस्तक व्हरपाक आवय वा बापायक घेवन येवंक सांगिल्लें. शेनवारा दिसा 'ओपन डे' आशिल्लो. वर्गांतल्या सगळ्या भुरग्यांलीं प्रगतीपुस्तकां व्हरपाक तांचे तांचे आई-बाबा आयिल्लीं. दनपारचें एक वर मेरेन सगळ्या भुरग्यांनी प्रगती पुस्तकां व्हेलीं. निमाणें एकच प्रगतीपुस्तक उरिल्लें. पालकांकडेन भुरग्यांल्या प्रगतीवयर उलोवपांत वेळ कसो गेलो हें म्हाका कळ्ळेंच ना. निमाणें प्रगती पुस्तक पळोवन म्हाका किरण आयलोच ना हें कळ्ळें. हांव चितूंक लागलें. कित्याक आयलो ना किरण? शाळा सुटपाची घांट वाजली आनी म्हजी तंद्री तुटली. मेजावेलें प्रगती पुस्तक पळोवन मन खंती जालें.

•••



– इंदू अशोक गेरसप्पे
बंगळुरू

## ।। अस्मि ।।

जन्माआदीं सजीव हांव
मृत्युमागिर जिवंत हांव
सनातन सचेतन
उर्झेकण हांव
ना उगम ना अस्त
म्हजो मोग
अणूरेणूंत व्यस्त
हांव जिवंत सृश्टीस्पंदनांत
हांव जिवंत ऋतुरंगांत
हांव जिवंत राती दिसांत
म्हजो मंद श्वास
संथ हवे ल्हारेंत
म्हजी दृश्टी असीम धारेंत
म्हज्या सपनां शिंवर
आसमंती नखेत्रांत
म्हज्या उमेदी झळ
रोपांच्या जिवनरसांत
उदेंती सूर्योदयांत म्हजी आस
अस्तंती सूर्यास्तांत म्हजें समादान
सोनचांफ्या परमळ हांव
रानरूखा सळसळ हांव
वझऱ्या निरंतर झुळझुळ हांव
मोरपाखा झिळमिळ हांव
कळयेकळयेंत लिपलेलो हावेस
फळाफळांत साकार हांव
समिंदरा अखंड गाज
सूर्या ऊब उर्जा
चंद्रा शितळ पर्जळ
हांव ह्या सर्वांचें मायासोपन
जीणे उपरांत मरण
प्राण पंचतत्त्वांत विलीन
मरणा उपरांत जीवन
परत जिवंत जीण
आदि अनादि अनंत
अशा परमेशा अंश हांव
अस्मि अस्मि अस्मि ।।

## ।। क्षणू ।।

हो क्षणू
चैतन्य अणू
काळ व्हांवता
वेळ धांवता
कणाकणाने
क्षणाक्षणाने
एक कणू
हो क्षणू
बहुमोलाचो
गेल्लो क्षणू
परत मेळना
आयुश्याचें गणित
एक क्षण चड ना
एक क्षण उणे ना
तळहातावैलो क्षण
हें तुजेंच धन
कोणाकय व्होरूं जायना
चोरूं जायना
तुज्याच हातीं आसा
तुजें भूतभविश्य
आनी वर्तमान
हो क्षणू
अमृतकणू
होच सोनसुवाळो
होच शुभमुहुर्त
चैतन्य अणू
हो क्षणू

## कित्याक?

इतले रूख कित्यांक
कापून काडीत आसा?
आयकूं पडना तुका रुखांलो आक्रोश?
तांगेल्यो मूक किंळच्यो?
कोरूं जायना उदरगत
रूख मारीनासतना?
कितले दीस आयकतां
तो क्रूर कर्कश खरगसा घरघर
ते निश्ठूर कुऱ्हाडी घाव
तो धप्पकन् पडलेलो आवाज
ती पाचवी पानां असहाय सळळ्सळळ्
ते घायाळ हुंडके
धरती उदक वत वाऱ्याचें
इतले वर्सां उत्पन्न
दोन घडियांत भूंय भरवण
वाट कोरूंक
मनशाले प्रगतीक
कितले दीस
हांव दोळे चुकोवन घेतां
रस्त्या बगलांक रूखा थोटुकां
रगताळलेले अवयवशे
कितले दीस अशें चलतलें?
रूखांर घाय घालघालून
नाश जातली सृश्टीसंपदा
दाट जातली हवा धुळीधुंवरीने
वातावरण धगधगतलें
उदक विशाळतलें
धरती कातखवळी निखळतली
मागिर तूं.........
श्वास घेवंक धडपडतलो, तळमळतलो
कसो तूं इतलो निश्ठूर रे
कसो तूं इतलो मूर्ख
उदरगती नांवाने
पायांर कुऱ्हाड मारून घेता
स्वत:लो सर्वनाश कोरून घेता
कित्याक?

## ।। कवन ।।

कवन
ही जिणेची भास
एक विश्वास एक उस्वास
एक निरंजनी आस
कवन
एक काळजांतली कळ
एक अनावर उमाळो
आयुश्याच्या मंथनांतल्यान
खवळून खुबळून आयिल्लें उतर
कवन
मनमळबांत मोखिल्लो
एक स्वच्छंद आलाप
एक स्वैर गरूडझेप
कवन
एक कला एक कल्पना
नक्षिदार रेखिल्ली रंगरांगोळी
कवितेचें साम्राज्यच न्यारें
ना सीमा ना बंधन
थंय तिचेंच राज्य
तिचेच नियम
कवन
एक संदेश एक उपदेश
जगाक कितेंयतरी सांगची इत्सा
हांव उरो नुरो
उरतलें हें एक चिन्न
दर्यादिगेर हें पावलखूण
उरतलें हें उतर हें अक्षर
एक सय
हें कवन

# काव्योत्सवांतलो कवी परेश कामत हांच्यो पांच कविता.

**- एस्. डी. तेंडुलकार**

बाब परेश कामत हो कोंकणींतलो एक 'गंभीर' कवी असो म्हजो समज आसा. 'अळंग' 'गर्भखोल' आनी 'शुभंकर' हे तांचे कविताझेले वाचून तांच्या कवितेची जातकुळी बरीच नाजूक आनी मुलायम आसा असोय म्हजो समज आसा. पूण हालिंच्यो तांच्यो कांय कविता ह्या म्हज्या समजाक तडो दितात. 'बिम्ब' च्या मे २०१० 'काव्योत्सवांत छापून आयिल्ल्यो तांच्यो पांच कविता वाचून तर हांव बरोच संभ्रमांत पडलां. कारण नाजूक कालेतीचो हो कवी आतां-

**घोडे येतात हुबयत धुल्ल**
**चडटात घोडयांचेर**

-असल्यो 'चडपाच्यो' बीन कविता बरोवंक लागला. (पूण हांतल्या पॉजिटीव्ह बाजुचेर हांवें फुडें बरयलां) तशेंच 'उजवाडाचीं पावलां' मारपी हो कवी आतां-

**काळोख**
**भरिल्लो आसता जिणेंत**
**गच्च, भरगच्च**
**वयर सावन सकयल मेरेन**

- असल्यो काळखाच्यो झरिल्ल्यो वळी बरोवंक लागला. सुचकतायेक म्हत्व दिवपी हो कवी आतां कवितेंत-

**हांव हांगा मोन्यानी बसलां**
**....हांव उलोवन उलोवन थकलां**
**देखून मोन्यानी बसलां**

- असली पाल्हाळीक रिजनिंग दिवंक लागला. सोप्यो कविता बरोवंक लागला.

तांच्यो पांचांतल्यो 'घाल वेंग उज्याक' आनी 'आवाजाचो कोरनो' ह्यो दोन कविता तर ह्या सोपेपणाचेंच बरें उदाहरण आसा. ह्या सोंपेपणांतल्यानूच कवी-

**उजो जाय जिणेंत**
**घाल वेंग उज्याक**
**आनी**
**जिये उज्याचें जिवीत**

- असल्यो उथळ वळी बरोवन वता.ह्या वळींक हांव उथळ कित्याक म्हणटां? कारण जिणेंत उजो जाय जाल्यार उज्याक वेंग मारून उज्याचें जिवीत जगप हातूंत म्हाका उथळ रोमँटिसिझम दिसता. एक म्हळ्यार उज्याचें जिवीत उजोच जगूंक शकता, मनीस न्हय. फकत मनशाक जाय आसता ती उज्याची धग. जर तो स्वताच उजो जालो जाल्यार फुडें तो जगुंकूच पावचो ना. आपल्यासकट सगल्यांचोच तो गोबोर करून उडयतलो. म्हणुनूच म्हाका असल्या वोळींत कवीची मॅच्युरिटी दिसना. उलट तांच्या 'शुभंकर' ह्या झेल्यांत 'उज्यावरी फुलूं' ह्या नांवाची कविता आसा तातूंत कवी कितलो खोलायेन उलयता तें पळयात:

**येव दी जिवीताक**
**इंगळ्याचें रूप**
**धगधगूं स्वरूप**
**उमाळ्यांचें**

**जें जें उखलापें**
**तें उज्यांत जळूं**
**उज्यावरी फुलूं**
**काळीज हें**

-ह्या वोळींत कवी 'उजो' आनी 'उज्यासारकी गजाल' हातूंत फरक दाखयता आनी आपल्या कवितेंतल्या आशयाची रसिकांक खोलायेन धग दिवन वता. उलट ही खोलाय, मॅच्युरिटी तांच्या 'घाल वेंग उज्याक' हे कवितेक येना. थंय कवीन आपलो अणभव सोप्पो करून उडयला.

'आवाजाचो कोरनो' हिवूय अशीच सोपी आनी सपाट कविता. हांगा कवी गद्यांतल्या सारकी अणभवाची एक कारणामिमांसा दिवंक सोदता म्हणून कवितेक काव्याचें परिमाण लाभना. तो सगलो अणभव गद्य पातळीरूच उरता.

खरें म्हळ्यार कवितेंत कवीन थेट आपल्यो संवेदनाच मांडीत जाल्यार ताका अणभवाची आनीक वेगळी तार्कीक कारणमिमांसा करचीच पडना. संवेदना मांडपाच्या इंटेंसिटीतल्यानूच अनेक गजाली आपसूक कवितेंत व्यक्त जातात. म्हणुनूच-

**हांव उलोवन उलोवन थकलां**
**देखून मोन्यांनी बसलां**

- असली 'गद्यात्मक' कारणां दिवपाची कवीक गरज पडना. मागीर

कवितेंतलीं पात्रां 'दोळ्यांतल्या दोळ्यांनी' उलयलीं म्हणुनूय व्हडलो फरक पडना:

**बस म्हज्या म्हऱ्यांत मोन्यांनी**
**उलय, दोळ्यांतल्या दोळ्यांनी**

- असो निमणो 'टिपिकल पोएटीक टच' दिवपाचो कवी यत्न करता पूण तो फसला. कारण 'उलोवण्याक ना कसलोच अर्थ-हो खरो म्हळ्यार ह्या कवितेचो विशय, पूण तो वर्णनात्मक पद्धतीन मांडिल्ल्यान हांगा आशयाचें सृजनशील संघटन जाल्लें दिसना.

आतां उरिल्ल्या तांच्या तीन कवितांकडे आमी वळुया. सुर्वेक 'तू जंय उबें' ही कविता पळोवया:

**तूं जंय उबें आसा**
**थंय हांवूय उबो आसां**
**तुका वेंगून**
**आनी तूं वेंगून आसा**
**झाडाक**
**जें तुज्या वेंगेंत येना**
**आनी**
**झाडाच्या वेंगेंत येना**
**शेवणी**
**जांच्या मळब वेंगेंत येना...**

-ही खरें म्हळ्यार कवितेसारकी दिसपी कविता. सहज एक चाळो म्हणून एका उतरांतल्यान दुसरें उतर भायर पडत ही कविता आकार घेता. पूण तातुंतल्यान एक पूर्ण काव्याणभव उबो जाला अशें दिसना. 'हांव-तूं' हांच्या मदलो संबंदूय कवीन निमणो नीट प्रस्थापित करूंक ना. त्याखातीर ही कविता अर्दकुटीच उरिल्ल्या सारकी भासता.

'कांय ओळी' हिवूय अशीच सहज चाळो म्हणून बरयिल्ली कविता दिसता. हातूंत कवी 'कांय ओळी मारल्यो' अशें म्हणटा. पूण त्यो कसल्यो ओळी? कवितेच्यो काय आनी कसल्यो हें थंय सुचीत जावंक जाय आशिल्लें. पूण तें जायना. कारण हांगा कवी 'शेंटार मारिल्ल्याच्या पोर्जीत'- 'कांय ओळी मारल्यो' अशें म्हणटा:

**कांय ओळी मारल्यो**
**कांय वयर**
**कांय सकयल**

- अशी ओळींची 'फेकाफेक' कवी कित्याखातीर करता काय? कारण फुडें तोच म्हणटा की:

**आता**
**झकयल-वयर अशें कांय ना**

आनी निमणो तोच म्हणटा की:

**कांय ओळी मारल्योच ना**
**वयरय ना**
**सकयलूय ना!**

कवीची ही 'फेकाफेक' म्हाका तरी कळूंक ना. कवी कवितेंत कितें नवो प्रयोग करूंक सोदता अशेंय दिसना. कवितेंत उतरांच्या कसरती परस शब्दसंवेदन म्हत्वाचें आसता हें हांवें बाब परेश कामती सारख्या कवीक सांगपाची गरज पडूंक फावना.

ह्या चारूय कवितांत जें ना, तें सगलें तांचे जे एकेच कवितेंत एकवटलां ती कविता म्हळ्यार-'कांय होडयो उदकांत'. परेश कामतीची ही एक बरी कविता. 'संभोगाचो सप्नसदृश्य अणभव' अशें हे कवितेचें वर्णन करूं येता. ते नदरेक ही सबंद कविताच पळोवया:

**कांय होडयो उदकांत**
**काळ्यो किट्ट**

**कांय घोडयो जमनीर**
**धव्यो फुल्ल**

**होडयेंत बसलां तूं आनी हांव**
**आनी आमी पळेतात**
**घोड्यांक**

**आनी**
**घोडयो पळेतात घोड्यांक**
**आनी**
**घोडे येतात हुबयत धुल्ल**
**चडटात घोडयांचेर**

**होडयोय हालतात**
**हालता तूं आनी हालतां हांव**
**आनी हालता उदक कायचे काय!**

- हातूंत होडयो, घोडयो, घोडे, हांव, तूं आनी उदक ह्यो सगल्यो गजाली सप्नसदृश्य पद्धतीन कवीन हांगा मांडिल्ल्यो आसात. होडयो, घोडे ह्यो लैंगिकतेच्यो पारंपारीक प्रतिमा आसल्यो तरी त्यो लैंगिकतेचें सूचन कवितेंत सशक्तपणान नवे आयाम, नवी परिमाणां मांडीत करतात. कवितेच्या सुरवातीकूच काळो आनी धवो, उदक आनी जमीन,निर्जीव होडयो आनी सजीव घोडयो हांच्या मदलो कॉंट्रास्ट चित्रित करून कवी Opposite poles attracts each other अशी संभोगाची पूर्वतयारी करून दवरता. देखीक,

**कांय**
**होडयो उदकांत**
**काळ्यो किट्ट**

**कांय**
**घोडयो जमनीर**
**धव्योफुल्ल**

-हातुंतलो कॉंट्रास्ट पळयात. हो कॉंट्रास्ट रसिकांक फुडें होडयेंत बशिल्ल्या जोडप्याकडे ('हांव-तूं' कडे)व्हरता. इतलो वेळ हे कवितेंत घोडे नाशिल्ले. पूण त्या जोडप्याच्या नदरेंतल्यान रसिक ते घोडे येताना

पळयतात:

**होडयेंत बसलां तूं आनी हांव**
**आनी आमी पळयतात**
**घोड्यांक**

–म्हळ्यार घोड्याच्या रूपांत तें जोडपें आपले भितल्ली संभोगाची वासनाच पळेतात. आनी Animal instinct चो एक भाग जावन तें जोडपें ताच्या फुडलें आनीक एक दृश्य पळयता. त्या जोडप्याची वासना चाळोवपीच हें दृश्य:

**घोडयो पळेतात घोड्यांक**
**आनी**
**घोडे येतात हुबयत धुल्ल**
**चडटात घोडयांचेर**

–हांगा घोडे आनी घोडयांचो समुह–संभोग चालू आसतना कवीचो कॅमेरा आमकां होडयेंतल्या त्या मानवी जोडप्याच्या संभोगाकडे व्हरता:

**होडयोय हालतात**
**हालता तूं आनी हालता हांव**
**आनी हालता उदक कायचे काय!**

–हो हालपाचो प्रोसेस संभोगक्रियेंतल्यान आयला. हांगा हालपाची क्रिया म्हळ्यार संभोगाची क्रिया. जनावराची, मनशांची, वस्तुंची (म्हळ्यार होडयांची) आनी निसर्गाच्या रूपाची (म्हळयार उदकाची) अशी सर्वव्यापी आसा. हें अख्खें जग संभोगांतल्यानूच निर्माण जालां हाची गवाय दिवपी अणभव हे कवितेंत ताकदीन व्यक्त जाला. सुर्वेक हातुंतलें 'चडटात' हें उतर 'ग्राम्य' दिसलें तरीय तें घोडयांच्या संभोगांतलो अग्रेसिव्हनेस व्यक्त करता. हें उतर सुटें वाचीत जाल्यार कानाक खटकता पूण एकूण कवितेच्या अणभवाकडे हें उतर फिट्ट बसलां हें म्हत्वाचें. खरें म्हळ्यार असलीं उतरां बरोवपाचो परेशाचो पिंड न्हय. (हें हांवें सुर्वेक म्हळांच) पूण ह्या अणभवाकडें तें उतर सूट जाता हें मुद्दम सांगिनशें दिसता.

परेशाची कविता हालीं मातशी आपली कूस परतिताना दिसता पूण ताणें आपल्या पिंडाभायली कविता बरोवची न्हय अशें म्हाका दिसता. कवितेंत कवीचो ग्रेथ आसचोच पूण आपलें स्वत्व, पिंड व्हगडावन न्हय. कारण वाड ह्या गजाली बरोबरच कवितेंत खोलाय लेगीत म्हत्वाची आसता आनी ती खोलाय आपलें स्वत्व जपल्याबगर कशीच येवची ना. म्हणून म्हाका हांगा म्हणिनशें दिसता की परशाच्या कवितेची वाड चालू आसा पूण एखादीच तांची 'कांय होडयो उदकांत' सारकी कविता ती खोलाय दाखयता.

आतां ही खोलाय येवपाखातीर मोट-मोट्या चमकदार प्रतिमांचो दाळ मांडपाचीय गरज ना. अणभवाचें सच्चेपण आसल्यार साद्या-साद्या उतरांतल्यानूय ही खोलाय येवं येता. ते नदरेन 'कांय होडयो उदकांत' हे कवितेंतली निमणी वळ पळयात:

**'आनी हालता उदक कायचे काय'**

– ही दिसपाक एकदम सादी वळ दिसता. पूण तांतूत सैमाचो संभोग एकवटला. 'कायचे काय' हीं उतरां लेगीत अशींच सादीं पूण कवितेंत एकदम सूचक दिसतात. संभोगातले नखरे, झटके, विदुषकी चाळे अश्यो बऱ्योच गजाली तातुंतल्यान व्यक्त जाल्ल्यावरी दिसतात.

जावं, बाब परेश कामतीची पाचांतली एक तरी बरी कविता वाचपाक मेळळी हाचें म्हाका समाधान दिसता.

•••

दिका



– विन्सी क्वाड्रूस
'स्नोज कृपा', आर्लेम राय,
सालसेत–गोंय
मो. 9822587498

# सोरे



*आनी म्हाका जिपींत बसयलो. म्हज्या घराकडेन एकाद दिवपाची विनंती केली, तुमी बराबर येयात म्हण सांगलें. कशेच आयकपाक तयार नात. निमणें एकल्यान म्हजी स्कुटर हाडली आनी म्हाका हांगा हाडून रातभर बसोवन दवरलो. घराकडेन एकाद दिवपाक फोनय करपाक दिना जाले आनी हांगा कोण वळखीचोय मेळूंक ना.*

**पी**टर जेवन खावन न्हिदपाची तयारी करतालो. ताची घरकान्न रांदचे कुडींत आयदनां साफ करताली. इतल्यांत पीटराचो बापुलभाव इजीदोर ताच्या घराकडेन आयलो. ताचो चेडो दुयेंत जाल्लो आनी ताका दोतोरागेर व्हरपाखातीर इजीदोर पीटराक व्हरपाक आयिल्लो.

पीटर हो ताचो बापूलभाव म्हण न्हय. तर तो सगळ्यांक पावपी. खंयच्याय वेळार दारार मारल्यार दार काडपी आनी खंयसरूय वचपाक तयार जावपी. रातचीं धा वरां जावन गेल्लीं. पीटरान आपणाले घरकान्नीक सांगलें आनी दोतोर सुर्लकाराकडेन ताका हाडटां म्हण सांगून तो भायर सरलो.

दार बेटेंच आड करून घरकान्न आपलें काम सोपतकच न्हिदपाक गेली. भुरगीं बेगीनच न्हिदिल्लीं.

रातचे मध्यानीर तिका अकस्मात जाग आयली. तिणें कडेक हात भोंवडायलो. पीटर अजूनय येवंक नासलो. 'इजीदोराचो चेडो चडूच बरो ना काय?' तिच्या मनांत बेटोच प्रस्न उप्रासलो. ती उठली आनी इजीदोराल्या घराकडेन फोन लायलो. इजीदोराल्या घरकान्नीन फोन घेतलो. तिणें खबर दिली की चेड्याक दोतोरागेर थावन हाडला आनी तो आता बरो आसा. दोतोरान आपल्या घराकडलीं वखदां दिल्यांत आनी सकाळी परतून येवंक सांगलां. इजीदोरय येवन न्हिदला म्हण्टांच तिका भिरांत दिसली. 'मागीर पीटर खंय पावलो?' येद्या वेळार कोणय मेळ्ळो आनीक कितेंय घेवंक बसलो काय? ताका संवय आसा घेवपाची. तिणें आपणाचेंच समाधान करून घेतलें. पूण तिचें मन मानपाक तयार नासलें. तिणें सगळ्यांक उठयलीं.

'हो सोरोच सगळें वाट लायता. कितले फावट सांगता ताका रातचो भायर सोडिनाका म्हण. कोण ना कोण मेळटाच ताका. पाड पडिल्लें सरकार हें, सोरो पिवप्यांचेर कारवाय करता पूण सोऱ्याचेर कारवाय करिना.' पीटराल्या बापायन सगळ्यांक गाळयो मारपाक सुरवात केली. पीटराचो भाव स्कुटर घेवन पळोवन येता म्हण सांगून भायर सरलो.

''ह्या दिसांनी तो आदले भशेन सोरो पियेना. पयर डायबॅटीस मेळत थावन ताणें सोरो पिवपाचो बरोच कमी केला.'' पीटराचे घरकान्नीन ताच्या बापायक सांगलें.

अर्दवर सगळो वाठार भोवन भाव परतून आयलो. ताका पीटर मेळ्ळो ना. ना म्हण ताची खबरूय मेळ्ळी ना. जाय तेन्नां येवंदी म्हण सगळीं न्हिदपाक गेलीं.

सकाळपसून पीटर आयलोच ना. 'आता कितें करपाचें?' सगळ्यांमुखार प्रस्न उबो रावलो. भावान आमदाराक फोन लायलो. पीटराची खबर आयकून तो बाबडो धांवून धांवून तांच्या घराकडेन आयलो. पीटराची खबर आयकून ताका खूब दुखख जालें. ताची

आमदाराकडेन बरीच वळख आसली. देखून तो पीटराचे घरकान्नीक आनी पीटराच्या भावाक घेवन सोमतो आमदाराच्या घराकडेन गेलो.

आमदार घराकडेन आशिल्लो. पीटराची खबर आयकतच ताणें पुलीस चौकेर फोन लायलो. पुलीसांनी ताका सांगलें कोण एकलो आमच्या मनशांकडेन चड उलयतालो देखून ताका धरून हाडला. तो तुमचोच जाल्यार पळयात. आमदार तांका सगळ्यांक घेवन पुलीस चौकेर गेलो. पळयल्यार खऱ्यांनीच पीटर पुलीस चौकेर आसा एका कदेलार बसून. आमदार पुलीस अधिक्षकाक मेळपाक गेलो. तो तेन्नाच ड्युटेक आयिल्लो. अधिक्षकान पीटराक आपणाफुड्यांत हाडपाक सांगलें.

''ताका कित्याक धरून हाडलो तुमी रातचो?'' अधिक्षकान लागू जातल्या हवालदाराक विचारलें.

''सायब, रातचो वेळ म्हण आमी ताका वोगीच चौकशेखातीर आडायल्लो. तो आमकां शेपोतां सांगूंक लागलो. इतलेंच न्हय तर तो सोरो पियेल्लो आशिल्लो.'' हवालदारान म्हायती दिली.

''हो सांगता तें सारकें आसा रे?'' ताणें पीटराक विचारलें.

''सर, म्हज्या बापूल भावाच्या चेड्याक दोतोरागेर व्हरून हाडिल्लो. ताका पावोवन हांव म्हज्या घरा परततालों. रातचीं सुमार अकरा वरां जाल्लीं आसतलीं. हांव म्हजे स्कुटरीचेर आसतना हाणीं म्हाका आडायलो. म्हजे कडेन लायसन्स मागलें. दोतोरागेर वतना लायसन्स घेवपाक याद जाता? स्कुटराचे डॉकुमॅन्ट दाखय म्हणलें. हांवें तांका सत परिस्थिती सांगली. ते म्हजें आयकुपाक तयार नासले. मागीर म्हणूंक लागले तूं सोरो पियेल्लो आसा. हांवें तांका सांगलें 'सर, जेवचे पयलीं एक ग्लास बीयर मारिल्ली हें खरें' तो म्हाका तालांव दिवंक लागलो. हांव वोगी रावलों. दुसरो कोण तरी आयलो आनी सांगूंक लागलो लायसन्स ना, डॉकुमॅन्ट नांत, स्कूटर भितर उडय. हांवें तांका विचारलें. स्कूटर भीतर उडयल्यार हांव घरा कसो वतलों? कित्याक म्हण तुमी सतयतात? गोंयकारांची ही परिस्थिती जाल्यार भायल्या लोकांची कितें परिस्थिती जातली?'' हाचेर सगळेच चाळवले आनी आपले भीतर कितें तरी उलयले आनी म्हाका जिपींत बसयलो. म्हज्या घराकडेन रकाद दिवपाची विनंती केली, तुमी बराबर येयात म्हण सांगलें. कशेच आयकपाक तयार नात. निमणें एकल्यान म्हजी स्कुटर हाडली आनी म्हाका हांगा हाडून रातभर बसोवन दवरलो. घराकडेन रकाद दिवपाक फोनय करपाक दिना जाले आनी हांगा कोण वळखीचोय मेळूंक ना.'' पीटरान रातचें पुराय वर्णन केलें आनी अधिक्षकाक कांय प्रस्न केले ''सर हांगा मनीसपण दिसता? ह्या तुमच्या मनशांक बायल भुरगीं आसात? ताचेर कसलो आकांत आयलो आसतलो रातभर हें ताणीं येवजिलें? गरिबांच्या दुडवां कुस्तार सरकार आनी सरकाराचे मनीस वयर सरूंक सोदतात काय कितें?''

''शट अप. चड उलयता तूं.'' अधिक्षक तापलो.

''सर,'' देरांत रावन आयकुपी एका पत्रकारान जाप घाली ''ताणीं जें उलयलां तें तुमकां कित्याक दुखलें? रातच्या वेळार तुमचे कांय मनीस लोकांक कशे सतयतात तें आमच्या दोळ्यांनी आमी पळयलां.'' ताणें शांतपणीं सांगलें.

''हांवेय जायतें आयकल्लें पूण आतां इतलो गंभीर प्रसंग घडलो म्हण सांगतां'' आमदारान जाप घाली ''तुमचे मनीस सोऱ्याचीं बारां आसात थंय सोरो पीवन वाहन चलयतल्यांची झडटी घेतात, तांची तपासणी करतात. रातच्या वेळार परिस्थिती पळयनासतना स्थानीक लोकांक लेगीत धारेर धरतात. ह्या परस सगळीं बारांच कित्याक बंद करिनांत? सोऱ्याच्यो फॅक्टरी कित्याक बंद करिनांत? ही गजाल घुटकासारकी जाली. घुटका तयार करपाक बंदी ना, विकपाक मात बंदी आसा. हेतून कसलें शाणेंपण आसा?''

''आमदार बाब, कायदे तुमीच करतात, आमचें कोण आयकता? धाड घालात म्हणली, आमी धाड घालतात, सोरो पिवन वाहनां चलयतात तांका धर म्हणलें, आमी धरतात, गुन्यांवकारांक सोड म्हणलें आमी सोडटात. आमी जाल्यात पेदे.'' अधिक्षकान तिडक उक्तायली.

''सर, आनीक एक गजाल दिसता.'' पत्रकार परतून उलयलो ''आमची पुलीस यंत्रणां नागरीकांक प्रोत्साहन दिवपाक आसात काय नागरीकांचेर भिरांत हाडपाक आसात तें समजना. रातचो सोरो पीवन वाहन चलयतात तांका धरतात. मात पुलीसांच्या हातांतल्यान आकांतवादी कशे सुटून वतात? अपघात जावपाचें एक कारण सोरो हें मान्य. पूण एका काजाराक गेलो जाल्यार दोन ग्लास मारीनासतना येवंक जाता? नोकरेवयल्यान घरा परततना वाटेर एक इश्ट मेळ्ळो जाल्यार बारांत भितर सरना जाल्यार उमेद येता? सोरो हें एक वेसन पूण ह्या वेसनापासून पयस रावप जण एकल्याचो कायदो. जे तरेन पुलीस तपास करतात तें नागरीकांक सतावपाक अशें दिसता.''

''तें ह्या आमदाराक सांग मरे.'' अधिक्षक परतून चाळवलो.

''अधिक्षकबाब, तुमची परिस्थिती हांव समजून घेतां. जें चल्लां तें सारकें न्हय. देखून आमचे फुडले विधानसभेचे बसकेक हांव हो प्रस्न उपस्थित करतां आनी ताचेर तोडगो काडपाक प्रयत्न करतां. मात तुमच्या मनशांक सांग, गोंयकारांक समजून घेयात आनी परिस्थिती पळोवन वागात म्हण. आमच्यान पीटराक व्हरूंक जाता न्हय?''

ह्यो गजाली जाता म्हळ्यार पीटराचो भाव लायसन्स आनी स्कुटरीचे डॉकुमॅन्ट घेवन आयलो. अधिक्षकान सगळें पळयलें आनी पुलीसांकडेन गरजेभायर चड उलयनाका म्हण शिटकावणी दिवन पीटराक सोडलो.

●●●




# डॉ. अनिल काकोडकार हांका भेटयलो पयलो वयलो गोमंत विभुषण कला आनी संस्कृती खात्याचो दोळे दीपकावपी अपूर्व सुवाळो

नामनेचे अणूशास्त्रज्ञ आनी गोंयचे सुपूत डॉ. अनिल काकोडकारांक गोंय सरकारचो पयलो गोमंत विभुषण पुरस्कार २९ मे २०१० हे दिसा पश्चिम बंगालचे राज्यपाल एम के नारायणन हांचे हस्तुकी दोळे दिपकावपी आनी खोशयेन मन उचांबळीत करपी सुवाळ्यांत भेटयलो. अणू कबलात येसस्वीपणान जावपा खातीर दिल्ल्या योगदानाक लागून भारत सरकाराच्या अणू उर्जा आयोगाचे आदले अध्यक्ष आशिल्ल्या डॉ. काकोडकारांनी हे वेळार समस्त गोंयकारांची काळजा थावन तोखणाय केली.

कला आनी संस्कृती खात्यान अंदू वर्साच्यान हो पुरस्कार दिवपाक सुरवात केल्या. हे निमतान कला अकादमीत २९वेर दिसभराची खासा कार्यावळ आयोजीत केल्ली.

डॉ. काकोडकार हे शास्त्रज्ञच न्हय तर समेस्त लोकां खातीर, खास करून तरनाट्यां खातीर आदर्श थारल्यात. डॉ. काकोडकारांच्या रूपांत आंतराष्ट्रीय पावंड्यावयल्या शास्त्रज्ञां मदीं उंचेलो मान आनी खास सुवात

मुखेल सचिव संजय श्रीवास्तव, खा. फ्रान्सिस्को सार्दिन, मुखेल मंत्री दिगंबर कामत, विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रिकार, डॉ. अनिल काकोडकार, पश्चिम बंगालचे राजपाल नारायणन, प्रतापसिंग राणे आनी खा. शांताराम नायक

आशिल्लो पयलोच भारतीय शास्त्रज्ञ आपणें पळयला अशें ह्या वेळार एम. के. नारायणन हाणीं म्हणलें. सुरवेच्या काळांत कशे तरेन अणू कबलात मुखार व्हरपा खातीर आडखळी आयल्यो आनी तातुंतल्यान मार्ग काडपाक डॉ. काकोडकाराचें कितलें योगदान आनी म्हत्वाची भुमिका आसा हे विशींचो अणभव राष्ट्रीय सुरक्षा मंडळाचे आदले सल्लागार आशिल्ल्या श्री नारायणन हाणी ह्या वेळार सांगलें तेन्ना गोंयकारांची काळजां अभिमानान भरून



आयलीं.

गोंय म्हजें मूळ. तातूंत पयलोच गोमंत विभूषण पुरस्कार आपल्याक दिवन जो भोवमान केला ताका खेरीत म्हत्व आसा. आपल्याक जायते पुरस्कार मेळ्ळयात. पूण गोंयकारांनी दिल्लो हो पुरस्कार आपल्याक चड अपुर्बायेचो आनी मोगाचो आसा. ह्या भोवमानाखातीर आपूण सदांच गोंयकारांच्या रिणांत उरतलों अशें ताणीं भोवमानाक जाप दितना म्हळें.

अणू कबलात जावपाक डॉ. काकोडकाराचो शिंवाचो वांटो आसा. गोंयचो सुपूत आशिल्ल्या डॉ. काकोडकारान देशाचें नांव संवसारार पावयलें. अश्या योग्य व्यक्तीक पयलो गोमंत विभूषण पुरस्कार दिवपाचो मान सरकाराक मेळ्ळा देखून खोस भोगता अशें गोंयचे मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं म्हळें.

तरनाट्यां खातीर स्फूर्त दिवपी व्यक्तिमत्व आशिल्लो काकोडकार व्हड पदार पावन लेगीत जमनीर आशिल्लो मनीस अशे उदगार काडून मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं गोंयांत भाभा अणू केंद्र स्थापन करपाच्या प्रस्तावाचेर डॉ. काकोडकारा सयत हेर शास्त्रज्ञानी विचार करचो. गोंय विद्यापीठ आनी राष्ट्रीय दर्या संशोधन केंद्र हांच्या पालवान हें केंद्र उबारपाचो



विचार जावंचो अशी मागणी केली.

तांची ही विनवणी न्हय तर ताणी गोंयच्या बऱ्याखातीर आपणें कितें कितें करूंक जाय हें सांगून तसो आदेश दिवंचो अशें डॅ. काकोडकारान म्हणलें तेन्ना उपाट्ट भरिल्ल्या दिनानाथ मंगेशकार सभागृहांतल्यान ताळयांचो गडगड जालो.

सकाळीं धा वरांचेर गोंयचे





सभाघरांत ज्ञानेश मोघे हाणी डॉ. काकोडकारांचेर केल्लो म्हायतीपट पळोवपाक पुराय सभाघर उपाट्ट भरिल्लें. डॉ. काकोडकारांच्या वांगडा तांची आवय, घरकान्न आनी भयण हाजीर आशिल्लीं. आपल्या पुताचो ताच्या गांवघरा जाल्लो भोवमान पळोवन हे मातोश्रीचें काळीज भरून आयिल्लें म्हणपाचें जाणवतालें.

सुपूत डॉ. काकोडकार हांची तांचो राबितो आशिल्ल्या हॉटेल विवांता कडल्यान सजयल्ले उक्ते गाडयेंतल्यान वाजप लावन, गोंयचीं कलापथकांसयत मिरवणूक काडून ती कला अकादमी मेरेन व्हेली. कला अकादमीत तांकां उर्बेभरीत येवकार दिवपाक गोंयचे ल्हान-व्हड लोक उत्सुकतायेन हाजीर आशिल्ले. कला अकादमीच्या





## तेन्ना तुजी याद आयली

जेन्ना ल्हारां गावंक लागलीं
पानां एकवटान सळसळून
काणी तुजी सांगूंक लागलीं
तेन्ना तुजी याद आयली

कोगळावरीं आवाज तुजो
पावसांत लेगीत पेट्टालो उजो
तरशेल्ले दोळे म्हजे
पळोवंक सोदता नाच तुजो

एकूच प्रस्न विचारतां तुका
याद म्हजी येना तुका?
तुजे यादीन मात रात दीस
गळयत आसता हांव दुकां

जेन्ना सुर्यान किरणां धाडलीं
सवणीं गितां गावंक लागलीं
झाडां वाऱ्यान धोलूंक लागलीं
तेन्ना तुजी याद आयली

– राधिका गुरुराज कामत सातोस्कार
साखळी गोंय
फोन : ९८२३६७४५२०



## आवय

आवय! मोगाळ आनी मायेस्त
मोल आमकां कळना तिचें
गेल्याशिवाय ती पयस
मायेचो ती स्पर्श आवय
सगळ्यांक व्हड दैवत आवय
ममतेची मुर्त ती आवय
स्वपनांतली ती परी आवय
परमेश्वराचें रूप आवय
आनंदाचो अंकूर आवय
मोग आनी संस्कार शिकयता
ती पयलो गुरू आवय
सगळ्यांत श्रेष्ठ आवय
दुर्भागी आसा तीं भुरगीं
जांका मेळना आवय
म्हणून वळखूंक जाय
देवाचें रूप आवय

– मेहंदी अनय नायक देसाय
११ कॉमर्स,
विद्या प्रबोधिनी हा. से. स्कुल,
पर्वरी – गोंय.



## आमी

ते सोरोप जावन आयले
जिणेक आमच्या
वीख कालोवन गेले
आमी मात सोरोप समजून
दोरी बडयत रावले
ते कुड्डे जावन आयले
ताणी लुटून व्हेली
दौलत सगळी
आमी दोळे आसुनय
नदर नाशिल्लेवरी
पळयत रावले
ते निळ्यो पांचव्यो नोटी
उडयत आयले
आनी आमी दिले आशेन
जमनीचे कुडके
ताणी कुडक्या कुडक्यांनी
गांव विकत घेतले
आमी मात नोटी
सांसपीत रावले
ते जागे आशिल्ले तेन्ना
आमी नशेंत न्हिदून उरले
जेन्ना सूर्य माथ्यावेल्यान गेलो
तेन्ना आमी बोबो मारीत रावले

– उदय नायक
नगर्से, काणकोण–गोंय.

## दुकां

दुख्खाचो बाण तोपल्यार
दोळ्यांत उफेतात
दुकां

अती धादोसकाय जाल्यार
दोळ्यांत सजता हींच
दुकां

फाटले खीण याद येवन
दोळ्यांत भरतात
दुकां

आई बाबाचो मार पडटकीर
रडें येता रोकडेंच
मार थांबता जेन्ना
भुरग्यांच्या दोळ्यांत दिसता तांकां
दुकां

धोपरां फुटतकर
मोठ्या मोठ्यान रडटा पोर
ताच्याय घाव्याचेर पडटा
दुकां

हळवें मन जाचें
दर गजालीक
दोळ्यांत फांकतात तांच्या
दुकां

लग्नादिसा घोवागेर वतना
व्हंकलेच्या दोळ्यांत
दुकां

काळीज सुध्दां विरगळटा
पळोवन दुसऱ्याच्या दोळ्यांत
दुकां

आयलें कोणाकूय मरण
सगळ्यांच्याच दोळ्यांत
दुकां

थोड्यांचें मन रडटा
कांयजाण दुसऱ्याक
पळोवन गळयता
दुकां

दुख्ख आपलें लिपोवन थोडीं
हाशें फुलयता तोंडार
दाखयना आपलीं
दुकां

निराशा जाल्यार
उतर फुटना पूण
गळगळीत देंवतात हीं
दुकां

क्रिकेट जावं कसलीय स्पर्धा
जैत मेळ्ळ्यार गर्वान
भायर येतात हीं
दुकां

जिवा भावाचीं मनशां वतना
दोळ्यांचें दार वाजयत
निरोप दिवपाक भायर येतात
दुकां

मनशाक सामको हळवो
करून उडयता
पळयात कितलीं मोलादीक
आमचीं हीं
दुकां

**– काजल चि. केरकार**
आदित्य अपार्टमेन्टस्,
खडपाबांद, फोंडे-गोंय.
फोन : २३१६७३७

## तीन 'गझल'

१.

काळजाचे खरींतल्यान चितनांचीं ल्हारां
दिसतात म्हाका तीं पावसाचीं कुपां ।

खंयचे तरी तेर्रावेल्यान येतात आनी
झडटलीं खंय कळना तांचे निर्मणेचीं रुपां ।

काळजाचे झरींतल्यान फुट्टात भावनांचे झरे
मुळावण तांचें लिपलां नकळ चिंतनाचे झोपां ।

गोडसाण उदकाची कळटा जीबेचे संवेदनाक
ताचे कसाची खोलाय शेंकड्याचे तळपां तळां ।

२.

रडप सोडलां ते परस गायन दिसता
चिंतून विरहाचीं गीतां बरयतां ।

मोग करपाची पिराय सरली
त्यो भावना गझल रुपां केळयतां ।

चिंतना येता तशी घडटा म्हणटात जीण
सुक्या मनान बीं रोवन वाट पळयता ।

जीणेचीं रुपां तीं मळबां भोंवपी कुपां
येवकाराक मुदार जावन तान भागयता ।

३.

बरें चिंतप आसा म्हजे लागीं
येवंक पावत कोण आडावपी ।

वायट दीस येतले म्हणू कित्याक
जिणेक आसा थंय खिळावपी ।

थाकायेक उसरपत ना तांचे लागी
सगले आपले पासत वावुरपी ।

समजूं कित्याक संसार इतलो परकी
आपूण ना जंय स्वताक वळखुपी ।

मुदार केल्या आता गती चिंतनाची
जाला हांवूच तांका शिरंगारपी ।

सुळार दिवची दिसता तांगेली माणणी
जावचो ना हांवूच आतां दोर ओडपी ।

**– महेश पारकार**
शिरोडे-गोंय.



## आफयल्लो तेन्ना

आमोरेर आफयल्लो
तेन्ना तूं आयलो ना
ते खीण परत येवपाक
तुका रे रावलें ना

फुलयल्लीं फुलां हांवें
तोखेवंक तुका आफयल्लो
तुवें येवंकच उशीर केलो
परमळ तसोच उरलो ना

म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां
पुसूंक तुकां आफयल्लो
तुवें मना घेतलेंच ना
म्हजीं दुकां आतां सुकून गेलीं

एकलेंच हांव आशिल्लें
गुपीत सांगपाक आफयल्लो
तुका कितें वेगळेपण दिसलें
आतां कितें सांगपाचें तेंय हांव विसरलें



– अशोक शीलकार
शीला, सावयवेरे.

## अस्तुरी

अस्तुरी दिसता कशी
एक दुबळी नारी
पूण ती आसता
संवसार वेदीवयली
एक तेंवती दिवली खरी

अस्तुरी जणू एक फुलवात
कुळार आनी संवसाराची
दोनूय तोकां जोडून
माये मोगाच्या तुपांत
आकंठ भिजलेली

जीण सोपतासर
मंद मंद जळत
घरदारांत मांगल्य भरपी
उजवाडाची दिप्ती
अस्तुरी उजवात प्रितिची

अस्तुरी परमेश्वराची
एक अदभूत रचणाय
अनाकलनीय शक्त
पुरूशाक लाभिल्ली
एक अनमोल देण

पुरूशांच्या जिणेची स्फुर्त
मांगल्याची मूर्त
शयनेषु जी रंभा
तीच जाता माता
केन्ना सल्लागार, मार्गदर्शीका

अस्तुरी आसूं दुबळी नारी
प्रसंगार जाता ती दुर्गा काली
संवसार तर तारून व्हरपी
केन्ना जावची भद्र काली केन्ना रूद्रकाली
हें मात काळच थरयता

– तेजश्री प्रभू गांवकार

## कबलात

ही कबलात
मनीसजल्माची
पूर्व कर्मांच्या
संमिश्र फळांची
मेळटा नकळत
पूर्व सुकृताचो आदार
दिता जिणेक
झणझणीत साक्षात्कार
बऱ्या वायट
पूर्व कर्मांची वळेरी
घट्ट बांदून घेवन
पर्व संचिताची शिदोरी
भोंवतणी विणिल्लें
मायेचें जाळें
दिसता जण एकाचें
रूप आगळें
नात्याचे चौकटींत
मायेचे धागे
इल्लेशे चुकीन
अळंग तुटपाचे
तरेकवार अणभवांचेर
आदारीत गिन्यान
काळखाचेर जैत
जोडून जाता सज्ञान
जल्मभर मायेच्या
पाशांनी घुस्मट्टा
मरण येतकच
मायेचे पाश तुट्टात
मनीस जल्माची
कबलात सोंपता
जसो तो आयिल्लो
तसोच परतता
सांगाताक....
पापपुण्याचें गांठलें
भोंवतणच्या मनशांचे
बंद तुटले

– सुशीला नि. हळर्णकार
मडगांव-गोंय



## कृष्णा

मुरली ही वाजयता
राधेक तूं नाचयता
गोकूळ सारख्या नंदनवनांत
खेळ हो खेळयता

कृष्णा तूं गोपियांक
सदांच कित्याक सतयता
मस्तो इतलो जालाय तूं
यशोदा मय्याक सांगू व्हय?

धंय-दूद चोरपाक
मज्जा तुका येता
आपूण मात सादो जावन
वांगड्यांक सजा खावयता

कंस मामाक तुवें
मातये भरवण केलो
तुज्या पदस्पर्शान
धर्तरी मातेक तृप्त केली

– धनवीरा राऊत देसाय



यत्ता : १०वी
द न्यू एॅज्युकेनल इन्सीटयूट,
सांवइड - गोंय.

## एक आसलें बाय

एक आसलें इल्लेंशें बाय
एकदीस वता मावशेगेर राय

वतना ताणें पळयली एक धवी गाय
घरा ताका मेळ्ळी मावशेची सासूमाय

तिणें तांकां खावंक दिली
साखर घालून दुदावेली साय
मावशेन तांका हांडीर धरून म्हळें
म्हजें तें अपुरबायेचें बाय

इतल्यान बायक पळोवंक
आयली शेजारची फिल्सू शेमाय
म्हणूंक लागली बाय खंय गो तुजी मांय?

दुसऱ्या दिसा मावशेगेर खेळटना
पडून बायच्या पायांक जालो घाय
रगत पळोवन रडूंक लागलें बाय
आनी ताणें मावश्याक सांगलें
म्हाका घरा व्हरून पाय

अशें हें अपुरबायेचें
गुणेस्त पुपुलेशें बाय
म्हाका म्हजी धाकटी भयण
म्हूण मेळत काय?

– अथर्व सुदत्त शेणवी मांद्रेकार



घर नं. २, भितल्ली पेठ,
दिवचल-गोंय, ४०३ ५०४



## फांतोडेच्या पारार

सुर्याचें पयलें किरण
पडलें म्हज्या दोळ्यार
जाग आयली म्हाका
फांतोडेच्या पारार

आंगणात येवन हांवें
धाय दिको पळयल्यो
घोटेरांत बसून आपल्या पिलांक
पोशेताल्यो दोन सारोळ्यो

थंड आनी शितळ
आशिल्लो तो फातोडेचो पार
कोणाचीच जाग नाशिल्ली
आसले जरीय लोक साबार

इल्लोसो कळो फुलून
एक फूल आयिल्लें रंगांत
खीणभर दिसलें म्हाका
उबें आसां हांव स्वर्गांत



– रुपेरी फर्जंद
१०वी
द न्यु एज्युकेशनल इंस्टीट्यूट
कुडचडें - गोंय.

# पावसाळो



**पा**वसाळो हो ऋतू कोणाक आवडनासतना ना. जेन्ना आमकां गरमेन नाका पुरो जाता, तेन्ना याद येता ती ह्याच ऋतुची. गरमेक लागून सगळे व्हाळ-झरे सुकतात.सगळीं जनावरां आनी पक्षी तानेन वळवळटात. शेतकामती तर मळबा कडेन नदर लावन काळ्या कुपांची वाट पळयतात.

अश्या वेळार जेन्ना आशाढ म्हयन्याची सुरवात जाता आनी पावसाचो पयलो थेंब आमच्या माथ्यार पडटा, तेन्ना सगळ्यांचेच खोशयेक शीममेर उरना. जाणटे नेणटे नाचून पावसाक येवकार दितात. मोर आपलो पांखाटो फुलोवन नाचून पयल्या वयल्या पावसाचें स्वागत करता. पयलो पावस पडून जो मातयेचो वास येता तो घेत रावन शें दिसता. मळबांत जावपी गडगडपाचो आवाज आयकून सगळ्या ल्हान भुरग्यांच्या आंगार कांटो येता.

पयलीं पावसाचे थोडे थेंबेच गळटात पूण थोड्या वेळान पावस सामको शिरंधारानी ओतूंक लागता. व्हाळ-झरे उदकान भरून व्हावपाक लागतात. झाडां झुडपां न्हावन बरीं पाचवीं पाचवीं दिसतात. शेतानी लायिल्ले रोंपे जे थोड्या वेळा आदीं मान बागयत उबे आशिल्ले ते आतां आपली तकली वयर काडून खोशयेन आकाशाकडेन पळयता असो भास जावंक लागलो. सगळेकडेन वेगवेगळ्या रंगांचीं फुलां फुलिल्लीं दिसतालीं. सगळीं जनावरां आपली तान भागोवन संतुश्ट जाल्लीं. शेतकामती वेळ होगडायनासतना आपले नांगर घेवन शेतांत वताले. ल्हान भुरगीं कागदाचीं व्हडीं उदकांत सोडटना दिसतालीं.

भारत हो एक शेतीप्रधान देश जावन आसा. शेती मोठ्या प्रमाणान पावसाचेर अवलंबून आसता आनी देखून आमची जीणय ताचेरच अवलंबून आसा. पावसच आमचें अन्न आनी उदकाचें साधन जावन आसा.



पूण जशे पावसाचे बरे परिणाम आसात तशेच वायटय आसात. जेन्ना ताका राग येता, तेन्ना तो हुंवाराच्या रुपान येता. हाका लागून लोकांचीं शेतां, भाटां व्हावन वतात. कच्चीं घरां तर कोसळ्ळे शिवाय रावना. पिवपाचें उदक लेगीत मेळना. लोकांक खूब त्रास सोसचे पडटात.

पूण 'पावस आसा म्हूण आमी आसा' हें मात खरें. थोड्याश्या वायट कामांखातीर आमी पावसान आमचेर केल्ले उपकार विसरूंक शकना.

•••

**– पल्लवी जुवारकर**
धाव्वी,
द न्यू एज्युकेशनल इंस्टीट्युट
कुडचडें – गोंय.

# बरे विचार - बरो फुडार

मनशांच्या मनांत सदानकदा विचारांचें चक्र चलत आसता. कोण बरें चितता कोण वायट तर कोणाल्या मनांत बऱ्या वायट विचारांचें युध्द चलत आसता. कोणाले खंयचे विचार बळकट ताचेर ताच्या हातांतल्यान बरें काम घडटलें काय वायट हें थारता. आनी ताणें केल्ल्या ह्याच कामांचेर ताचो फुडार थारता. त्याखातीर बरे विचार गरजेचे.

अशेच एके शाळेंत दोन भुरगे शिकताले. दोगूय शिकूंक हुशार आशिल्ले. पुणून दोगूय एकमेकांक उदकान पळयताले. बाकीच्यांक तें खबर आशिल्लें. त्याखातीर तांकां नाका जाल्ल्यो खऱ्यो खोट्यो गजाली सांगून तांका एकमेकार चडोवन घालताले आनी पयस रावून मजा पळयताले. आपलो स्वार्थ साधताले. ह्या सगळ्या घडामोडींनी मात दोगांचें खूब लुकसाण जातालें. तरीयपूण तांका ताचें पडून वचूंक नाशिल्लें. तांचें झगडें हो तांचे शाळेंत सद्चोच विशय जाल्लो. तांचीं हीं झगडीं सोडोवंक तांच्या सराकय खूब त्रास जातालो.

शेवटाक तांच्या सरानूच तांकां बुध्द शिकोवची थारायली. एक दीस तांच्या वर्गांतल्या सगळ्या भुरग्यांक एक प्रोडक्ट करूंक लायलो. आनी वह्यो एकमेकांकडे बदलून घेवन तपासूंक सांगल्यो. जाणून बुजून ह्या दोगूय भुरग्यांक एकामेका भितर तांच्यो वह्यो बदलूंक लायल्यो. जे कोणाक प्रोजेक्टाक कमीत कमी मार्क पडटात तांका नापास करपाची ख्यास्तूय फर्मायली.

सरान चितिल्लें तशेंच जाल्लें. सगळ्या भुरग्यांक बरे मार्क पडिल्ले सोडून ह्या दोन भुरग्यांक. ताणी एकामेकांच्या कामात कसल्यो ना कसल्यो चुको काडून एकमेकांक शुन्य मार्क दिल्ले. ह्या गोश्टीवेल्यान तांचें एकमेकांकडेन कितलें वायटपण आशिल्लें तें स्पश्ट जाल्लें. सरान दिल्ले ख्यास्ती प्रमाण ते दोगूय नापास जाल्ले. एकल्याक दुसरो नापास म्हण खूब खोस भोगली. पूण आपूणय नापास जालां म्हूण बेजारूय जाल्ले. सगळीं भुरगीं आनंदान नाचतालीं आनी हे दोगूय रागान एकमेकांक पळयताले. तें पळोवन सरान तांकां लागीं आफयले. तांकां पास जावचें आसा जाल्यार दोंगरार आशिल्ले आंब्याचे बागेंतल्यान आंबे आनी थंयच आशिल्ले न्हंयचें उदक कळशेन भरून हाडूंक लायलें. शाळेंतल्यान दोंगरार वचपी हे वाटेक आनी खंयच उदक वा फळां नाशिल्लीं. सगळो वाठार सुनसान आनी खतखतत्या वताचो.

पास तर जावंक जाय आशिल्लें म्हण दोगूय दोंगर चडून गेले. हावाशिवा करत आंब्या बागेंत पावले. पूण एकट्याकूच झाडार चडूंक येतालें. ताणें आंबे काडले. दुसऱ्याक मात दिले ना. मागीर ते न्हंयचेर गेले. पयल्याक उदकाचो सामको भंय दिसतालो म्हण तो उदक भरूंक पावलो ना. दुसऱ्यान मात सकल न्हंयत देवून मटकेन उदक भरून घेतलें. आतां एकट्याच्या हातांत उदक आनी दुसऱ्याच्या हातांत आंबे आशिल्ले. दोगूय जाणां आशिल्ले की ताणी सरान सांगिल्लें काम पुराय करूना. त्या खातीर ते दोगूय परत नापासूच उरतले. तांचो दोगांचोय जीव तानेन आनी भुकेन कासावीस जाल्लो. एकट्यान आपणाकडचें उदक पिवन तान भागयली पूण दुसऱ्याक दिलें ना. दुसऱ्यान आंबे खावन भूक भागयली पूण पयल्याक दिलें ना. दोंगुल्ली देंवतां देंवतां तांचे पांय जड जावन आयले. वतना तांका तांचो जीव वता काय दिसूंक लागलो. आपली वस्त दुसऱ्याक दिल्यार एकमेकांचो जीव वाचतलो म्हण तांकां कळ्ळें आनी ताणी तशेंच केलें. एका तळपार बसून ताणी दोगांयनी आंबे खावन आनी उदक पिवन सुशेग घेतलो. तांकां तरतरी आयली. दुसऱ्यान केल्ले मदतीखातीर आपलो जीव वाचलो म्हण दोगांयकूय कळ्ळें आनी इतलो तेप बेठेच एकामेकांचें वायट चिंतलें म्हण तांकां दुखख जालें. ते आतां एकामेकाचे इश्ट जाल्ले. तांचे कडलें उदक आनी आंबे सोपिल्ले पूण तांकां ताचें वायट दिसलें ना. ते हांसत खेळत शाळेंत पावले. तांका खोशी पळोवन भुरगीं हासलीं, सर हासलो सगळीं हासता म्हण शाळाय खोशयेन हासूंक लागली.

•••

**- सरस्वती दामोदर नायक**
श्री स्वस्ती,
सांकवाळ - गोंय

# जिद्दी कासव

कासवाचें जॉगींग, सशाचें वॉकींग
दोगूय उठतात बेगीन
खबऱ्यो चलता तेजीन
ससो कासवाक चाळयता
कासव दुकां गळयता
चाळयल्यार लेगीत बसना
मुखार चलपा सोडिना
जिद्दीन पैज मारता
ससो फकणार व्हरता
पळपाची शर्यत थारता
ससो कुसकुटा कोंत करता
पळयता पयसुल्ल्यान वडाक
वचून हात लावप त्या झाडाक
पयलीं हात लायता
तोच पैज जिंकता
दोगांयची सुरू जाता रेस
दोगूय पळयतात एकामेका फेस
सोंसो धांव धांव धांवता
कासोव पळ पळ पळटा
सोंसो धांवून खर्शेता
कासवाक वळून पळयता
तो ताका दिसना
तो फाट धरूंक शकना
अशें म्हूण सोसो खोशी जाता
कासोव पळत रावता
सोंसो ओगी न्हिदता
कासोव पासार जाता
धांव धांव धांवता
वडाक हात लायता
सोंश्याक जाग येता
तो धावूंक लागता
सोंसो वडाकडेन पावता
कासव पैज जिकता
आमी कासवाची देख घेवची
भुरग्यांनी सद्दां अभ्यास करचो
हांव खेळ करिनासतना जिकतलों
अशी आस्त बाळगुची न्हय
पयले परिक्षेक रँक मेळ्ळा
आतां पास जातलोंच
अशें समजून अभ्यास टाळचो न्हय
आमी सोंशा सारको
गर्व न बाळगुंवचो
कळना म्हूण हांव ओगी ना बसचों
असो आमचो निर्णय आसचो
दुसऱ्यांक कमी लेखचें न्हय
जिद्द आमी सोडची न्हय

– विनोद गावडे
बांदोडा, फोंडे-गोंय.



## फॅशन शो

रानांत फॅशन शो आसलो
हरण चुडिदार घालून आयलें
झेब्रान घाल्ली मोटवी पॅन्ट
सगळ्यांक सांगीत सुटलो
फुल पॅन्ट फूल तिकेट
हाफ पॅन्ट हाफ तिकेट
नो पॅन्ट नो तिकेट
माकडान घालो बॅलबॉटम
सोंश्यान घाली सल्वार कमीझ
हत्ती फात मारून
सवकास कसो चलतालो
वागान बिकिनी घाल्ली
शालू न्हेसून शींव
मोट्यान आड्डत बसलो
नागडो उगडो आयलो कोलो
सगळ्यांचो हांसो मोट्यान फुल्लो



– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.

# कोणें खालें मणगणें



१.
चानये पिला वाडदिसाक
चानयेन केलें मणगणें
बिलूक, कुतूक, सोशाक तिणें
धाडलें आपोवणें

२.
जमलीं सगळीं पिला भोंवतणी
दिवंक ताका परबीं
वाडदिसाचें गायलें गीत
एका सुरांत ताणीं

३.
चानयेपिलान आवयक म्हळें
'हाड मगे गोडशें'
चानी उठून गेली भितर
हाडूंक गोडशें

४.
भितर वचून पळेत जाल्यार
भोगुणें रिकामें
कोणेतरी भोगुण्यांतलें
खाल्लें मणगणें

५.
चानयेक बाबडेक कळना जालें
करचें आतां कितें
मणगणें कोणें खालां तें
कळप तरी कशें?

६.
चवकशी केल्यार कळना जालें
कोणें खाल्लें मणगणें
हांवें न्हय, तुवें न्हय
सगळ्यांचें एकच म्हणणें

७.
इतल्यांत चानयेक याद जाली
लोका काणयेची
'हांवें खीर खाल्या जाल्यार
बूड घागरीची'

८.
चिंतलें तिणें आपणेंय अशेंच
करून पळोवचें
जाका लागून कळून येतलें
कोणें खाल्लें मणगणें

९.
चानयेन रोखडेंच भोगुणें हाडून
दवरलें बांयच्या उदकार
भोगुण्याक तिणें उलो मारून
सांगलें सगळ्यां सामकार

१०.
आगो आगो भोगुण्या
आयक सांगतां तें
मणगणें कोणें खालां तें
तूं जाणां बरें

११.
एक एकल्याक आतां हांव
धाडटां तुज्या फुड्यांत
मणगणें जाणें खाल्लें ताका
बुडय तूं उदकांत

१२.
बिलूची पाळी आयली तशी
आयलो ताचेर आकांत
दिसलें ताका भोगुणें आपणाक
बुडयतलें उदकांत

१३.
भियेवन ताणें सांगून सोडलें
'हांवें खाल्लें मणगणें
पायां पडटां, चूक मागतां
परथून केन्नाच, करचेंना अशें'

– नागेश नायक वडिये



लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग,
मडगांव



- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# म्हाबळेश्वराचे भोंवडे निमतान



*हांव एकलो पडलों तरी म्हाका निर्शेवपाचें कारण नाशिल्लें. म्हजें स्वागत करपाक निसर्ग आशिल्लो. हांव भानार येतकूच म्हाका कळून आयलें हांव गोंयांत ना. साताऱ्या मेरेन गोंयचो विसर पडलो ना म्हाका. उपरांत घाट चडटी लागली तरी गोंयची याद जालिना.*

"भाई, आमी चार मेक म्हाबळेश्वराक वचचें थारायलां. तीन दीस आनी दोन राती भायर काडच्यो पडटल्यो. तूं येता न्हय?" धाकल्या पुतान, गिरीशान येवन प्रस्न केलो.

"हांव येना. भाभीक व्हरात." भाभी म्हणल्यार गिरीशाची आवय. म्हजी भावंडां म्हाका भाई म्हणटालीं. ताका लागून भुरगींय भाईच म्हणटात. हांव भाई म्हणून ती भाभी!

भाई घराकडे एकटो पडटलो म्हूण भाभी घरांतल्यान पांय भायर काडिना. शिवाय आपल्या घोवाचेर ती हिसपाभायर माया करपी घरकान्न. ते भायर म्हज्याहून इल्ली चडच विद्वान आनी जाणकाराय बी. धर्माविशीं तर ती भटांकडल्यान खूब कितें शिकल्या. दुसरी गजाल अशी की, तिका जें आवडटा, तें म्हाका आवडना आनी ती जें कितें जाणां तें म्हाका समजना आनी माननाय बी. तेन्ना हांवें चिंतलें, गर्मे दिसांनी घराकडे दोन दिसांचो 'डिबेट' घडोवन हाडचे परस भुरग्यांवांगडा भायर गेल्लो बरो.

आनी एक गजाल सांगीन-शी दिसता. ट्रिप जर पंढरपुराक ना तर शिर्डीक आशिल्ली तर म्हज्या एकटेपणाचो मातय विचार करीनासतना, म्हजे राखणेचें काम देवांचेर सोंपोवन वतली आशिल्ली.

"कोण कोण वतात रे म्हाबळेश्वराक?"

हांवें गिरीशाक सहज प्रस्न केलो.

"आमी सगळीं. स-सात जाणां भायलीं आसतलीं. आमी सगळ्यांत कोण-कोण आसतली हाचें स्पश्टीकरण गिरीशान केलें. म्हजे दोगूय पूत, तांच्यो बायलो, जणेकल्याचो एकेक चलो, म्हजी धूव आनी तिचीं दोगांय भुरगीं- हीं आशिल्लीं आमी सगळीं. हांवें चिंतलें, म्हजी ही सगळी गिरेस्तकाय भायर वता आसतना, हांगा म्हाका सूख कशें लागतलें? हांवें म्हजें घरदार घरकान्नीकडे सोंपयलें आनी घरकान्नीक तिचे भयणीकडे! चिंता विरयत जावन हांव म्हज्या भुरग्यांवांगडा म्हाबळेश्वराक वचूंक तयार जालों.

हांव धरून आमचीं आतां धा जाल्लीं. उरिल्लीं सात जाणाय म्हाका आमचींच कशीं दिसतालीं. तातूंत धाकटे सुनेली भयण- शिल्पा, तिचो घोव आनी दोग चले- व्हडल्या पुताल्या स्कुलांतली मॅडम मोहिते, तिची नात रुतिका आनी तांची एक वांगडी शशिकलाबाई! अशा ल्हान-व्हड सतरा प्रवाशांक घेवन चार मेक सकाळची स वरांचेर आमची बस गोंयच्यान सुटली आनी ती दनपारची सुमार एकाक कोल्हापुराक पावली. गोकुळांत जेवण घेवन आमी साताऱ्याची वाट धरली. कोणूय म्हणटलो, साताऱ्याक शी कित्याक? तुमी तर भायर सरल्यांत म्हाबळेश्वराक वचपाक!

खरें म्हणल्यार आमच्यांतलीं चडशीं ह्या आदी कोल्हापूर, पुणे, मुंबय बी भोवन आयिल्लीं. हो वाठार आमकां सगळ्यांकच नवो आशिल्लो. अर्थात आमच्या फुडाऱ्यांक फोनाफोनी करून कांय म्हायती मेळयल्ली. पूण ती चुकीची आशिल्ली. म्हाबळेश्वराक रूमाचें भाडें

एके रातीक चार-पांच हजार फारीक करचें पडटा. ताच्यापरस साताऱ्याक खूब सवाय पडटलें. सातारा ते म्हाबळेश्वराचें अंतर फक्त पंधरा कि.मी. चें आसा. ते पासत आमचो फुडारी आमकां साताऱ्याक एक रात दवरून दुसरे दिसा म्हाबळेश्वराक व्हरूंक सोदतालो.

पूण जालें भलतेंच. सातारा ते म्हाबळेश्वराचें अंतर पंदरा कि.मी. नाशिल्लें, तर तें आशिल्लें पंचेचाळीस ते पन्नास कि.मी. बस ड्रायव्हरान सल्लो दिलो की, तुमी साताऱ्याक रावनाकात आनी म्हाबळेश्वराकय आतां वचूं नाकात. हांगाच्यान सुमार चाळीस कि.मी. च्या अंतराचेर कॉटेजीस आसात. तशो सामक्यो सवाय पडच्योनांत तुमकां. पूण फायद्याच्यो आसात. आयज जर तुमी साताऱ्याक रावलीं, तर फाल्यांचो अर्ददीस तुमचो फुकट वतलो आनी कांयच पळोवंक मेळचें ना. सगळ्यांक ही गजाल पटली आनी एकमतान प्रस्ताव सा केलो.

सांजेच्या सातांक आमची बस साई कोटेजीसच्या परिसरांत येवन थांबली. ह्या कॉटेजीसपासून म्हाबळेश्वर सात कि.मी.च्या अंतरार आसा.

आमच्या सुदैवान आनी म्हाबळेश्वराच्या कृपेन आमकां जाय तितल्यो कॉटेजीस मेळ्ळ्यो. सतरा मनशांक दोन कॉटेजीस पुरो जाल्यो. प्रत्येक कॉटेजींत न्हिदपाची वेवस्ता. पंगडांत पाच-स ल्हान भुरगीं आशिल्ल्यान सतरा मनशांक दोन कॉटेजीस पुरो जाल्यो.

म्हाका दिशिल्लें, ह्यो कॉटेजीस वशिष्टाल्यो कुटी ना तर विश्वामित्राल्या नकली सृष्टीतल्या पत्र्यांच्यो खोपट्यो बी आसतल्यो. पूण तशें कांय नाशिल्लें. थंय आशिल्ल्यो त्यो आधुनिक जगतांतल्यो सुसोबीत आनी सगळ्या सोयींनी परिपूर्ण अशो कॉटेजीस. त्योय बी साईबाबाच्या नांवान जोडिल्ल्यो. साई कॉटेजीस. खंयच्याय फायव्हस्टार्स हॉटेलांतल्या रूमांकडे सर्त करपी आनी भाडें कितलें? एकेका रूमाचें चौदाशें रुपये. त्या मानान खूब सवाय. फायव्हस्टार्स हॉटेलांत डब्बल बॅडरूमाचें भाडें एके रातीक उणेंच चार-पांच हजार फारीक करचें पडटात. आमच्या दुर्दैवान त्या वेळार परिसराचेर काळोखाचें साम्राज्य सुरू जाल्लें. बिजलीमॅडमीच्या आगमनाक उणेंच एक वर जाय आसलें. ती रागार जावन दडून बशिल्ली, तिका सोदून काडपाचें काम थंयचे कर्मचारी करताले. तरी क़ाळखाचें पुराय पांगरूण आपल्या आंगार ओडून घेंवनासलें धरतेरेन!

ड्रायव्हरान बस पार्क करिनाफुडें भुरगीं मेळत तशी वाट काडून बशिंतल्यान सकयल देवलीं. झोपाळो घसरगुंडी तांची वाट पळयतालीं. भुरग्यांनी वेळाकाळाचें भान दवरिनासताना केन्ना धांव मारली आनी केन्ना खेळूंक लागलीं हाचो कोणाक पत्तो लागलो ना. त्यांच्या फाटल्यान दिसभर बशींत बसून जडेल्ल्यो मॅडामी, आपलीं बॅगां सांबाळीत लकत-लकत कशींय तरी देवलीं आनी थंयचे हरयाळेचेर कांय जाणांनीं कशाकशीय फतकल मारली. तशें केल्ल्याशिवाय तांका दुसरो पर्याय नाशिल्लो. कारण कॉटेजी तेन्ना काळखाकुडी जाल्ल्यो.

बस रिकामी जाली. ड्रायव्हरूय बशिंतल्यान दिसना सो जालो. एक हांव सोडून सगळ्यांचे वेगवेगळे पंगड जाले, भुरग्यांचो एक पंगड, दुसरो पंगड मॅडमीचो, तिसरो कांय मॅडमींच्या घोवांचो. हांव मात एकटो. म्हजो समवयस्क असो वांगडा कोणूच नाशिल्लो. घरकान्न आशिल्ली जाल्यार तीय खंयच्याय तरी बायलांमदेंच रिगतली आशिल्ली. बायलांक बायलांमदें घुसूंक वयाची अट लागना.

हांव एकटो पडलों तरी म्हाका निर्शेवपाचें कारण नाशिल्लें. म्हजें स्वागत करपाक निसर्ग आशिल्लो. हांव भानार येतकूच म्हाका कळून आयलें हांव गोंयांत ना. साताऱ्या मेरेन गोंयचो विसर पडलो ना म्हाका. उपरांत घाट चडटी लागली तरी गोंयची याद जालिना. पूण हांगा बसयानांतल्यान खाला देंवतांच, आनी सहप्रवाशांपसून कुशीक सरतांच म्हाका सर्गाची सुलूस लागली आनी चारूय वटयां हांव पिशांभशेन पळयत सुटलों. पांयांपोंदच्या मोव मोव हरयाळेचेर उबो आसतना पांयांक, कानांक, दोळ्यांक आनी मनाक सूख भोगतालें. कारण कितें हें हांव सांगूंक शकचो ना. एक मात खरें, ते दिसा, गोंयांत जो उकाडो, जी मरगळ, जी निर्शेवणी आनी उदासी भोगताली, ती केन्ना पयसावली-केन्ना खंय गडप जाली हाचो पत्तो लागलो ना.

थंयच्यो कॉटेजी उत्तरस्थीत मानल्यो तर तांच्या फाटल्यान रस्तो पासार जाता. पूण त्या रस्त्यार ना घरघर, ना घडघड, ना धडधड. एकाद्री गाडी पासार जाली तरी तिची कोणाक सुलूस लागना. कॉटेजींच्या अस्तमेक व्यवस्थापनाचो राबितो. पूण भितर कोण आसता हें सांगूंक कठीण. मात प्रवासी आयले जाल्यार तांचें स्वागत करपाक एकटो ना तर एकटी भायर सरपाची रीत आसुंये थंयची. आमचें स्वागत एकटे वयस्क चलयेन केल्लें. शांतीभंग जांवचो न्हय म्हूण ही तजवीज जांवये. चली उलोवपांत प्रशिक्षित दिसताली. उदेंतीचो वाठार मात मात्सो वेगळोच दिसलो म्हाका. हांगा एक मानवरचीत कड आसा. कडे पलतडी दोंगराचेर एक खर पालसण आसा. पालसणेचेर मदें-मदें घसरणी तयार जाल्ल्यो आसल्यो तरी तांच्याच आदारान पालसणांच्यो इल्ल्यो - इल्ल्यो सपाट जमनुल्यो तयार जाल्यात. आनी ह्या सपाट जमनुल्यांचेर गडगंज खोपटुलां बांदून कश्टकरी रावतात. ते खोपटांनी आसुनूय तांच्या आसपाची जाणविकाय जायना. ती कल्पनेतूच जाणोवन घेवची पडटा. शांतकायेचे पुजारी जाल्ल्या कारणान तांका आपल्या आसपाचें प्रदर्शन करचें शें दिसना जांवये!

जे सपाटीचेर उबो रावन हांव हें सगळें पळेतालों ताचे कडेक अंतर सोडून सशक्त झाडुलां उबीं आशिल्लीं. हांव तांकां झाडुलां ह्या खातीर म्हणटां, कीं ते वाकड्या-तिकड्या लांब रुंद खांद्याचे रूख नाशिल्ले. त्यो आशिल्ल्यो पांचव्याचार सतेज पानांनी दाटिल्ल्यो, दैवी सुंदरकायेन नटिल्ल्यो सुंदऱ्यो. ह्यो सुंदऱ्यो आपल्याक नेमून दिल्लें काम बेसबरें करताल्यो. तांच्या हातांत मानवनिर्मित चवरां नाशिल्लीं, तरी आपल्या सानुल्या सानुल्या ताळयांक चवरां मानून, तीं अचळय



हालोवन म्हाका शितळसाण दिवची अशी तांची मनकामना आशिल्ली. पूण हांगा शितळसाण हाडूंक वाऱ्याची गरज नाशिल्ली. शितळसाणीची वेवस्था सैमान आपसूक करून दवरल्या. गोंयांतलो दयामाया नाशिल्लो माय हांगा केन्नाच उदेना. ताका लागून हांगा चांफो, पोंगरो, गुलमोहर बी फुलिल्लो दिसना. मर्त्यलोकांतलीं मायावी फुलां हांगा दिसलीं ना. तरी हांगाच्या सर्गसुखांत इल्लीय घट पडना.

ह्या झाडुल्यांच्या संगतीक खूब वेळ घालोवंचो सो दिसतालो. पूण दखणेकडलो वाठार म्हाका मोन्यानी खुणायतालो. हांवें त्या सुंदर झाडुलांक थंयच सोडून दखणदिकेकडेन एकूच धांव मारली. सपाटेक मेर नाशिल्ली जाल्यार म्हज्या धांवपाकूय मेर नासपाची. उदेंतेची कड हांगा दखणेकय पाविल्ली. हेच कडेन म्हाका आडायलो. नातर फुडले दरयांत पडून नांच जावपाचों.

उदेंतेकडे सुरू जाल्ल्या झाडुलांची रांग आतां हांगा सोंपताली. निमाणे झाडूल हांगा उबें आशिल्लें. ताच्या मुंदाक बांदिल्ल्या पेडुलाचेर हांव उबो आशिल्लों. सांज सोंपली तरी झाडुलाच्या खोडावेल्यान चड-देंव करपी सानुले प्राणी, न्हिदपाचे भानगडेक पडनासतना म्हज्या येवकाराक बोवाळटालेच. हांवें तांचेकडे व्हडलेंशे लक्ष दिलेंना. म्हजें शिंतीद आशिल्लें तें मुखावेल्या भयांकृत खोल-खोल दरयचेर आनी त्या पलतडच्या विशालकाय दोंगराचेर. ह्या दोंगराच्या पांयांकडेन, आलतडच्या पालसणाच्या आदारान निर्मल्ली दरी, हांगाचे गंभीरतायेक चडच भर घालता. पयली दरड आनी उपरांत दरी तरी एकाद्री दरड जर कोसळून दरी पुरवल्ली तरी पावसाळ्यांत खडकांवेल्यान उडयो मारीत हांसत, खेळत नाचत व्हांवत-व्हांवत खंय वचत हें कोणाच्यान सांगू जावचें नासलें. पूण ना केन्ना हांगा दरड कोसळची ना आनी ना केन्ना असले कल्पनेतलो देखावो कोणाक पळोवंक मेळचो ना. आनी दरड कोसळ्ळीच जाल्यार कोणाचें लुकसाणूय जावचें ना. कारण हांगा गोंयांतली साखळी आनी काणकोण ना. ताका लागून बुडटी ना आनी मरणूय ना.

रात वाडत वताली, तरी झाडुलां तांचें पेडुलां म्हाका सोडिनशें दिसनासलें. गोंयांत माय तापता, पूण म्हाबळेश्वराक माय आसता ही गजाल थंयच्या सैमाक ना- शी दिसता कारण हांगाचो सगळो वाठारच 'फ्रिझ' जाला सो दिसता. झाडां पेडां आनी सगळे दोंगर 'फ्रिझां'त भरून दवरल्यात शें दिसता. पूण आमच्या गोंयां वस्तू कितलेय दीस 'फ्रिझां'त घालून थेयल्यो जाल्यार नाशवंत त्यो नाशवंतच. हांगा सगळें सदांच ताजें. कुसपाचो आनी सुकपाचो प्रस्नच येना. मुखावेल्या दोंगरार मनीसजात ना, मोनजात ना, झाडां-पेडांय ना. पूण ह्या दोंगराक काळजी आलतडच्या जिवांची. ह्या जिवांक कसलेंच दुख्ख भोगचें न्हय, तांकां सदांच थंडाय भोगची, चुकून लेगीत तांच्या वाट्याक मरण येवंचें न्हय म्हूण हो दोंगोर सदांकाळ थंडसाणीच्यो फुंको मारीत आसा. ताकाच लागून ह्या वाठाराक मायाची जाणविकाय केन्नाच जायना. दुसरी गजाल अशी म्हणल्यार ह्या दोंगरा माथ्यार म्हाका मळबांत कुपांचो आसपाव दिसलो ना. ताका लागून हो मुखावेलो विशाल दोंगर धवशी साडी पांगरून न्हिदला, असो भास जालो.

हांव सर्गसुखांत बुडिल्लों आसतनाच अकस्मात कॉटेजीनी लायट पेटली आनी खोशे

वांगडा शांतिभंग जालो. भुरग्यांनी टाळयो पेटून लायटीक येवकार दिलो. सानुल्यांचो बोवाळ थंयच्या सैमाक नवो नाशिल्लो तो सोसपाची संवय सगळ्यांक आशिल्ली. सैमाकय संवय जाल्ली ताची. पूण प्रवाशांतल्या एके बोबाटे मॅडमीन खोशे भारार किळांच मारली, तेन्ना मात कॉटेजीची सरभोवंतण दचकली. थंयच्या झाडांवयलीं कांय सुकणी भयान उडलीं. आनी सावध जावन परत आपले सुवातेर येवन बसलीं.

लायट आयिल्ल्यान भुरग्यांचो बोवाळ थांबलो. कॉटेजीतले हेर भोंवडेकारय समजिकायेचे आशिल्ले. प्रवासाक गेल्लेकडे लोकांमदें कशें वागूंक जाय हाची जाणविकाय तांकां आशिल्ली. तरी तांच्यांतली एक मॅडम बोबाटी आशिल्ली. तिची बोब सगळ्यांकच त्रासदिणी आशिल्ली. पूण हाची जाणविकाय तिका नाशिल्ली. आपूण फुडारी, आपूण शाणी असो गैरसमज तिणें करून घेतिल्लो जावंये! तशी ती मनान वायट ना. कोणाकय उक्त्या मनान मजत करपी. पूण तिचे हे गूण सगळ्यांक मानवतले अशें म्हणू नज. कारण तिच्यापसून जांका फायदो जाता, तींच तिची तोंडभर तोखणाय करतले, आनी फाटल्यान तासतले. पूण शिकूनसवरून ही गजाल तिका समजनासली. म्हाका दिसलें, तिच्याच बऱ्या खातीर हांवें तिका दोन उतरांनी समजांवचें. पूण खंयच्या अधिकारान सांगतलों हांव तिका? ती तर म्हज्या नात्या-गोत्यांतलीय न्हय. ओगीच शेणार फातर मारून तें आंगार कित्याक उडोवन घेवपाचें? तरी म्हजें मन म्हाका ओगी बसूंक दिना जालें. ताकाय एक कारण आशिल्लें. एके कॉलनीत एक मुस्लिम कुटूंब आशिल्लें. घोव दाडी टोपीवालो आनी बायल बुरखाधारी. हें कुटूंब म्हणल्यार शांत म्हणल्यार खूबच शांत! कॉटेजींत कोण रावतात अशें कोणाक कळप कठीण आशिल्लें, म्हाका काळजी आशिल्ली ती ह्या कुटुंबाची. कितें म्हणटले हे लोक आमकां? बेशिस्त हिंदू? काय शिकून बूत? खरें म्हणल्यार आमच्यांतली एक बोबाटी मॅडम सोडली तर सगळींच सुशिक्षीत आनी शिस्तप्रिय आशिल्लीं. बोबाटी मॅडम्य सुशिक्षीत आसा पूण तिच्या वर्तनावेल्यान ती सुसंस्कृत आसा अशें आमच्यांनी म्हणू नज. म्हाबळेश्वरान तिका मनशांत येवपाची बुद्ध दिवची!

एका तोंकाक बोबाटी मॅडम तर दुसऱ्या तोंकाक बस ड्रायव्हरचो सांगात म्हाका त्या दोन दिसांत मेळ्ळो. मॅडाम सुशिक्षीत तर ड्रायवर अशिक्षीत. ड्रायवराचें नांव रत्नाकर, गांवान वास्कोचो, नांवांप्रमाण रत्नाकर रत्नमोलाचोच. सभाव शांत, थीर बुद्धीचो. बोबाटे मॅडमीभसेन मेळत थंय तोंड खुपसुपाची संवय ना ताका. हांवें कितलेशेच शिक्षक-शिक्षिका, मुख्याध्यापक, वेपारी, राजकारणी, आमदार, मंत्री लागसारच्यान पळेल्यात आनी अणभवल्याय बी! पूण ते फक्त नांवाचे. रत्नाकर सारक्याची सर कोणांकूच येवची ना.

म्हज्या दारांत बस थांबली तेन्नाच रत्नाकराक हांवें पारखीलो. आनी कोणूय जाल्यार म्हाका पळेना फुडें जापायतलो आशिल्लो. हांसत्या तोंडान पळेतलो आशिल्लो. हांसत्या तोंडान सलगी करपी मनीस न्हय. ताका कोणाचें बरेंपण नाका आनी वाकडेंपणय बी! आपली जापसालदारकी वळखून काम करप हीच तो आपली जापसालदारकी समजता.

आमी दोतोराक देव मानून ताच्या सुवादीन मनशाची कूड सोंपयतात. दोतोराकडे एका वेळार एकूच कूड आसता. ताचेकडे कसलीय हयगय जाली जाल्यार एकेच कुडीचें बरें वायट जावपाची शक्यताय आसता. आनी बस ड्रायवराचें कितें? ताचेकडे बसभर मनशांचे जीव सोंपयल्ले आसतात. दोतोर चुकलो जाल्यार पेशंट मरता. पूण दोतोराक कांयच जायना. ड्रायवर चुकलो जाल्यार बस, बशींतले प्रवासी आनी ड्रायवराच्या जिविताची धडगत नासता.

येते-वते दोन दीस आमका बशींत बसून काडचें पडटलें, हाची कल्पना दिल्ली आमकां. गोंय ते कोल्हापूर दरम्यान एक व्हडलो घांट लागता हाची म्हाका खबर आशिल्ली. पूण फुडें म्हाबळेश्वराक पावचे आदीं, आनी एक घाट लागता हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. अर्थात हे दोनूय मुखेल घाट दोंगराच्या अशीर वाटेवेल्यान हुपचे पडटात. एके वटेन दोंगर आनी दुसरे वटेन खोल-खोल विशाल असो प्रदेश. ड्रायवराची एकाग्रताय भंगली, नियंत्रण सुटलें आनी भलतेंच घडलें, तर फुडें सगळेंच सोंपलें! तरी आमचो रत्नाकर आमकां सतरा प्रवाशांक घेवन, म्हाबळेश्वराक गेलो. घाटावेलीं, अरूद वाटेवेलीं-वळणार वळणां, ह्या वळणांवेल्यान येत्या -वत्या गाडयांक सांबाळून, वाटोवन रत्नाकर गाडी चलयतालो. वाटेर रोकड्यो-रोकड्योच सुचोवण्यो मेळटाल्यो, 'वाटेवर धोकादायक वळण आहे, घाई करू नका, वाहन सावकाश चालवा.' पूण रत्नाकराची नदर सुचोवण्यांकडे वचनासली. तो सगळें विसरून आपलेच तंद्रेत बस चलयतालो. देवाक जशी आपल्या भक्तांची काळजी आसता, मळबांत उडटे घोणीची जशी आपल्या पिलांचेर नदर आसता, तशी रत्नाकराक आपली सोडून फक्त आपल्या प्रवाशांची काळजी आशिल्ली. इतली काळजी दोतोरांक आपल्या पेशंटांची नासतली. आदवोगादांक आपल्या अशीलांची नासतली, शिक्षकांक आपल्या विद्यार्थ्यांची नासतली, ह्या सगळ्या परस, रत्नाकरासारके ड्रायव्हर म्हाका व्हडले दितात.

पांच मे आमचो भोंवडेचो मुखेल दीस आशिल्लो. सकाळच्या णवाक रत्नाकर आमकां घेवन म्हाबळेश्वराक पावलो. बस थांबोवन ताणें सांगलें "तुमकां गायड करचो पडटलो. चार-पांच वरांभितर तुमकां सगळें पळोवन घेवचें पडटलें. गायड तिनशें -चारशें रुपया मागतलो. ते खर्च केल्यार तुमकां म्हाबळेश्वर पळयल्याचें समाधान मेळटलें.

गायडान साडेतीनशांक आमच्या वांगडा येवपाचें कबूल केलें. तो आमकां म्हत्वाचीं आनी निश्चीत थळां दाखोवपाक घेवन गेलो. आमी आतां निश्चींत जाल्लीं. गायडा फाटल्यान धावपाचें काम उरिल्लें आमचें!

थळां बरींच पयस-पयस आशिल्लीं.

म्हाबळेश्वर हो दोंगराळ प्रदेश आसलो तरी गोंयांत आसात तशीं जंगलां हांगा पळोवंक मेळना. गोंयांत कांय वाट्यांनी लांब, मोटी आनी वाकडीं तिकडीं झाडां पळोवंक मेळटात. दाट जंगलातले रूख मे म्हयन्यांत पांचवेचार दिसले, तरी मर्दे-मर्दे सुकिल्ले दिसतात. गोंयांतल्या जंगलांतल्या झिरपुटांतलीं शिरपुटां सुकिल्लीं दिसतात. सुकिल्लीं लाकडां हांगा थंय पळोवंक मेळटात. पूण म्हाबळेश्वराक तशें ना. हांगां खंयच मरण अशें दिसना. दिसता तें तरण आनी तरण. बस धावतासतना कांय बोडकीं आनी मोटवीं झाडां दिश्टीक पडटात. पूण सगळीच सुंदरकायेन भरिल्लीं, कालचीं झाडां अपर्णा आशिल्लीं. तींच आयज कोंबरेल्लीं. आयचीं सपर्णा फाल्यां सुपर्णा जातलीं. ह्या पानांक तिकतिकी हाडपाचें काम म्हाबळेश्वर करता. चराचराक सतत तो जिवसाण भरताच. शिवाय आपल्याक जाय तसल्या वाठाराक सोबता तसले रंग भरून तो आपूण एक व्हड चित्रकार आसा हें दाखोवन दिता. हें करपाक ताची एकच मोख आसता ती म्हणल्यार आपले भेटेक येवपी भक्तांक भरपूर सुखानंद मेळचो. हेर प्रदेशांप्रमाण आपल्या वाठारांत माय तापचो न्हय, उकाडो जांवचो न्हय म्हूण ताचे सदैव प्रयत्न आसतात. ते पासत ताचेकडे एक खाशेलो पंखो आसा. तो ताणें खंय लिपोवन दवरला, हाचो पत्तो तो कोणाकच लागूंक दिना. ह्या पंख्याचो वारोय अजापाचो आसता. तो वादळाचें रूप घेवन कोणाकच त्रास दिना.कसलोच भेदभाव करिनासतना हें वारें सतत मंद गतीन व्हावतच रावता. ताका लागून हो आख्खो वाठार म्हाबळेश्वरान एका व्हडा फ्रिजांत घालून नाशापासून पयस दवरला.

आतां दनपारचीं बारा जाल्लीं. गायडान आमकां दोंगोर चडपाचें काम दिल्लें. आमी तो उमेदीन चडटालीं. कसलेच त्रास म्हण बादनासले आमकां. इतल्यान म्हजी नदर फोरेन जोडप्याचेर पडली. ह्या म्हाताऱ्या जोडप्याचो रंग-भेस सागतालो की ते भारतीय न्हय. म्हाका त्या जोडप्याचें कवतूक दिसलें इतल्या म्हातारपणांत हें जोडपें धडपडत,



आडखळत चलतालें. मात म्हाबळेश्वर तांच्या नस-नसांत भरिल्लो. म्हज्या पुतांकडे-नातवंडाकडे कॅमेरे आशिल्लेच. हांवें म्हज्या पुताक त्या म्हाताऱ्यांचो फोटो घेवंक सांगलें. ते आदी तांची परवानगी घेतली. तांच्या अवतारावेल्यान हांव तांचेकडे भारतीय भाशेंत संवाद सादूंक शकनासलों. हांवें त्या पाकल्याक इंग्लशींत तांचें नांव विचारलें. तो आसलो मधू आपटे आनी ताच्या घरकान्नीचें नांव सुमन. म्हाताऱ्याचें नांव आपटे. आयकून हांवें आपटी खाली. मधूचें वय आसलें शात्तर वर्सां आनी सुमनाचें बहात्तर. म्हजें चित्त तांचेकडे आकर्शीत जालें. हाचें कारण, तांच्या वांगडा कोण नासताना ताणी इतलो उंच दोंगर चडपाचें धाडस केल्लें. चार हजार चारशें एकत्तीस फूट चडून तीं त्या दोंगराचे तेमकेर गेल्लीं. (ह्या थळाची उंचाय आतां समुद्र सपाटीपासून चार हजार चारशें एकत्तीस आसा.)

आमी आतां इच्छीत थळार पाविल्लीं. येदी व्हडली चडटी चडुनूय कोण थकलो सो दिसनासलो. आनी थकतलो तरी कसो? सगळ्यांचे कुडीत आदींच म्हाबळेश्वर रिगिल्लो.

दोंगराचे तेमकेर पावतकच आमकां खरेल्या सर्गार पाविल्लेवरी दिसलें. काल्पनीक सर्गाच्यो काणयो आमी खूब आयकल्ल्यो. पूण त्या कल्पनेंतल्या सर्गापरस म्हाका हो प्रत्यक्षांतलो सर्ग खूब मानवतालो. काळखांतल्यान उजवाड मेळटकच, कश्टांतल्यान सुशेग मेळटकच मनशाक खरो आनंद मेळटा. ह्या सर्गार इंद्र नाशिल्लो, अप्सरा नाशिल्ल्यो. हांगा मरणाचो भंय नाशिल्लो जाल्यार येवपाचे भानगडींत कोणूच पडचो नासलो. मागीर मरणाचो भंय नाशिल्ल्याक नरकाचो भंय तरी कसो आसतलो?

आमचें पावल सर्गाचेर पडटांच आमकां दिसली ती एक ल्हानशी रांग. भरिल्ल्यो बाटल्यो रिकाम्यो करून ल्हाना-व्हडां थंयच्या वझऱ्याच्या उदकापासत ते रांगेंत उबीं आशिल्लीं. बनो पवार नांवाची एक मायेस्त आवय, कोणाचेर उबगनासतना तिडकनासतना, उदक भरून दिताली. ह्या उदकाची चव घेतकच अमृत कशें आसता हाची कल्पना आयली. उदकाचो घोट पोटांत वचनाफुडें गात्रान गात्र सशक्त जालें. बनो पवार सर्गार बसून उदक भरून दिवपाची लोकसेवा करताली. शारांत ज्या उदकाचे बाटलेक पंदरा रुपये फारीक केल्ले, तीच बाटली बनो पवार हांगा फुकट भरून दिताली. धतरिवेले लोक पुण्य करून सर्गार वतात. सर्गावेली ही बनो पवार येदें व्हडलें पुण्य करून खंय वतली काय? कारण म्हजे मतान म्हाबळेश्वरापरस व्हड असो सर्ग आनी खंयच आसू नज!

बनोच्या हातचें उदक पिवन आमी मातशे

फुडें गेले आनी इत्सीत सर्गथळाचेर नदर मारली. सर्ग म्हणलो म्हणटकच नरक आयलोच. सर्ग-नरक म्हणल्यार सुख-दुख्खाचें प्रतीक. सर्ग म्हणल्यार सूख आनी नरक म्हणल्यार दुख्ख आनी भंय. पूण हांगा मेळटालें तें सगळें सूख आनी सुखच! भंय दुख्खाचें हांगा नांव नाशिल्लें. जंय भंय आसता थंयच्यान प्राण्यांक पळ काडीन सो दिसता. पूण हांगाचें भंयविरयत थळ कोणाकच सोडीनशें दिसनासलें. म्हाबळेश्वराचो खंयचोय वाठार तुमी पळयात, दोंगराचो एक वाटो पालेवन पांचवोचार जाल्लो आसता, तर दुसरो बोडको. पालेल्ल्या दोंगरार पावला कणकणी सौंदर्य भरिल्लें आसा, तर हेर वाठार बोडको आसलो. तरी तातूंत विशालताय, भव्यताय आनी गांभीर्य आसपावल्लें आसा. अशें आसलें तरी ह्या बोडक्या गांवांतय मुरून बशिल्लें सौंदर्य दोळ्यांत भरलेबगर रावना. म्हणून म्हणचें पडटा, हांगा पातळ्ळां तें फक्त जीवन आनी सौंदर्य!

तो वाठार कितलोय सुखसंपन्न आनी शाश्वत आसलो, तरी आमकां अशाश्वत जिवांक तो तोखेत बसप शक्य नाशिल्लो. राखणो गोरवांचेर धेंगशेता तसो गायड आमचेर धेंगशेलो. इत्सा नासुनूय आतां आमकां त्या सर्गाक फाट करचीच पडली.

दनपार जाता म्हणल्यार आमकां गोंयकारांक जेवणाची याद येता. जेवण म्हणल्यार शीत-हुमण ना तर शीत-रोस. थंय लागसाराक जेवणाची वेवस्था आशिल्ली काय कितें, तें म्हाबळेश्वराक खबर! निदान दोन-तीन वरांमेरेन तरी आमकां एकादस घडिल्ली. दोंगर चडटां-चडटां पावला कणकणी स्टॉल्स मेळटाले. सगळ्या स्टॉलांचेर एकेच तरेचें खाण आनी फळावळ. भाजिल्लीं आनी उकडिल्लीं मक्याकणसां. उकडिल्लीं भिकणां, मसालेदार तवशा पिंपऱ्यो. थोडे प्रमाणात आडसरां आनी सॉफ्ट ड्रिंक. ते भायर, हांगाचें मुखेल फळ स्ट्रॉबेरी आनी मलबेरी. आमच्यांतल्या चडशा वांगड्यांनी असल्याच खाणांनी आपल्यो भुको भागयल्यो. असल्या वेळार खाणावळ मेळिल्ली जाल्यारय 'इदं न मम!' म्हणत जणेकलो फुडें वचपाचो.

म्हाबळेश्वराक वचत थंय स्ट्रॉबेरीज पळोवंक मेळटात. त्या मानान मलबेरी उण्यो. खावंक चवीक व्हडलो सो फरक ना. स्ट्रॉबेरी मातश्यो आंबट आनी पचपचीत. तरी खायन-खायन दिसतात. मलबॅरी काळशो, पूण गोडशो. स्ट्रॉबेरी माज्यांचेर लोळटात, मलबेरी झाडांचेर लांबतात. स्ट्रॉबेरी आकारान अणस कशें आनी रंगान तांबडी. धा रुपये दिंवचे आनी दोणोभर स्ट्रॉबेरी खावंच्यो. मलबेरीय धा रुपयांक मेळटात, पूण थोड्यो.

हांगा नावाजत्या हॉटेलांत वचचें आनी स्ट्रॉबेरी आयस्क्रीम खावंची, वांगडा दुदाळ मक्याची कुरकुरीत भजीं खावंक कितली मजा येता म्हणून सांगूं!

गायडाचो म्हत्वाचो वाटो आतां देवळां दाखोवपाचो आशिल्लो. म्हाका दिशिल्लें, म्हाबळेश्वराचें देवूळ सुंदर तशेंच गिरेस्त आसतलें. पूण खंयचे कडे कांयच ना! म्हाबळेश्वर गोंयांत येवन राविल्लो जाल्यार ताची उदरगत जावपाची. एकाद्रो परधर्मीय भक्त लेगीत गरिबावस्थेत दीस काडपी म्हाबळेश्वराच्या देवळाचेर उजवाड घालतलो आशिल्लो.आजय गोंयांत म्हाबळेश्वाच्या देवळासारके, गरिबावस्थेत आशिल्लें देवूळ खंयच सापडचेंना.

असलेच अवस्थेंतलें आनी एक देवूळ म्हाबळेश्वराक आसा. हें देवूळ कोणाचें हें हांव सांगूंक शकना. कोणे तरी ते पंचगंगा अशें सांगिल्ल्याची याद जाता. हांवें हें पयसुल्ल्यानूच पळेल्लें. देवळांत एक चौकोनी कूंड आसा. एका पशूच्या मुखांतल्यान उदक कुंडांत पडटा. मुखांतलें उदक निवळ आनी स्वच्छ आसा. पूण कुंडांतल्या उदकाक मात कोणे पवित्र ही सज्ञा दिवची न्हय, अशें म्हजें मन म्हाका सांगता.

ह्या देवळाचो कोणे फोटो काडचो न्हय. अशे दोनूय देवळांचेर बोर्ड मारल्यात. कित्याक मारल्यात काय ते बोर्ड? देवळाची दुर्दशा वाऱ्यार पडची न्हय म्हूण?काय जो मेरेन आपलो एकान एक भक्त गिरेस्त जावचो ना तो मेरेन आपुणूय गरीबच रावतलों, अशें बी म्हाबळेश्वराक दिसता काय?

कितेंय जांव, म्हजे दिश्टीन म्हाबळेश्वराच्या देवळाक म्हत्व ना. देव हो देवळांत आसना. तो आसता विश्वात. म्हाबळेश्वर नांवाचें थंड थळ खंयतरी आसा, हें हांव आयकून जाणा आशिल्लों. सदांच कामाच्या चेपणाखाला आशिल्ल्यान खंयच वचचें शें दिसनासले. दोन-तीन वर्सा फाटीं दिलिपावांगडा अकस्मात जोगचो घसघसो आनी हेर दोन-तीन दोंगराळ आनी जंगली थळां पळोवपाची संद मेळ्ळी. हीं थळां आनी म्हाबळेश्वर पळोवनाशिल्लें जाल्यार, जल्माक येवन कांयच पळेलेंना अशी भावना मनांत वसतली आशिल्ली.

हे आदी पयस-पयस वचून शारांतलीं मुखेल थळां पळयल्लीं. पूण असलीं सैमीक थळां पळोवपाची संद मेळूं नाशिल्ली. आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार तीन दिसांचे भोंवडेंत म्हज्या वांगडा मायेचीं मनशां आशिल्लीं. धूव आशिल्ली, पूत आशिल्ले, सुनो आशिल्ल्यो. ते भायर नातरां-धुवेलीं आनी पुतांलीं भुरगीं आशिल्लींच, शिवाय संहप्रवाशांतल्या आनी तीन भुरग्यांचो आसपाव आशिल्लो. ह्या सगळ्या भुरग्यांचो हांव आजोबा जावन आशिल्लों. आपल्या हातांत आशिल्लें जणेक खाण म्हाका दिले बगर तांच्या तोंडांत रिगनाशिल्लें. आजोबा हें खा, आजोबा तें खा अशें सतत चालूच आसतालें. ल्हान भुरग्यांची दोस्ती कितली सुखदेणी आसता हें म्हाका हे भोंवडेवेळार कळून आयलें.

म्हत्वाची गजाल अशी, की म्हाका ह्या प्रवासांत एकूय पयसो खर्च करचो पडलो ना. गाठीक फाव तितले दुडू आशिल्ले. पूण ते खर्च करून हांव म्हज्या भुरग्यांचो आनी सुनांचो अपमान करूंक सोदिन्नासलों. हांवें फक्त काम केलें तें खावपाचें. आनी पळोवपाचें. हातूंत म्हज्या भुरग्यांक, सुनांक खोस भोगताली हाची जाणविकाय म्हाका म्हाबळेश्वरान करून दिली. •••

परमळ



– अपर्णा गारुडी
शिवोली, गोंय
फोन : ९८२३०९८२५४

*'विश्वची माझे घर' हो विशाल दिश्टीकोण दवरून विज्ञान आनी शांतिचो संगम घडोवपी विश्वशांती केंद्र म्हळयार सरस्वतीचें निवासस्थान. दैवी आशिर्वादाबगर अशी संस्था चलप आनी चलोवप शक्य ना ही जाणीव खंयतरी जातली.*

# अविस्मरणीय



मनीस नांवाचें पुस्तक वाचतना कांय मनशांक आमी वेवस्तीत समजून घेतात, पारखितात. कांय मनशांचे विचार पटनांत, तरीकय तांच्या वयाचो मान राखून आमी तांकां मान दितात. असोच एक मनीस जाणटो आनी जाणतो. ताका म्हजी खूब अपुरबाय. म्हज्या लेखनाची, यशाची, कर्तृबाची तोखणाय करपाची ताका संवय. अशें करतना ताचीं मतां तो म्हजेर लादता हाची ताका कल्पनाय नासताली. ताका लागून स्वताच्या तत्वांखातीर जगपी म्हाका ताच्या तोखणायेचें आनी अपेक्षांचें वजें जातालें. हें सांगपाचें कारण म्हळ्यार एक दीस ह्या मनशान म्हाका म्हळें, "एके संस्थेन समाजसेवी आनी चारित्र्यसंपन्न शिक्षकांखातीर पुरस्कार जाहीर केला. तूं हो फॉर्म भर. वळेरेंत दिल्लीं प्रमाणपत्रां हाड. फायल तयार कर आनी म्हजे कडेन दी." हांवें म्हळें, "म्हाकां फॉर्म भरपाचो ना आनी प्रमाणपत्रांय हाडपाचीं नांत. कारण पुरस्कार मेळोवपाची जी पध्दत आसा तीच म्हज्या तत्वांत बसना. खंयचेय संस्थेक जर पुरस्कार दिवंचो अशें दिसता जाल्यार ताणी योग्य मनशांक सोदून काडचीं. तांचें कार्य पळोवंचें, लोकमत विचारांत घेवंचें. ह्या कामाखातीर निरिक्षण समितीची नेमणूक करची आनी मागीरूच पुरस्कार दिवंचे. स्वताच स्वताचे फॉर्म भरून, जायरात करून पुरस्कार घेवपांत अर्थ ना. समाज सेवा म्हणशीत जाल्यार म्हजें कार्य तुका लोकांक विचारचें पडटलें. चारित्र्यसंपन्नता सोदपाची आसत जाल्यार म्हज्या चारित्र्याचें सगल्यांत व्हडलें प्रमाणपत्र हांवूच. तें दुसरो कोण कशें दितलो? चारित्र्याची जायरात केली म्हणून मनीस चारित्र्यसंपन्न जायना आनी केली ना म्हणून चारित्र्यहिनूय जायना. भुरगेंपणांत जाल्ले संस्कार आनी मनशाचो स्वभाव मेळून चारित्र्य घडटा. तुमच्यो म्हजे बद्दलच्यो भावना हांव समजूंक शकतां. पूण हो फॉर्म हांव भरचें ना कारण तें म्हज्या तत्वांत बसना." हांवें ताका समजायलो. म्हजे विचार आयकून ताका कितें दिसलें कोण जाणा. तो गेलो. दुसऱ्याक दुखोवप म्हाका जमना. कांय वेळार जिणेंतल्या कांय प्रस्नांच्यो जापो मेळोवपाखातीर भावनेच्या भरांत आमी तत्वांत बसनाशिल्ल्यो गजाली करतात. मागीर आमी अशीं कित्याक वागलीं? अशें कित्याक केलें? ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदीत जीणभर पश्चाताप करचो पडटा.

पूण कांय वेळां मात तत्वांत बसनाशिल्ली ल्हानशीच गजाल जीणेत अविस्मरणीय अशे सुंदर खीण घेवन येता तेन्ना तें नशीब. वयर सांगिल्ली

गजाल ज्या सकाळीं घडली तेच सांजवेळा म्हजी इश्टीण नूतन साखरदांडेचो फोन आयलो. अंदु अखिलभारतीय कवयित्री संमेलन पुण्यांत जावपाचें आसा. तुका पत्र आयलांच आसतलें. तुजें पुस्तक पुरस्कारा खातीर धाडून दी. गोंयच्यो चडश्यो कवयित्री पुस्तकां धाडटल्यो. हांवें त्या मनशाक सांगिल्लें तेंच नूतनाक सांगलें. ताणें म्हळें, "हांवूच फॉर्म भरतां. पुस्तकय धाडटां. तूं फकत तुजें पुस्तक म्हाका दी." हय - ना करत निमाणे तारकेक नूतनानूच म्हजो फॉर्म भरून पुस्तक धाडलें. तेन्नाय म्हज्या मनांत विचार येताले. दर्जेदार पुस्तकांक पुरस्कार मेळटाच. पूण पुरस्कार मेळिल्लीं सगळींच पुस्तकां दर्जेदार आसतात व्हय? पुरस्कार मेळूंक नाशिल्ल्या पुस्तकांक दर्जो नासता? मागीर ही सर्त कित्याक? पुरस्कार मेळोवप वायट न्हय. तो मेळयतल्यांनी मात ताचे कडेन नवनिर्मितीची प्रेरणा म्हणून पळोवपाक, शिकपाक जाय. आनी मेळूंक नाशिल्ल्यांनी निराश जावपाची गरज ना. संत ज्ञानेश्वर, संत तुकाराम, समर्थ रामदास हांका खंयचे पुरस्कार मेळिल्ले? तांचें साहित्य शेकड्यांनी वर्सां पयलीं आशिल्लें आनी फुडेंय उरतलें.

हे गजाली उपरांत पंदरा दीस सोंपले. १, २ आनी ३ मे २०१०क अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाचें महाअधिवेशन MIT कोथरूड, पुणे हांगा जावपाचें आशिल्लें. ह्या संमेलनाक हाजीर रावपाक गोंयच्यान नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे, नयना आडारकार, सरस्वती नायक, दीपा खोलकारल, ग्वादालूप डायस, लिना कुंकळकार आनी हांव अशीं आठ जाणां ३० एप्रिलाक पुण्याक वचपाक भायर सरलीं. सकाळीं णवांक कोथरूडच्या MIT च्या (महाराष्ट्र इंस्टिटयूट ऑफ टेक्नॉलॉजी) भव्य वास्तूत पावलीं. दोळ्यांत मावना येदो व्हडलो MIT चो वाठार. सुंदर, शांत वातावरण. सोबीत बाग, बागेच्या भोंवतणी विज्ञान, तंत्रगिन्यानाच्या विंगड विंगड शाखांच्यो भव्य इमारती. नितळ रस्ते. वेवस्तीत पार्कींग वेवस्ता. गेटींतल्यान भितर सरतनाच संन्याश्यांवरी भगवें न्हेसून येवकाराक हारीन उबी आशिल्लीं गुलमोहराचीं झाडां. ह्या सोबीतकायेंत भर घालतालो तो प्रवेशद्वाराच्या दावे वटेन आशिल्लो संत ज्ञानेश्वराचो भव्य पुतळो. ताच्या फाटल्यान व्हडलें प्रार्थनाघर आनी संत ज्ञानेश्वर वाचनालय. विश्वशांती केंद्राचें हें प्रार्थनाघर पळयनाफुडें मन भुल्लुसलें. कितलेशेच फावट पुण्यांत येवन गेलें. पूण विश्वशांति केंद्र आदी MIT पळोवपाचो योग पयले फावट आयिल्लो. नांव नोंदणी जातकच आमी प्रार्थना घरांत भितर सरलीं. थंयच्या शांत वातावरणाचो अणभव वेगळोच आशिल्लो. हांगाच येवकार सुवाळो जालो. ह्या सुवाळ्यांतच आमकां विश्वशांति केंद्राची वळख जाली. अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाक भारत भरांतल्यान दोनशें कवयित्री आयिल्ल्यो. AIPC म्हळ्यार All India Poetess Conferenceचे संस्थापक आनी संचालक डॉ. लारी आझाद तशेंच विश्व शांतिकेंद्राचे संस्थापक संचालक आनी MITचे प्राचार्य डॉ. विश्वनाथ कराड हाणी येवकार दिलो. डॉ. विश्वनाथ कराड म्हळ्यार एक ज्ञानसंपन्न आनी भारदस्त व्यक्तिमत्व. ताणी केंद्राची वळख करून दितना म्हळें, "विश्वशांति केंद्र आनी MITचो संबंद आनी उद्देश म्हळ्यार विद्यार्थ्यांक विज्ञानीक प्रगती वांगडा अध्यात्मिक ज्ञान दिवन विश्वशांतिच्या मार्गार चलपाक शिकोवप. विज्ञानाचो योग्य उपयोग, देशभक्ति आनी विश्वशांति. हे तीन उद्देश मुखार दवरून जल्माक आयल्ली ही संस्था." डॉ. कराडाचें उलोवप म्हळ्यार प्रगल्भ बुध्दिमत्तेची, ज्ञानाची आनी अणभवाची अमृतधारा. विज्ञानावांगडाच विश्वशांतिच्या मार्गार विद्यार्थ्यांक चलपाक शिकोवपी पयलीच संस्था आसतली.

विश्वशांति केंद्राची आनी MIT ची म्हायती सांगतना ताणी सांगलें की संत ज्ञानेश्वरांचे विचार आनी साहित्य भुरगेपणांतल्यानच तांचेर संस्कार करीत गेले. देखूनच तांचे सारको शेतकाराचो भुरगो इंजिनियरींग कॉलेजीचो प्राध्यापक आनी प्राचार्य जावंक पावलो. विज्ञानावांगडाच विश्वशांतिचो ध्यास घेवन ताणी MITची स्थापना केली. आयज कोथरूड लोणीकाळभोर, तळेगांव आनी आळंदी ह्या पुण्यांतल्या वाठारांत MITचीं पांच गुरूकुलां आनी तांत्रीक महाविद्यालयां आसात. भारतभरांतलीं चवदा हजार भुरगीं ह्या गुरुकुलांत शिकतात. विज्ञान, तंत्रगिन्यान मळार उच्चशिक्षण घेवपी गोंयचीं कितलींशींच भुरगीं थंय आसात. शिक्षणाचो ध्यास आनी जिद्द हाच्या बळग्यार पंचवीस वर्सांभितर एक मनीस, संस्थेची कितली उदरगत करपाक शकता हाची देख म्हळ्यार MIT. डॉ. कराडाचें विश्वशांतिखातीर चलिल्लें कार्य, ज्ञानसंपन्न उतरां, सादेपण आनी शिस्त पळोवन मन आदरान भरून आयलें. 'दिव्यत्वाची जेथ' प्रचिती तेथे करमाझे जुळती म्हणीत मनांतल्या मनांत हांवें तांकां हात जोडले. स्त्री शिक्षणाविशींची तळमळ आनी अस्तुरेविशींचो उपाट आदर हे संस्थेंत पळोवंक मेळ्ळो. डॉ. कराड हांच्या कार्याक हातभार लावपी तांची घरकान्न आनी तांचें कार्य मुखार व्हरपी तांचो पूत म्हळ्यार संस्थेच्या सगल्या वांगड्यांचें, कर्मचाऱ्यांचें श्रध्दास्थान आनी आदर्श. 'विश्वची माझे घर' हो विशाल दिश्टीकोण दवरून विज्ञान आनी शांतिचो संगम घडोवपी विश्वशांती केंद्र म्हळ्यार सरस्वतीचें निवासस्थान. दैवी आशिर्वादाबगर अशी संस्था चलप आनी चलोवप शक्य ना ही जाणीव खंयतरी जाताली. डॉ. कराड, तांच्या संस्थेचे प्राध्यापक आनी हेर सगले कर्मचारी तत्परतेन आनी नमळायेन आमची वासपूस करताले. आदरातिथ्य आनी आयोजन कशें आसचें हें विश्वशांती केंद्राकडल्यान शिकचें. 'अतिथि देवो भव' हाचो खरो अर्थ हांगाच कळ्ळो. उत्तावण सुवाळ्या उपरांत आमी भायर आयलीं. MITच्या भव्य प्रांगणांत एका व्हडल्या बोर्डाचेर पुरस्कार जैतिवंतांचीं नांवां बरयल्लीं. सरस्वती नायकाक आनी म्हाका पुरस्कार

मेळिल्लो. नयन आनी नूतनाकय साहित्य सन्मान जाहीर जाल्लो. तशेंच मायाक शारदा सम्मान फावो जाल्लो. आमी खूश आशिल्लीं. कारण गोंय हें एकूच राज्य आशिल्लें जाका पांच पुरस्कार फावो जाल्ले.

लोणी काळभोर हांगा MITचें भव्य गुरुकूल आसा. थंय आमकां रावपाची वेवस्था केल्ली. हांगा राजकपूराचें स्मारक आसा. ताचें घर आनी स्टुडिओ आसा. ताच्या काळांतल्या गायक संगितकार आनी नटनटयांच्या पुतळ्यांचें संग्रहालय आसा. 'बॉबी' सिनेमाचें शुटींग राजकपूराच्या ह्याच घरांत जाल्लें. हांगा कलाकारांखातीर गेस्ट हावज आसा. राजकपूरासारको व्हड मनीस जमनीर न्हिदतालो, तो केन्नाच खाटीर न्हिदलो ना हें ताचो बेडरूम पळोवन थंय बरयल्ल्या म्हायतीवयल्यान कळ्ळें. पाच किलोमिटराचो लोणी काळभोरचो MIT वाठार राजकपूरान स्टुडिओखातीर फकत एका रुपयाक विकत घेतिल्लो अशेंय कळ्ळें. कपूर घराण्याकडल्यान MIT खातीर हो जागो डॉ. कराडान घेतलो. पूण 'राजकपूर' नांवाचें कलेच्या इतिहासाक पडिल्लें सोबीत सपन 'राजकपूर मेमोरियल' बांदून ताणी अज्रांवर केलें. मुळामुठा न्हंयेच्या संगमाचेर आशिल्ल्या राज कपूर स्मारका कुशीक एक सोबीत माची बांदिल्ली. हे माचयेर camp fire वेळार आमी गोंयचें प्रतिनिधीत्व करतना गोंयच्यो लोककला सादर केल्यो. भारतभरच्यो लोककला आमकां हांगा पळोवपाक मेळ्ळ्यो.

पांच विंगडविंगड जाग्यार कार्यावळी आयोजित करून MITच्यो पांचूय शाखा आयोजकांनी आमकां दाखयल्यो. काव्यसत्र आनी चर्चासत्र कोथरूडच्या प्रार्थनाघरांत जातालें. सांजेवेळार हेर कार्यावळी संस्थेच्या विंगड विंगड शाखेंत घेतालें थंय व्हरपाक आनी हाडपाक गुरुकुलाच्यो पंदरा बशी आशिल्ल्यो.

दक्षिण भारतीय भाशेच्या काव्यसत्रान आमी सगल्यांनी कोंकणी कविता आनी ताचो हिन्दी अणकार सादर केलो.

'वय म्हजें सोळा....' ह्या नयना आडारकारांच्या गीतान प्रेक्षकांक ठेको धरपाक लायलो. ताल सुरांनी संपन्न अशा ह्या सत्राची यजमानकी नूतन साखरदांडेन चलयली.

ह्या सत्रा उपरांत आमची वळख पुणेच्या सिध्दयोग आश्रमाच्यो संस्थापिका 'माँ राधिकाजी' कडेन जाली. 'अहं ब्रह्मास्मी'चो साक्षात्कार आनी विवरण ह्या विशयाचेर अतिशय सुंदर उलोवप ताणी केलें.

ज्ञानेश्वरीचो इंग्लीशींत काव्यरुपांत (श्लोकरूपान) आसा तसो अणकार करपी ही पयली अस्तुरी. अशी डॉ. कराडान तिची वळख करून दिली.

आमचो पुरस्कार वितरण सुवाळो इंद्रायणी न्हंयेचे देगेर ज्ञानेश्वराचे समाधिमुखार विश्वशांती केंद्राच्या भव्य माचयेर जालो. इतली भव्य उक्ती माची हांवें पयले फावट पळयली. ह्या भव्य सुवाळ्याक हजेरी लावपाक MITचो स्टाफ, कवयित्रि आनी हेर प्रेक्षकच न्हय तर आळंदीवासी लेगीत जमिल्ले. आमकां येवकार दिवपाक पावसय आयलो. जोगलांचो चकचक, कुपांचो गडगड आनी झिरिझिरी पावस. आतां कार्यावळ रद्द जातली अशें दिसतालें. पूण विश्वशांती केंद्राच्या कडक शिस्तीत तयार जाल्ले माचयेवयले मानेस्त मातूय हाललेनांत. पावसाक लागून प्रेक्षकांभितर हालचाल जाणवताली. इतल्यान डॉ. कराड उलोवपाक उबे रावले. ताणीं म्हळें, "वादळ, पावस, वारें कितेंय येवं ज्ञानेश्वर महाराज सगलें सांबाळून घेतले. कोणेंच जाग्यावयल्यान हालपाची गरज ना. हो सुवाळो हांगा जातलोच. आमच्या देशाचे शिमेर दिसरात भिरांकूळ तुफानाक तोंड दीत आमचे जवान आमचे खातीर उबे आसात. मायेभुंयेची राखण करपाची सोडून ते पावस वाऱ्याक भियेवन धांवले जाल्यार आमच्या देशाचें कितें जातलें? कोणूच जाग्यावयले हालूं नाकात. शांत बसात!" मागीर ताणी त्या पावसांत उबे रावन विश्वशांतीची प्रार्थना म्हळी. आश्चर्य म्हळ्यार त्या आवाजांत जादू आशिल्लेवरी माचये पसून इंद्रायणीच्या घाटा मेरेनचो सगलो लोक आसा थंयच स्तब्ध बसून रावलो. जोगलावतालें, गडगडटालें पूण पावस थांबलो. कार्यावळ सुरू जाली. ही प्रार्थनेची तांक, जनसमुदायाच्या इच्छाशक्तिचो परिणाम काय योगायोग ह्या विचारांत हांव खिणभर घुस्पलें. डॉ. कराडाकडल्यान पुरस्कार घेतना खूब खोशी जाली. आयज मेरेन विंगडविंगड मळार कांय पुरस्कार, सन्मान मेळिल्ले. पूण म्हजे खातीर ह्या पुरस्काराचें एक वेगळेंच म्हत्व आशिल्लें. ज्या पुण्यांत म्हजो जल्म जालो, जंय जिणेतली पयली अक्षर वळख जाली त्या विद्येच्या कुळारा म्हळ्यार पुण्यांत, आळंदी सारक्या तिर्थस्थानाचेर संत ज्ञानेश्वराच्या साक्षीन विश्वशांती केंद्राच्या संचालकाकडल्यान जिणेंतलो पयलो साहित्य पुरस्कार घेवप ही गजाल पुरस्कारापरस व्हड आशिल्ली. साहित्यीक मळावयलो पयलो पुरस्कार इतल्या सुंदर पवित्र वातावरणांत आनी म्हज्या जल्म भुंयेंत मेळप हें म्हजें भाग्य. हांवें म्हजीं तत्वां सांबाळ्ळीं पूण नूतनान पुस्तक धाडून दिलें म्हणून हो अविस्मरणीय खीण म्हजे जिणेंत आयलो. नूतनाचें उपकारी. सुवाळ्या उपरांत परत पावस सुरू जालो. तिसऱ्या आनी निमाण्या दिसा समारोप सुवाळ्या पयली हांवें डॉ. कराड हांकां म्हजीं दोनूय पुस्तकां तांच्या वाचनालयाखातीर भेट दिलीं आनी तांचे आशिर्वाद घेतले. तांचेकडल्यान मेळिल्लो संत ज्ञानेश्वराचो फोटू ही एका ज्ञानी मनशान दिल्ली योग्य भेट म्हजे खातीर पुरस्कारा परस मोलादीक आशिल्ली. जिणेतले हे अवस्मरणीय खीण हांवें मनाच्या अल्बमांत सांबाळून दवरल्यात. ह्या तीन दिसांक जाता तितलें कॅमेरांत बंदिस्त केलां. अशीं मनशां अशें वातावरण, ज्ञान, शिस्त आनी शांतिचो संगम पळोवपाचें, अणभवपाचें भाग्य सदांच मेळना.

शिस्त आनी शांतिचो संदेश घेवन अधिवेशनांतल्या नव्या विचारांक, वळखींक आनी नव्या अणभवाक गाठीक बांदून विश्वशांती केंद्राचो आमी निरोप घेतलो.

•••

लेफळो



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

*हुंडो घेवपाक कायद्यान बंदी आसली आनी हुंडाविरोधी पथकां कितलींय जरी अस्तित्वांत आसलीं तरी आपले एकले-दुकले चलयेक लंकेच्या पार्वतीबशेन भायर काडपाक खंयचोच पालक स्वखुशीन तयार नासता तो जालोच. आनी सोयरिकेन करतल्या लग्नाक लंकेची पार्वती जावन आयिल्ल्या व्हंकलेक कोणूच स्विकारचोना.*



# वाढतां वाढतां वाढे

सद्याक म्हुर्तांचो सुकाळ सुरू जाल्ल्या कारणान सगळेकडेन उमेदीचें वातावरण आनी ताचे वांगडा वचत थंय गर्दी पळोवपाक मेळटा. एकेवटेन उच्चांक गाठिल्ली अंदुची माया म्हयन्याची गरमी घाम काडटा तर साकरपुडो, लग्ना सारकिल्या समारंभाच्या निमतान कपडयांच्या, भांगरांच्या दुकानांनी गर्दी वाडत आसा. गोंयकारांचे उमेदीक मोल ना खरें. कारण एकेवटेन म्हारगाय म्हारगाय म्हण गजाल मारतनाच वचत त्या दुकांनांनी खरेदीखातीर जाल्ली झुंबड दिसून येता. रीण काडून सण साजरो करपाक तर आमी गोंयकार मात्तूय फाटी नात. आनी लग्नाच्या सुवाळ्यांत तर भांगराची देवाण घेवाण सगळ्या सुवातींपरस गोंयांत चड जाता म्हण सगळें जग जाणा.

''एक चली जावन ताका भायर काडटा म्हणसर. पंदरा लाख तरी जाय. तातूंत ताचें शिक्षण, लग्न सगळें आयलें.'' अशें लग्नाकच गेल्लेकडेन फुडें बशिल्लीं दोगजाणां उलयतालीं. उलोवपी दोगांय आस्तिक घराण्यांतलीं. तांच्या मताप्रमाणे हो आकडो दिसानदीस वाडत वतलो कारण मळबाक तेंकपी भांगराचे दर आनी म्हारगाय हालीं-हालीं भांगराची आनी जमनीची किंमत अशी वाडटा की खंयच्याय क्षेत्रापरस हातूंतच गुंतवणूक केल्यार भांडवल दामदुपेटीन वाडत वता. धनीक लोक हाचो सारको फायदो घेतात आनी भांगराचो साठो करतात आनी ताका लागून आंतरराष्ट्रीय बाजारपेठेत ताची किंमत वाडत चल्ल्या. धनिकांचें बरें आसा. तांचें भांडवल वाडपाखातीरच आसता. पूण ह्या म्हयन्याचो पगार दुसऱ्या म्हयन्याक पावयता सर नाका तोंडांतल्यान शिंको काडपी लोकांनी हे लाख खंयच्यान हाडपाचे?

हुंडो घेवपाक कायद्यान बंदी आसली आनी हुंडाविरोधी पथकां कितलींय जरी अस्तित्वांत आसलीं तरी आपले एकले-दुकले चलयेक लंकेच्या पार्वतीबशेन भायर काडपाक खंयचोच पालक स्वखुशीन तयार नासता तो जालोच. आनी सोयरिकेन करतल्या लग्नाक लंकेची पार्वती जावन आयिल्ल्या व्हंकलेक कोणूच स्विकारचोना. तांका ती लक्ष्मीच्याच रुपान आयिल्ली जाय आसता. मागीर वयलेचाराक उलोवणी करपाक गेल्लेकडेन न्हवरेंकारांकडल्यान आमकां कांयच नाका. तुमी तुमचे चलयेक घालतलीं तें तेंच मिरयतलें. आमी आमचे चलयेक अमूक अमूक घालून लग्न करून दिलां. अशें आडवळणान सुचोवप जाता. चल्याचो हुद्दो जितलो व्हडलो तितली ताची पत (?) चड कारण त्या हुद्द्यार ताका पावोवपाक ताच्या घरच्यांनी

कितल्याश्याच पयशांची गुंतवणूक केल्ली आसता. मागीर ताचेर चक्रवाढ दरान व्याज लावन तितल्या संपत्तीची न्हवरेकारानी व्हंकलकाराकडच्यान अपेक्षा दवरून आपलो खर्च भरून काडल्यार तातूंत आयब कितें! आनी कन्यादान हें शास्त्रान सांगून दवरिल्ल्या परमाणे सालंकृतच आसता (पूण तेन्ना चलयांक शिकपाचो, अर्थाजनाचो आधिकार नाशिल्लो हें कोणूच मतींत घेना) कन्यादानाबरोबरच बऱ्याच प्रमाणात संपत्तीचें दान केल्यारच तें दान सार्थकी लागता, आनी दान करप्यांक पुण्य लागता. नाजाल्यार तें मागीर पातक. चलयेखातीरय आनी ताच्या घरच्यांखातीरय आनी हें पातक कितलेंय जरी धुवपाचो यत्न केलो तरी तें केन्नाच धुवन वचना. कारण वाडिल्ली चली म्हळ्यार दिवपाचो माल (मागीर तो माल कितलोय दर्जेदार आसूं)

दुसऱ्याकडेन आपली तुळा करपाची समाजाची मानसिकताय दिसान दीस वाडत वता. आनी हें दिस्त वळखून 'neighbour's envy, owner's pride' म्हणून आपल्या मालाची जायरात करपी ओनिडा कंपनीचो हांगा उल्लेख करनसो दिसता. शेजाऱ्यानी जावं आपल्या सोयऱ्यान चलयेक अमूक इतलें-इतलें दिलां हें कळटगीर ताचेकडेन स्पर्धा करचेखातीर आस्पत नासतनाय रिणां काडून आपले चलयेकय थाटामाटान वयार करप जाता. आनी एक-दोनच भुरगीं आशिल्ल्या कारणान तांच्याखातीर करना जाल्यार कोणाखातीर करतलीं असोय महान हेतू ताच्याफाटल्यान आसता. आसतल्यान करचेंच गा? पूण कांय नाशिल्ल्याची न्हीद हराम जाता ताचें कितें? हांगा विसेक वर्सांपयली टिव्हीचेर लागताली त्या 'पार्टनर' सिरीयलींतलो एक डायलॉग याद जालेबगर रावना. तों म्हळ्यार, 'लोक जेवून विसरून सुद्धा गेले असतील. आम्ही आपली फेडतो कर्जे.'

हें सगळें येवजुवपाचें कारण हालींच एका दिसाळ्याचेर वाचिल्ल्या बातमेचो माथाळो आशिल्लो. 'गोंयकाराच्या उमेदीफुडे भांगराची किंमत कमी.' हे बातमेंत फुडें म्हणिल्लें 'भयंकर वाडिल्ल्या भांगराच्या दरान व्हडल्याव्हडल्यांचो ताळो जरी सुकून आयलो तरी गोंयकाराचेर मात ताचो कांयच परिणाम जाल्लो ना.' मंदीच्या काळांत फटको बशिल्ल्यान मुंबय-पुण्याचे व्हडव्हड भांगराचे व्यापारी गोंयांत भांगराच्या तरतरांच्या वस्तींचें प्रदर्शन भरयतात. आनी भांगर करपी आपलो सदाच्या शेटीबरोबरच गोंयकार ह्या प्रदर्शनाकय उपाट प्रतिसाद दिता. भायल्या देशांत भांगराची मागणी सामकी देंवल्या. दुबयत तर भांगराचीं दुकानां बंद करपाची पाळी आयल्या. कारण थंय भांगराची खरेदी पन्नास टक्क्यांनी देवल्या. खरें म्हळ्यार हाचो परिणाम लग्नासारकिल्या सुवाळ्याचेर जावपाचो. पूण गोंयांत मात सर्रास भांगराची खरेदी चालूच आसा. किंबहुना किंमत वाडटा तशी दुकांनानी गर्दीय वाडत चल्ल्या आनी भांगराचे व्यापारी आपलो फायदो करून, घेत आसात.

गोंयकारांक 'सुशेगाद' 'बरे आदरातिथ्य करपी' 'पिशे' ही बिरुदावली ही भायल्यांनी दिल्लीच आसा. आनी आतां आमकां गोंयकारांक विंगडविंगड डिझायनाच्या वस्तींचें पिशें लावन महापिशें करपाखातीर भायले व्यापारी गोंयांत तळ ठोकून आसात.

●●●



# अचळ्य अंतर मंतरपी

-रमेश भगवंत वेळुस्कार

भौमानेस्त बाकीबाब,

तुज्या कवितांनी मन कित्याक व्हांवत वयता तें कळना. तुजो गितार हो काव्यसंग्रह हांवें वाचलो तेन्ना हांव म्हज्या मनाच्या एका वेगळ्याच विश्वांत वावुरतालों. कवितांचें विश्व हें एक आगळेंच संवेदन. तें उतरांनी आसना. तें आसता उतरां भायर. उतरां जायते पावट आकाराक महत्व दितात. पूण कांय उतरां आकाराकूच निखळावन उडयतात. 'निराकार' हें उतर लक्षांत घे. सगळ्या आकारांक विरगळावन उडोवपाची शक्त ह्या उतरांत आसा. बाकीबाब, तुज्या उतरांतूय अशे उतरांत आसलेले आकार विरगळावन भावनांच्या निराकारांक स्पर्श करपाची शक्त म्हाकां तुज्या गितारांत तेन्ना जायतेकडें दिसली.

ओळखिचेसें अनोळखी कुणि
नकळत अंतर मंतरणारे
भेटावें मज वळणावरती
उन्हात दंवसे मावळणारे

अशा उतरांच्यो वळी तुजे एके कवितेंत गावल्यो. बाकीबाब, तुज्या कवितांनी तुज्या उतरांक सामाजीक जाणिवांच्या भायर वचून असामान्य भावविस्वाक पोशेत वचपाची एक अद्भूत तांक जाणवता. वळखीचोसो पूण अणवळखी कोण, अशीं उतरां वाचतकूच मन आपशींच उतरां भायर पावता. मनोवेव्हारांत तें पावता. वळख ह्या उतरांत दुसऱ्याकडें आसलेल्या आपल्या संबंधांची जाणीव आसता. ह्या जाणीवेचें रसायण नेमकें कितें आसत हें कोणाकूच सांगपाक कठीणूच जातलें. जण एकल्याच्या अंदाजांच्या जाणिवांचें हें प्रातिनिधीक रसायण. ही जाणीव एके तरेन थरून गेल्ली जाणीव. संवेनदशीलताय गळून वचून घट जाल्ली जाणीव. अशे तरेन पारंपारीक जावन गेल्ली जाणीव. पूण अनवळखी हें उतर मात कितल्याशाच नव्या जाणिवांची शक्यताय आसपी अशें उतर. बाकीबाब तुवें हे जाणिवेक एक सुंदर व्यक्तित्व दिलां. एक जादुई व्यक्तित्व. नकळत अंतर मंतरणारें व्यक्तित्व. ह्या उतरांतल्यान निर्माण जातलें संगीत आनी ह्या संगीतांतल्यान परतत्वाक स्पर्श करपी संवेदन निर्माण करपी उतरां वेंचप तुकांच जमलें बाकीबाब.

'नकळत अंतर मंतरणारे' हीं उतरां खऱ्यानीच एक अजापांचें रसायण तयार करता. हें रसायण तर सामकें संवसाराचे कायदे कानुनच्या भायर वचपी. सामकें प्राकृतीक. सामकें सैमीक. म्हणून अतिव्यापक. जादूई. अशा जादूई व्यक्तिमत्वाक आपल्या जिविताच्या वळणार जंय मनशाच्या मानसीक व्यापारांक एक बाग (मिंड, curv) मेळटा, जंय मनशांतल्यान वाज हाडपी हट्टी सरळपण ना जावन ताच्यांत सुदंरतायेक जन्म दिवपी बाग सुरू जाता, ह्या वळणार ताका वतांत दंवावरी वितळून ना जावपी अनवळखी कोण तरी मेळचेंशें दिसता. हो अणभव कवी शरीराची पातळी सोडून मनाचे पातळेर घेता. मनात निर्माण जाल्लें ऊर्जेचें हें सुंदर आनी संगीत रूप. एक विधायक रूप. संवसारांतल्या तमाम समानतायेच्या रूपांक बाधा हाडपी आडमेळ्यांक हे ऊर्जेच्या नाड्यार आमच्यानी पयस करूं येतलें. बाकीबाब आमचे नकळत एक प्राकृतीक शक्त, अशी आमच्याच माध्यमांतल्यान कार्यरत आसता आनी कालंतरान तें आमच्या कामाच्या माध्यमांतल्यान तें लोकांक दिसत वयता. कोणा ना कोणाक तरी तें कळटाच कळटा.

सैम हें आमकां अशें नकळत समजायत आसता. सामाजिक कायद्यांच्या जंवजाळांक लागून चडांत चड कृत्रीम जायत आसतात. पूण सैम आमकां कृत्रीमतायेच्या घुस्पणेंतल्यान इल्लें इल्लें सोडयत आसता. मनशांत आसलेल्या सैमीक शक्तसंचयाचेर सैमाचो जादू चलपाक लागता. हांतल्यान फावो त्या ऊर्जेचो प्रादुर्भाव लागता. सैमूच अशें संवसारांतले मानसीक संतुळणायेचे प्रक्रीयेक लागता. ताका सवन संवसाराक खरें म्हटल्यार हेच वटेन व्हरपाचें आसता. प्राकृतीक शक्तिंच्या प्रभावान काम करपी सगळे कलाकार हेच प्रक्रीयेच्या मागार आसतात.

बाकीबाब, कांय म्हयन्यापयलीं हांव हिमालयाच्या एका सुंदर वाठारांत पावल्लों अल्मोडा. हिमालयीन सैमसुंदरायेच्या अतिऊंच शिखरांचेर वसपी ही सुवात. ह्या वाठारांत एक हिंदी कवी रावतालो. ताचें नांव सुमित्रानंदन पंत. सैमाच्या संपर्कांतल्यान तिजून फुल्लेल्या ह्या मनशाचें मन सैमाकडे कितें मागता जाणा? 'रश्मिबंध' ह्या तांच्या काव्यसंग्रहाच्या सुरवेकूच तो एक याचना- आराधना करता...

बना मधुर मेरा जीवन!
नव नव सुमनों से चुन कर
धूलि, सुरभि, मधुरस, हिमकण,
मेरे उरकी मृदु कलिका में
भर दे, कर दे विकसित मन!

पंत आपली जीण म्होवाळ कर म्हण मागता. कशी तर, तातूंत धूल्ल, सौंदर्य म्होंव हिमकण, फुलां आपल्या काळजांत भरून आपलें मन विकसीत कर अशें तो प्रकृतीकडें मागता. मनाचो विकास खूब गरजेचो. ते खातीर सैमाचेंच रसायण मुदलाक घेवंचें

पडटा. सुर्य किरणांच्या रस्मी धाग्यानीं जुळटा ह्या मनाची वीण. हांगासर तो ही वीण सामाजीक विचारांच्या आदारान घडची अशें बिलकूल म्हणना.

बाकीबाब हो तुजो समकालीन. अल्मोडा जिल्ल्यांतल्या कौसानी ह्या वाठारांत ताचो जल्म. आल्मोडाचें सौंदर्य कोणाकूय भूल घालपासारकें. अशें म्हणटात की आल्मोडायपरस कौसानी अतिसुंदर. आनी गोंयूय सुंदररूच. हें सैम सौंदर्य मनशाक आपलेवरीच व्यापक करून उडोवपाचो व्यापक वावर ताच्याय नकळत करीत आसता, हाचीच ही गवाय अशें म्हाकां दिसता.

बाकीबाब म्हाकां खबर ना ह्या सकमार सौंदर्यासक्त कवीक तूं मेळ्ळा काय ना? हरशीय तुमचें दोगांयचें बरें सूत जमतलें आसलें, हातूंत दुभाव ना. जे लोक सैमाचेर मोग करतात ते समाजिक विचारांच्या हट्टी स्वभावाक केन्नाच जुमानीनात. हेच हट्टी विचार परंपरांक जन्म दितात. परंपरा म्हटल्यार नीत नवीनतायेक दुरावप. जो कोण नवें कितें करता ताका समजून घेवप परंपरेक केन्नाच जमना. पारंपारीक विचार नव्या विचारांक किंकोंत करता. जांकां नवो विचारूच नाकां ते परंपरेक म्हत्व दितात. समाजाक परंपरा पसंत पडटा. समाज म्हणटा तो चड करून विचार करतना दिसना. गुरूदेव टागोरासारखो मनीस परंपरेक धरून चलना ताचें कारण तांकां चिरनूतनाचो ध्यास. ह्या चिरनूतनाची धार आपल्याच अंतरांतल्यान सतत झरत आसता, पूण सामान्य मनीस चड संवेदनशील नासलेल्यान ताका हो सतत चलतलो चिरनूतनाचो अविश्कार पळोवपाची संद लाभना. संवेदनशील मन आसलेलो दर एक मनीस मात तें जाणून आनी समजून घेवपाचो यत्न करता. अंतर्मनाचे घनगर्भ खोलायेंतल्यान ही जाण सतत स्रवत आसता. ठाकूरमोशाय रवीद्रनाथांकूय हेच तळगर्भ खोलायेंतल्यान जी विदेशिनी दिसता ती पळयात (नवजातकः संध्या)



दिनशेषे देखा देय से आमार विदेशिनी
तारे चिनी तबु नाही चिनी

(दीस पडटना दिश्टी पडटा ती म्हजी विदेशिनी वळखीची पूण अनवळखी)

बाकीबाब, तुवें तर आनंदयात्री रवींद्रनाथांचें चरित्र्य बरयलां. तांच्यो कविता तुवें मुजरत वाचल्या आसतल्यो. आनी बाकीबाब अनवळखी मनशाची वा वस्तूचीच वळख करून घेणे शक्य आसता. तशी खंयच्याच मनशाक खंयचेच गजालीची पूर्ण वळख केन्नाच आसना. आपल्याक सगळें कळटा अशें म्हणपी आनी समजूपी जायते लोक आमकां आमचे सरभोंवतणी दिश्टी पडटात. पूण हे तशें म्हणपी आनी समजूपी आसुनूय तांकां खरें कितलें समजता तें तांच्या दर खिणाच्या वास्तव दर्शनांतल्यान समजताच समजता. बाकीबाब खंयच्याच मनशाक जंय तो स्वताकूच सारको वळखूंक शकना तो दुसऱ्याक कितें सारको वळखतलो? आसूं, शाण्यांक चड सांगचें पडना खंय! बाकीबाब, हांगा एक संवेदनशील कवी वळख अनवळख आपल्या अंतर्मनातल्यान जाणून घेवपाचो यत्न करता. आनी बाकीबाब हें सगळें जें म्हाकां दिसता तें तुकां पावता हातून दुभाव ना. शिवाय हे वर्सा तुजी शताब्दी चल्ल्या म्हणटकूच तुकां नाय म्हटल्यार अदृश्य रूपान हांगा गोंयांत येवन कितें चल्लां तें पळोवप गरजेचें जालां आसतलें.

बाकीबाब, तुजे शताब्दीच्या वर्सा म्हजो एक काव्य संग्रह जो मुळांतल्यानूच हिंदी भाशेंत आयल्लो, तो पयरूच प्रसिद्ध जाला. नांव 'समुद्रमुद्रिका'. खूब लोकांक हें शीर्षक आवडलें. केन्नाच आयकूंक नासलेलेंशें. अनवळखी. म्हाकां तरी ही 'समुद्रमुद्रिका' अनवळखीपणांतल्यानूच कळत गेली. म्हाकां हो संग्रह प्रसिद्ध जांवचे पयलींच भारतांतल्या कांय शारांतल्या हिंदी जाणकारांक दाखोवपाची संद मेळ्ळी. त्या त्या वाचप्यांनी ह्या कवितांची तुस्त केलीच पूण ह्यो कविता अहिंदी कवीन बरयल्या अशें दिसना हेंय मुजरत सांगलें. एका बुजूर्ग जाणटेल्यान तर

म्हाकां अशें सांगलें की ताणें संग्रह एक पावट वाचलो, पूण आतां तो परत एक पावट वाचता म्हण. बाकीबाब, तसो हांव म्हाकां अहिंदी मनीस मानिना. कारण कितें जाणा, आमच्या देशाक हिंद देश म्हणटात. भारता भायले सगळे देश भारताक हिंद देश मानता आसल्यान भारतांतल्या सगळ्या लोकांक ते हिंदी मनीसच म्हणटात. अशा वेळार हांवें म्हाकां अहिंदी समजप ही चूक. जाणां बाकीबाब, हिंदी ही म्हाकां न शिकतांच येवपाक लागलेली. कर्मधर्मसंयोगान हिंदी ही आमची राष्ट्रभास. दोनूय अर्थान हिंदी ही आमची आनी आमच्या मनातली भास. ते भायर हे भाशेन म्हाकां जीणभर साथ दिवपाचेंय काम केलें. तर कितें म्हणटालों हांव की अर्दी मर्दी हिंदी कविता येंवक लागल्यो. हांवेंय येंवक दिल्यो. हांवें तांका आडायलें ना. आडावपांत म्हाकां कृत्रीमताय दिसताली, म्हण आडायलें ना. आमच्या र. वि. पंडितान तर म्हटलांच की आयलें तशें गायलें. तशेंचशें जालें हें. बाकीबाब, तूं जाय आसलो आयज. तुकां ह्यो कविता आवडपाच्योच. आयजूय तूं त्यो वाचूंक शकना. अशरीरी जावन तुवें तुजी शक्त वाडयल्या. वाचून लेगीत तूं आमकां सांगचोना की तुवें त्यो वाचल्या म्हण.

बाकीबाब, तूं आमचो म्हणचें कोंकणीचो साहित्य अकादमीचेर पावल्लो पयलो वयलो रेप्रेजेंटटीव. तुवें जो प्रातिनिधीक कोंकणी काव्य संग्रह साहित्य अकादमीच्या प्रकाशानासकल उजवाडाक हाडला ताचे उपरांत कोंकणी कवितेन खूब प्रगती केल्या. हे प्रगतीचें प्रतिनिधीत्व करपी काव्यसंग्रह येवप गरजेचें आसलें. पूण हें असलें काम कोणूच करिना. तशें तें दिसलेलें जाल्यार येन्नादर असो काव्यग्रंथ निर्माण जातलो आसलो. तुवें संपादीत केल्ल्या काव्य संग्रहाक आतां सुमार तीस वर्सां जाल्यांत. कोंकणी कविते इतली प्रगती कोंकणीच्या हेर खंयच्याच साहित्य प्रकारान करूंक ना. आजमेरेन कोंकणी काव्यसंग्रहूच चड प्रमाणात उजवाडाक आयल्यात. संख्येचे नदरेन हो प्रकार व्हडलो दिसलो तरी हांतले बरेचशे संग्रह फकत नावांकूच निर्माण जाल्ले आसात अशें कांय निरिक्षकांचें मत आसा. आनी तें चूक ना हें जाणगूण वाचकाक कळटाय बी. हें सगळें जरी खरें आसलें तरी ह्या सगळ्या काव्या मर्दी लक्षणीय निर्मिती करपीय कवी आमचेंकडें आसात हें कोंकणी कवितेचें व्हडपण. तांच्याच मालवजार कोंकणी काव्यान अखिल भारतीय काव्याच्या मळारूय आपली निशाणी कोरांथल्या देखून ह्या काव्याचो प्रातिनिधीक संग्रह येवप गरजेचें. खंयचेय तरी नावाजते साहित्य आनी भास संवर्धन करपी संस्थेन तें करप गरजेचें आसा तुजे शताब्दी निमतान तरी हें कोणाकूय येवजूं अशें तुकां दिसना?

बाकीबाब, हे वेळा तूं जाय आसलो अशें म्हणपाचें कारण तुजेकडे दुसरे भाशेंत साहित्य बरपाविशीं भासाभास करूंक मेळपाची. तुवें वेगवेगळ्या भासांनी बरयलें. तुवें कोंकणी भायर मराठी, पुर्तुगेज, इंग्लीश आनी हिंदी अशा भासांनी रचना केल्यो. तुज्या मराठी साहित्याचेर शेंकड्यांनी लोकांनी बरयलां. तुज्या पुर्तुगेज आनी इंग्लीश साहित्याचेर कोणे कितें आनी कितलें बरयलां तें खबर ना. तुज्या हिंदी कवितांचेर मराठी कवी ग. दि. माडगुळकरान बरयल्लो एक सुंदर लेख हांवें कांय वर्सांपयलीं वाचलेलो. हे विशीं भासाभास जांव येताली. दुसरे भाशेंत बरयतना मनाची खंयची अवस्था तुवें भोगल्या ताचेर भासाभास जांव येताली. ज्या संवेदनेविशीं उलोंवक मेळटलें आसलें. हिंदी भाशेची संवकळ आनी संबंद कसो निर्माण जालो ते विशींय समजून घेंव येतालें. हे संबंदान आमचे जिणेंत ह्या भासांची अपरिहार्यता कशी निर्माण जाता ते विशींय चर्चा जांव येताली.

बाकीबाब, पयर म्हटल्यार २०१० च्या फेब्रेराच्या म्हयन्यांत अंदमानातल्या एका बेटार रावतली 'बो' भास उलोवपी एक बायल भायर पडली. बो नावांचे भाशेंत जल्माक आयल्ली आनी ही भास उलोवपी ह्या संवसारांतली ती निमाणी व्यक्ती आसली. ती अस्तुरी आसली. तिची भास, तिचेकडें उलोवपी एकूय दुसरो मनीस संवसारांत उरूंक नासलो. कांय काळापयलीं ती काय तो तिका सांगात दितालो. आनी उपरांत ती एकली एकसुरी जाली. आतां ती स्वता आपली भास फकत आपल्याकडें उलोंवक शकताली. आपल्यामुखार आपली भास मरतना ती तिणें अणभवल्या आसतली. कांय काळ तिणें आपलेंच मरण अणभवलां आसतलें. मागीर ती फकत आपल्याचकडें उलयल्या आसतली. रातभर, दीसभर झडत वचपी पावसाचें उदक न्हंयां बांयांनीं एकरूप जावन वयता तशी ती बो भास तिच्या तोंडांतल्यान भायर सरून तिच्यांतूच विलीन जाल्या आसतली, वा न्हंयचें उदक दर्यात एक जावन वयता तशी तिची 'बो' भास तिच्याच मनाच्या मोनेळ-महासागरांत वितळून गेल्या आसतली. बाकीबाब मरण ही संक्रमणावस्था अशें म्हणटात जाल्यार भाशेचें मरण ही कसली संक्रमणावस्था? आनी उपरांत तिचें अवस्थांतरण कित्यांत जाता आसतलें काय?

भाशा कशी जन्माक आयल्या काय? कांय जाणांचें मत मोनेळींतल्यान अवाकांतल्यान. अवाकांतल्यान ती वाक जाता खंय. अवाकांतल्यान ती पयली जाणीव जाता आनी जाणीवेंतल्यान संक्रांत जावन वाकरूप जाता. अशा कितल्याशाच वाकरूपांचो एकठाव करून भास तयार जाता. अशी जाणीव आसलेले लोक एकेक करून ना जायत गेले. करतां करतां कालांतरान ती एकलीच उल्ली. ल्हवू ल्हवू तिची जाणीव तिचे मोनेळींत विरगळत गेली आसूंक जाय. आनी मागीर उल्ली ती संपूर्ण मोनेळ. जेन्ना ती वाक् जाल्ली तेन्नाच ती व्यक्तूय जाल्ली. पयलीं ती अव्यक्त आसली. मागीर जाली व्यक्त. आनी करतां करतां परत एक पावट अव्यक्त जायत गेली. अंतीं ती मोनेळींतच विलीन जाली. बाकीबाब 'बो' भाशेचे बाबतींत सगळें जें कितें घडलें तें मदले मर्दींच आसलें. मोनेळ आनी मोनेळ हांचे मदलें आसलें.

बरें मागून

तुजो रमेश

●●●



- कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

# समजिकाय



*अनवळखी मनीस जेन्ना असो केसान गळो कापता तेन्ना एक वेळ समजूं शकतात. पूण जेन्ना आपल्या रगताचीं मनशां पयशांखातीर, इश्टेटीखातीर इगडीं करतात आनी आपल्याच भावंडांक हक्क दिवपाक न्हयकारतात तेन्ना मनशाचो मनशांचेर विश्वास बसना आनी मन प्रस्न करता खंय गेलें तें मनीसपण?*

**म**नीस हो समाजिक प्राणी. ताका लोकांच्या बरोबर रावपाक आवडटा. तो आपल्या भोंवतणच्या समाजाक नियाळटा. शेजाऱ्यांच्या, सोयऱ्यांच्यां सुखांत वाटेकार जाता. ही सगलीं मनशां आपलीं म्हूण तांच्या दुखखाचो भार लेगीत आपल्या खांदार घेवपाक तयार आसतात. ह्या वातावरणाचो घरांतल्या भुरग्यांचेरूय परिणाम जाता आनी अशेतरेन तांचेर बरे संस्कार जातात.

हालींचीच गजाल. आमच्या घरच्या व्यक्तीक अपघात जालो. वाटेर अपघात जाला हें म्हाका कळच्या पयलींच म्हजो शेजारी स्कुटर घेवन अपघात थळाचेर पावलो. हरशीं धा वरांसुद्दा सुटयेंत न्हिदेचें सूख घेवपी फ्लॉयड अपघात जाला हें आयकून विजेचो झटको लागिल्ल्यावरी उठलो आनी बापायफाटोफाट गेलो.

सात-आठ वर्सांचो फ्लीन आनी ताची आवय म्हज्या घरा आयलीं. हॉस्पीटलांत व्हेलल्यान मर्दी मर्दी थंयच्यान फोन येत आसले. म्हजें मन भिल्लें. घराकडे एकटेंच आशिल्ल्यान मनांत नाका ते प्रस्न येताले. शेणिल्ल्याचें मन खंय धाकडे. दनपारचो वेळ. जेवणाची तयारी करपाक जाय म्हूण हांव फातिमाक घरा वचपाक आगरो करतालें. म्हाका एकटें सोडून वचपाक ताका मन येनाशिल्लें. आवा-शिवा करून तीं दोगांय घरा गेलीं. दोळे दाराकडे. परत फोन आयलो. X-Ray काडूंक व्हेला. वेळ लागतलो. परत दुगदूग. इतल्यान फ्लीन धावत परत आयलो. मनांत आयलें घडये म्हाका सांगात दिवंक फातिमान धाडला आसतलो. पूण आपलो खेळ सोडून इतलो त्याग करपाक भुरगीं थोडींच तयार आसतात! ''कितें रे? कित्याक आयला?'' हांवे प्रस्न केलो. ''आण्टी तूं एकटीच आसा म्हूण तुका सांगात दिवपाक आयलां..'' म्हाका अपुरबाय दिसली त्या फ्लिनाची. कितलो समजूतदारपणा ह्या इल्लेश्या भुरग्यामदीं. दुयेंतीक घरा हाडसर तो म्हजेवरोबर रावलो. म्हाकांय खूब धीर आयलो. बुडट्याक खंय काडयेचो आदार. घरांत कोण नाशिल्ल्यान घर म्हाका खावपाक येतालें.

जाणटींच मनशां समजूतदार आसता

अशें न्हय. पूण निष्पाप निस्वार्थी वृत्ती आपलेंपण भुरग्यामदीं आसता तें जाणटे जातकच घडये कमी जाता. वा मनीस स्वार्थी जाता आसतलो.

आपल्याक समाजांत मान प्रतिष्ठा मेळोवपाखातीर कसल्याय आडमार्गान वचपाक मनीस फाटीफुडें पळयनात. अश्या वेळार नातें इश्टागत हांचो ताका विसर पडटा. आपल्या मवाळ उतरांनी लाग मारीत हे स्वार्थी लोक कुशळतायेन ह्या बोटावयली थुकी त्या बोटाचेर करतात.

अनवळखी मनीस जेन्ना असो केसान गळो कापता तेन्ना एक वेळ समजूं शकतात. पूण जेन्ना आपल्या रगताचीं मनशां पयशांखातीर, इश्टेटीखातीर इगडीं करतात आनी आपल्याच भावंडांक हक्क दिवपाक न्हयकारतात तेन्ना मनशाचो मनशांचेर विश्वास बसना आनी मन प्रस्न करता खंय गेलें तें मनीसपण?

इश्टांचेर आमचो खूब विश्वास. एक वेळ आमचें काळजांतलें गुपीत आमी आमच्या घरच्यांक सांगनांत. ताचेकडे आमचें मन उगतें करतात. रगताच्या मनशांपरस ताचेर आमी चड विश्वास दवरतात. आपल्याबरोबर म्हजो इश्ट म्हजेंय हीत पळयतलो अशी आमची धारणा आसता. आपल्या इश्टाचो अपमान जातकच दुसऱ्याकूय काळजांत दुखता. मन खंती जाता.

आपल्या स्वार्थाखातीर आपल्याक बढती मेळची म्हूण इश्ट नकळत कारस्थानां करता तेन्ना त्या मनीसपणाच्या हारशाक खंय तरी वेर येता. आनी मन अस्वस्थ जाता. हें कारस्थान मुददाम केल्लें आसता. म्हजेकडे चूक जाली म्हूण कितलेंय सांगलें तरी मनाक तें पटना. ज्या इश्टाचेर हांवें विश्वास दवरलो आनी ताणेंच म्हजो घात घेतलो म्हूण मन इश्टागतीक दुशण दिता. आपूण आपल्या इश्टाक वळखलोना अशें ताका दिसता.

आतां कालचीच गजाल पळयात. जाली चूक ताचेकडे. भुरग्यांच्या परिक्षेच्या पेपरांचें बंडल. ताणें तें जिवापरस चड सांबाळपाक जाय. पूण घरा वचपाच्या धावपळीखातीर स्टाफरूमांतूच विसरून गेलें. सविताक ते पेपर व्हरून मुख्याद्यापकाकडे दिवपाची गरज आसली? आनी तें सुद्धा मुख्याद्यापकाचो सभाव खबर आसतना? साद्या साद्या कारणाक सुद्दां तो काळजाक पीळ घालपी शब्द वापरता आतां तर तो ताका रडयतलो. पूण ना. सवितान मातसुद्दा फाटलो फुडलो विचार केलोना. चूक जाली वा घडये घरांत कितें तरी घडलां आसतलें आनी त्याखातीर ताचें चित्त थाऱ्यार नासतलें. सविताकडे माततरी समजूतदारपणां आसूंक जाय. असल्या आसुरी छळांत थोड्यांक सूख मेळटा. सविताक मेळ्ळें तश्शें.

दुसऱ्यांचें मन दुखोवन घेतिल्ले प्रतिष्ठेक मान नासता. मागून झगडून घेतिल्ल्या पदाक मोल नासता. गुणी मनीस आपल्याक पदां मेळचीं वा चार चौगांत आपली वाहवा जावंची म्हूण कार्य करना. ते यशाफाटल्यान धावनांत. यश तांच्या फाटल्यान धावता.

समजूतदारपणा शेणत गेल्ल्या समाजांत जेन्ना मनीसपणाची मंद वात पेट्टा तेन्ना मनाक आमी समजायतात आनी म्हणटात कोण म्हणटा समजूतदारपणा शेणलो? तो आजूनय मनशाच्या मनाच्या कुरकुटांत आसा. जेन्ना गरज आसता तेन्ना तो वेगवेगळ्या रूपांत आमच्या सामकार येता आमी ताचो अणभव घेतात.

•••



– शांता केणी
विद्याश्री अपार्टमेंट
११४, दळवी नगर,
चिंचवड, पुणे ३३

# एकटी



सकाळ जाली. फातोडेचीं चार जालीं आनी सदांसारकी जाग आयली. आमचो गाडो सुरू जालो. व्यायाम प्राणायम करून न्हावन धुवन देवाचें नामस्मरण केलें. दूद नी पेपर हाडले.

घरा आयलें – चा नाश्ताची तयारी केली. हांवें आनी यजमानान बसून चा घेतली. पेपर वाचले–थोडच्या वेळान यजमान कामानिमतान परगांवां गेले–आमी खरीं दोगांच घरांत. आनी तो परगांवा गेला हें मनांत येतकच म्हजें कामात लक्षूच लागना जालें. कितें करूं तेंच कळना. एकटेंपण जाणवलें. पेपर घेवन परत चाळ्ळे. तर ताचेर फकत खून, संप, अत्याचार, मरणां आनी कांयच ना. तो सुद्दां वाचूंक वाज आयलो. एक पुस्तक काडलें वाचपाक. तें वाचपाक मन रमना जालें. एकटेपण खावपाक लागलें.

पुताक फोन करचो मनांत आयलें. तो अमेरीकेक. तांची थंय रात. न्हिदिल्लीं आसतलीं पुरो जावन. तातूंत जर सुनेन घेतलो फोन तर ती 'फेड–फेड' करून इंग्लीश तापयतली. ते इंग्लीशींत आपलेंपण ना जावन वता.

भायर आयलें. धुवेक तरी फोन करूया म्हटलें. ताका फोन लायलो. रींग जा जा जाता. पूण उखलना. खूब वेळां केलो. हाचो फोन सारको ना जातलो. 'आवट ऑफ ऑर्डर'. अेक्स्चेंजींत जाता जातलो फोन. अखेरेक मोबायलार फोन केलो. तोय स्वीच ऑफ येता. अशें दिशिल्लें धुवेकडेन उलोवन तरी म्हजें मन हलकें जातलें. आतां कितें करचें सुचना जालें. जीव कासावीस जावपाक लागलो. शेवटी हांव एकटेंच...

मागीर हांवें टिवी लायलो. तर केबल ना. कितेलें दुर्दैव म्हजें? कितलो वेळ जालो तरीय केबल येना. मागीर हांवें विचार केलो की शीवण घेवन बसचें. एक नवीन साडी काडली आनी फॉल लावपाक बसलें. सूयेंत सूत घालूंक लागलें. तर कशेंच सूत सुयेंत वचना. कशेंच जायना. बुराक दिश्टीच पडना जालो. हातूच थरथरूंक लागलो. अशें वरभर गेलें. वाज आयलो. कोणूच ना मदत करपाक. शेवटी एकटी –

आतां अशेंच न्हय! विणपाक घेतलें. आरे रे! थोड्या वेळान सुताक पडली गांठ. कितें करचें? सुटून सुटना. ती सोडूंक पळयली. कोणूच मेळना सोडून दिवपाक.

शेजरा वचून दोन खबरी तरी करूया म्हूण व्हनीबायकडेन गेलें. तर ती घराक कुलूप लावन गांवाक गेल्या. आतां तर कहरच जालो एकटेपणाचो. कशेंच सोसूंक जायना जालें.

लग्न जायत पसून सकाळपसून एकट्यानूच काम काम काम.... करून जीवन घालयलें. सकाळीं सगळ्यांक रांदून टिफीन भरप. तयार जावन इश्कोलांत वचप. इश्कोलांत शिकोवन शिकोवन घरा येतकच घरचीं कामां, भुरग्यांचो अभ्यास घेवप, बाजारहाट करप हातूंतच सकाळ केन्ना नी रात केन्ना जाता ती कळनासली. यजमान सकाळी नोकरेक भायर सरतालो तो रातचो घराक येतालो. जेवपाक नी उलोवपाक आमकां फुरसत नासताली. तेन्ना एकटेपणान काम केलें तें वेगळेंच आसलें.

रिटायर जातकच एकटेंपण वतलेंशें दिसतालें. आतां फुरसत आसतना सुद्दां एकटेंपण वचना. फाट सोडिना–घर तर खावंक येता. कितें करचें तेंच कळना.

आतां मनांत असो एक विचार आयलो. आमी जन्माक येतना एकटेच येता आनी वतातय एकटेच. जीं कोण आमकां मेळटा तींच आमचें वैभव. तांचेकडेन हांसून खेळून रावप हेंच आमचें काम अशें म्हणपाक म्हजी एक इश्टीण आयली. आमी खूब सुखदुखाच्यो गजाली केल्यो. एकामेका सांगातान जेवलीं. अशें म्हजें एकटेपण ना जालें...

•••

# दंत



**दं**त म्हळ्यार अशे किडे, जे आमचे कुडींत भितर, आमचेर अवलंबून रावतात. हे दंत एकदां कुडींत भितर सरले की ते वाडत रावतात. म्हूण तांचें आसप धोक्याचें/भिरांकूळ आसता. एक दंत एकाच वेळा, हजारांनी ततयां घालता. हीं ततयां आमचे कुडींत भितर पावलीं की तांचे दंत जातात आनी ते एका अशा जाग्यार वचून रावतात जेणे करून तांची बरी वाड जाता आनी तेच परतून आनी ततयां घालतात आनी हें चक्र अशें चालूच उरता. आमचें रगत पियेवन तशेंच आमी खातात-पितात तें खावन-पियेवन ते आमकां काबार करतात. म्हूण आमचे कुडींत जर दंत आसत जाल्यार आमकां खूब तरेचीं दुयेंसां जावं येतात.

दंत हे खूब तरेचे आसात. हे दंत आमचे कुडींत कशे पावतात. **(१) तोंडांतल्यान (२) कातिंतल्यान** - दंत आशिल्लो मनीस जर उक्त्यार परसाकडेन बसलो, जाल्यार ह्या दंतांचीं बारीक ततयां भोंवतणचे मातयेंत मिस्तूर जातात. जेन्ना जाण्टीं-भुरगीं हे मातयेंत वावुरतात-खेळटात तेन्ना हीं ततयां तांच्या हाता-पायांत, नाखटांनी उरतात आनी तोंडांतल्यान कुडींत भितर सरतात. आनी तांकां दंतांचें दुयेंस जाता. हीं ततयां, भाजयां-फळांक लागून उरतात आनी जर भाज्यो-फळां खावच्या पयलीं सारकीं धुयलीं नांत जाल्यार तीं आमचे कुडींत भितर सरतात - आनी तांकां दंत जातात. खुबकडेन आयदनां घासपाक हे मातयेचो वापर करतात. हीं आयदनां जर सारकीं धुलीं नांत जाल्यार, हीं ततयां आमचे कुडींत भितर सरतात आनी तातूंत दंत जातात.

अशेय थोडे दंत आसतात, जांचीं ततयां मनशाच्या भोकाकडेन किंवा योनिमार्गाकडेन घालतात. अशें जातकच मनशांच्या भोकाकडेन वा योनीकडेन खाज सुट्टा आनी मागीर हीं ततयां तांच्या हाता-नाखटांत उरता आनी तोंडांतल्यान कुडींत भितर सरतात.

२. **कातिंतल्यान** - थोड्या दंतांचीं ततयां, ओले मातयेंत पडल्यार थंयच फुटटात आनी ल्हान दंत जल्मतात. हे दंत पायांतले कातिंतल्यान मनशांचे कुडींत भितर सरतात.

**आपल्याक दंत जावंचे न्हय म्हण कितें तजवीज घेवपाची?**

१. उक्त्यार परसाकडे बसचें न्हय. संडासाचो उपेग करचो.

२. खावंच्या, जेवंच्या, रांदच्या पयलीं हात बरे धुंवचे.

३. परसाकडे, मुतूंक जातकच हात धुंवचे.

४. नाखटां ल्हान आनी नितळ दवरचीं.

५. भाजयो-फळां धुवन खावचीं.

६. उदका-जेवणाचीं आयदनां नितळ तशींच धापून दवरचीं

७. भुरग्यांक मातयेंत वावरूंक, खेळूंक दिवचें न्हय.

८. दोतोराच्या सल्ल्या प्रमाण दंतांचेर वखदां घेवचीं.

९. मातयेंत, उक्त्यार जोतीं घालून भोंवचें.

**दंत जाल्यात म्हूण कशें कळटा (लक्षणां)**

पोटांत दुखप, ओकूंक येवप, पातळ परसाकडे जावप, ल्हान भुरग्यांचें पोट मोटें जाता, भुरगीं माती खातात, सुकी खांक येता, अशक्तपणा येता, आंगांतलें रगत कमी जाता (anaemia) भोकाकडे तशेंच योनीकडे रातचें न्हिदेंत खाजोवप. लक्षांत आसुनी, एकदां आमचे कुडींत भितर जर दंत सरले आनी तांचो योग्य वेळार आनी योग्य रितीन जर उपाय केलो ना जाल्यार हे दंत मनशाच्या आरोग्याची सामकीच वाट लावंक शकतात.

•••



- डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५

## आडवे



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

१. सगल्या वस्तुंचें चडटें मोल
४. खड्यांच्या रुपांत आशिल्ली साकर
७. राजपुतान्यांतलो मनीस
८. वताचे दीस, गरमेचे दीस
१०. राजाची बायल
१२. वंदन, नमस्कार
१४. एक आनी दोन
१६. मोल करूंक येना अशें
१७. बारा आनी पांच
१८. इंग्लीश पैशे, मनांत (मराठी)
१९. आवाज, स्वर
२०. उदक आडावंक घाल्लो बांद
२१. लोक, भारतीय ह्रह्रह्र पक्ष-एक राजकीय पक्ष
२३. हिंदू म्हयन्यांतली धावी तीथ
२५. अधिकार, पावंडो वा गीत
२७. केंसांत जाल्लें उयेंचें तार्ती
३०. एकच विचार
३१. कुडीन आनी अंतस्करणान, पोटतिडकेन
३२. गोड, नाजूक

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ३ | ■ | ४ | | ५ | | ६ |
| | ■ | ७ | | | | ■ | | ■ | |
| ८ | ९ | ■ | | ■ | | ■ | १० | ११ | |
| ■ | १२ | १३ | | ■ | १४ | १५ | ■ | | ■ |
| १६ | | | ■ | १७ | | | ■ | १८ | |
| ■ | | ■ | १९ | | ■ | २० | | | ■ |
| २१ | | २२ | ■ | २३ | २४ | | ■ | २५ | २६ |
| | ■ | २७ | २८ | ■ | | ■ | २९ | ■ | |
| ३० | | | | ■ | ३१ | | | | |
| | ■ | ■ | ३२ | | | ■ | | ■ | |

## उबे

१. म्हारग विकपी
२. एक जीव वा थंड
३. धनी, मुखेली, यज्ञकर्म करपी
४. हुनहुनीत, कडकडीत
५. दर्या, व्हड समुद्र
६. रुपें, चांदी
९. भारताचो पंतप्रधान (फकत नांव)
११. फाटिंफुडे येवप, थिरताय नासप
१३. घाण, कोयर (मराठी)
१५. दुश्ट मनीस (मराठी)
१७. दोन देशांमदली शीम
२१. एक एकलो, दर एकलो
२२. येसाय (नाटकाची)
२४. शासन, राजवट
२६. रावण, धा तोंडां आशिल्लो
२८. काबार जावप, सोंपप (हिंदी)
२९. गोंयच्या मुख्यमंत्र्यांचें आडनांव

**मे उतरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| गा | य | क | ■ | सा | त | व | डो | ■ | का |
| डे | ■ | ळ | ■ | ब | ■ | थ | ■ | प | त |
| का | टू | क | सा | ण | ■ | रे | ल | गा | डी |
| र | ■ | ळ | ■ | ■ | रा | णी | ■ | र | ■ |
| ■ | व | ■ | स | मा | ज | ■ | ■ | ■ | फु |
| स | र्ग | लो | क | ■ | क | ■ | व | की | ल |
| प | ■ | क | ■ | क | न्या | शा | ळा | ■ | का |
| ने | ■ | म | ळ | प | ■ | क | र | भा | र |
| व | ण | त | ■ | ते | ल | ■ | ■ | त | ■ |
| प | ■ | ■ | क | ल | य | का | र | ■ | डे |




# डायरी-ए-कश्मिर

– दिलीप बोरकार

फुलां सगळ्यांत चड कोणाक आवडटात? दादल्यांक काय बायलांक? हो प्रस्न खरें म्हळ्यार म्हाका पडूंक फाव नाशिल्लो. फुलां आवडनांत अशी एकूय व्यक्ती हे धर्तरेर आसत अशें म्हाका दिसना. हांवूय फुलपिसो. पूण म्हाका फुलां आवडप वेगळें आनी लोकांची आवड वेगळी.

कामिनी आनी हांव सद्दां सांजचीं आल्तिनोवेल्या जॉगींग पार्कांत चलपाक वतात. आमचो तो एक छंदूच जाला. कसलेय कार्यावळीक लागून एक दीस खंड पडल्यार आमकां चुकिल्ले चुकिल्लेवरी जाता.

आमी सांगातान चलतात. वेगवेगळ्या विशयांचेर उलयतात. चलतना दोनूय वटांनी लायिल्लीं फुलां तोखेतात. चाफ्यांचो, अनंताचो, शब्दुल्यांचो आनी हेर तरांतरांच्या फुलांचो गंध नाकात वतकच एक आगळीच धुंदी चडटा मनाक. आमकां फुलां आवडटात. पूण तीं झाडाचीं तोडप आमकां दोगांकूय आवडनांत. फुलां त्या-त्या झाडांचेरूच सोबून दिसतात.

माणकुले चिरमुलेन आपल्या केंसांत फुलां खोवन धोलचें तशीं धोलपी शब्दुल्यो आतांच चौदा-पंदरा वर्सां सोपोवन लजूंक शिकिल्ले चलयेन माथ्याक एक दोन फुलां खोवन आपल्याक कोण पळयता काय म्हूण हांगा थंय नदर भिरभिरायत उबें रावचें तशीं उबीं राविल्लीं तीं अनंताचीं झाडां. बोकडयो, झीग बी घालून केल्ली रतन आबोल्यांची घसघशीत फाती माथ्याक माळून धालांक वचपी बायलां वरी दिसपी शंकराचीं झाडां. केंसाचे विणयेचेर फुलांचो वळेसर सोडून अचळय बागेंत भोवपी कवी मनाचे नवयौवनेवरी दिसपी तीं कांय हळदुव्या फुलांचीं रूखां फकत दोळ्यांनीच तोखेवचीं. तीं तोडपाक हात घालचो न्हय.

पूण ह्या पार्कांत चलपाच्या नांवान येवपी खूबशे दादले आनी बायलो चलतना दोनूय वटानी आपले दोळे भिरभिरायतात आनी एखाद्र्या फुलाचो कळो दिसलो काय तो तोडून आपले मुठींत धरतना आमचें दोगांयचें काळीज चर्रर जाता.

एके अस्तुरेन एक फूल तोडून तें आपल्या माथ्यांत खोयलें जाल्यार तिचें फूल पिशें, तिची रसिकताय समजू येता. पूण तांका त्यो कळयो माळपाच्यो नासतात. त्यो देवाक घालूंक घरा व्हरपाच्यो आसतात. देखून त्यो



शंकराचार्य मंदिरांतल्यान म्हणचे परस ते पर्वतीवयल्यान सरभोंवतणचो वाठार पळोवन कामिनी आनी हांव उंचबळीत जाल्लीं. तो भव्यतायेचो असर आमचेर जाल्लो आनी तेच धुंदींत कशीं आमी पर्वतीवेल्यान सकयल आयिल्लीं.

तसो वेळ व्हडलोसो जावंक नाशिल्लो. आझाद आनी मन्सूरान म्हळें वेळ आसा तशी एक बाग पळोवया. म्हळें या, पळोवया. ना तरी आमचेकडेन वेगळो कार्यक्रम नाशिल्लोच. रातचीं णव, धा मेरेन भायर भोवून मागीर येवन बिवन एकदम हॉटेलार वचप अशेंच आमी थारायल्लें.

ज्या हॉटेलांत आमी रावतालीं तें हॉटेल आमकां तितलेंशें आवडूंक नाशिल्लें. एकदां हॉटेलार गेलीं म्हणटकच मागीर थंयच्यान परतून भायर सरप म्हळ्यार कंटाळोच आशिल्लो. जॉनसाबाल्या घरा कडची परिस्थिती अजून निवळूंक नाशिल्ली. देखून ताच्या घराय वचपाचो प्रस्न नाशिल्लो. तांतले तातूंत खोशयेची गजाल म्हळ्यार सद्या आमी ज्या हॉटेलांत रावतालीं तें हॉटेल सोडून दल सरोवराचे कुशीक आशिल्ल्या हॉटेलांत आमकां हालोवंचें अशें जॉनसाबान आमचे दिमतीक दिल्ल्या ह्या भालदार – चोपदारांक कळयल्लें. कितेंय वायट परिस्थिती उप्रासली जाल्यार आमकां त्रास जावचो न्हय, आमी हॉटेलांतूच अडकून उरचीं न्हय हे खातीर ही तजवीज आशिल्ली. कश्मीर बंदचो उलो दिलो तरी दल सरोवराच्या सरभोंवतणच्या वाठाराक सूट आशिल्ली. तेंच तर तांचें पोट आशिल्लें न्हय. म्हणटकच सद्या आमी रावतालीं त्या हॉटेलांतली ही निमणी रात म्हूण कळटकच आमकांय उमेद आयिल्ली. जंय आमकां नवी सुवात पळयल्ली त्या हॉटेलाच्या सकयलूच जॉन साबाच्या भाच्यांचें दुकान आशिल्लें आनी कुकीची तांचेकडेन बरीच संवकळ जाल्ली. ताचेच पिरायेचे ते भुरगे जाल्ल्यान तांचे वांगडा ताचें जमतालें. शिवाय तांचे वांगडा कुकी आशिल्ल्यान आमकांय हुसको नाशिल्लो. हीय एक खोसयेची गजाल आमकां फुलांची बाग पळोवंक वतना मन प्रफुल्लीत करूंक पूरक थारिल्ली.

आझादान खंयची बाग पयली दुसरे कोणेय व्हरचे आदीं आपूण व्हरतलीं म्हूण ह्या पार्कांत येवप्यांची सर्तूच लागता.

बायलांचें एकवेळ समजूं येता. पूण हांगा कांय दादलेय येतात ते चलपाचें निमित्त करून फुलां चोरूंकूच येतात. चलून चलून तांचो तो घामेल्लो देह, घामान भरिल्लो शर्ट वो पॅन्ट नक्कीच तांच्या त्या कपड्यांक घाण मारता आसुये. तर हे दादले हांगा थंय नदर मारून, आपल्याक कोण पळयना अशें येवजून फुलां तोडटात आनी घामान भरिल्ल्या शर्टाच्या बोल्सांत चोंदतात. तें पळोवन जीव सामको घुस्मट्टा. ह्या लोकांक देव कसो पावतलो काय? अशें शें दिसता. ह्या लोकांचें हें फूलपिशें म्हणपाचें? फुलां पळयल्या बराबर तीं तोडपाक जांचो हात वता तें फुलाविशींचें प्रेम आसुंकूच शकना. म्हाका ती विकृती दिसता.

म्हाका कामिनीक फुलां भेटोवप आवडटा. आपले मैत्रिणीक फुलांची भेट दिवप हाचे इतलो व्हड रोमॅन्टीसिजम आसत काय ना खबर ना. पूण बागेंतलें फूल काडून हांव ताका केन्नाच भेटोवचोना. कामिनीचो तो अपमान. कामिनी जशें प्रसन्न फुलता तशें तीं फुलांय फुलतात. हांव कामिनीक जायां पुडे हाडटां. वाटेर वोवळां पोड दिसल्यार मुजरत गाडी थारावन तो घेतां. हातो घेतां. हीं फुलां भेटयलीं काय कामिनीय त्या फुलांवरी फुलून वता. मागीर म्हाका सोदचो पडटा, हो दरवळटा तो वास कामिनीचो काय ताका भेट म्हूण हाडिल्ल्या फुलांचो काय म्हण. फुलांचें पिशें आसचें तें असलें. न्हय कोणेतरी वसयल्ल्या बागेंतलें चोरून व्हरपाचें.

पळोवंक या असो जेन्ना प्रस्न केलो तेन्ना हांव ताचेकडेन पळयत रावलों. आजाद आमचो गायड न्हय. गायड आमकां जाय तें दाखयना. आपल्याक जाय तें दाखयता आनी ताका जाय तेंच पर्यटक पळयतात. पूण आमी तिगांय पर्यटक नाशिल्लीं. आमी तागेलीं सोयरीं आशिल्लीं. आपलें कश्मीर पळोवंक ताणी आमकां हाडिल्लीं. कितें पळोवंचें कितें ना हें आमी थारावपाचें आशिल्लें.

कुकीचें विश्व वेगळें आशिल्लें. ताच्या विश्वाक आमी धक्को लावंक नाशिल्लो. ताका जाय तें पळोवंदी अशें कामिनीन आनी हांवें थारायल्लें. पूण कुकी इतलो समजुतदार भुरगो की काकाक कितें पळोवंक जाय हाका तो प्राधान्य दितालो. काका हो एक लेखक, ताका व्हडले व्हडले लोक मेळूंक येतात, आपूण शाळेंत जें शिकतां तातूंत जे लेसन आसात ते बरोवपी लेखक काकाक मेळूंक येतात बी हें तो जाणां. ताणें पांच स वर्सा हाचो अणभव घेतिल्लो. आमी कुकीक जपतालीं. खंयच पिरंगण ना, अट्टाहास ना. कश्मीरच्या लटाफटीच्या देंगणांत आमचो हो समजूतदारपणा आमकांच भावतालो. तो जर हेरांक कळिल्लो आनी ताणीं जर तो आपणायल्लो जाल्यार कश्मीर हें आयचें कश्मीर उरपाचें नाशिल्लें. जहांगिरान कश्मीराक धर्तरेवयलो सर्ग म्हळा तो सार्थ जावपाचो.

मन्सूरान शंकराचार्याचो चेक पोस्ट वलांडल्या उप्रांत गाडी आपल्या ताब्यांत घेतली. म्हाकाय मुक्तपणान सगळें पळोवंक जायच आशिल्लें. तो आमकां खंय व्हरता तें व्हरूं म्हूण आमी सगळो कार्यक्रम ताचेरूच सोडून दिलो.

कश्मीरांत पळोवपासारकीं कितलींशींच उद्यानां आसात म्हूण आयकल्लें. पूण चड नामना पाविल्लीं तीन उद्यानां श्रीनगराकूच आसात आनी आपूण कश्मीराक वचून आयलों म्हूण सांगत फकत श्रीनगरांत दोन दीस रावून येवपी आनी श्रीनगरांतल्या ह्या तीन उद्यानाची धांवती भेट घेवपी पर्यटकूच हे धर्तरेर चड आसूंक जाय. तांच्या तोंडांतल्यान तोखणाय भायर येता ती चष्मेशाही, निशात बाग आनी शालिमार ह्याच उद्यानांची. पूण कश्मीरची सुंदराय इतलीच?

जहांगीरान कश्मीराक धर्तरेवेलो स्वर्ग म्हळा तो इतलेच खातीर?

मन्सूर आमकां चष्मेशाही बागेत व्हरतालो. गाडी दल सरोवराचे देगेवयल्यान धांवताली. म्हजे दोळे धांवते गाडयेंतल्यान सर भोंवतणी भिरभिरताले. कश्मीराची महती हांवें आयकल्ली ती गुलाबांच्या फुलांक लागून. पंडित नेहरून गुलाबाचें फूल आपल्या कोटाच्या बटन होलाक लावन तर कश्मीर म्हळ्यारूच गुलाब अशें समिकरण करून उडयलें. आयज कश्मीर म्हणटकच दोळ्यांमुखार उबे रावतात ते फकत कश्मीरचे गुलाब. गुलाब म्हळ्यार कश्मीरचें वळखचिन्ह. कवी थॉमस मूर तेच पासत म्हणटा –

Who has not heard of the vale of Kashmir with its roses the brightest that earth ever gave.

मन्सूरान चष्मेशाही आयिल्ल्याची घोशणा केली. श्रीनगर सावन चष्मेशाही स-सात किलोमिटरांच्या अंतराचेर आशिल्लें. गाडी रावल्या बराबर आझाद पुटूक करून देंवलो आनी रस्तो वलांडून पलतडी गेलो. चलतां चलतां ताणें बोल्सांत हात घालो म्हणटकच चष्मेशाहीत वचपाक तिकेटी आसूंक जाय म्हणपाचो हांवें अदमास काडलो. आयिल्लो गेल्लो चष्मेशाहीची तोखणाय करता, कश्मीराक गेल्यार शष्मेशाही पळोवंक जायच आं अशें जेन्ना सांगतात तेन्ना तें उद्यान पळोवपाखातीर प्रवेशशुल्क आसप हें आपसूक आयलेंच. खंयच्याय रासवळ पर्यटन थळाचें ताका लागून संगोपन जावपाक पावता. नातर फुकट गजालींक आवय-बापूय कोणूच उरना मागीर. ते बरे सुवातेचें जावन वता घट्टण.

तिकेटी काडल्या उप्रांत १०-१५ पायऱ्यांची दगडी इस्काद चडून आमी चष्मेशाहीत प्रवेश केलो. प्रवेशदारांतूच फुलांनी आमकां येवकार दिलो. वेगवेगळ्या प्रकारच्या रंगाच्या, आकाराच्या आनी जातीच्या फुलांनी भरिल्ल्या त्या झोपांनी फुलांचें आर्कूच केल्लें. भितर सरात भितर सरात म्हणत तीं फुलां सामकीं आंगार घालून घेतालीं. कुकी आझादा वांगडा मुखार गेल्लो. मन्सूर तर वयर येवंकूच नाशिल्लो. आर्कांत फक्त कामिनी आनी हांव. दोगांय फुलपिशीं, रंगपिशीं. तीं फुलां पळोवनच कामिनी सामकें भुल्लूसून गेल्लें. तातूंत त्या फुलांच्या गंधाचो मंद दरवळ. आगो धीर धर हें कांयच न्हय मुखार जायतें कितें पळोवपाचें आसा अशें हांवें न्हय त्या फुलानीच ताका म्हणलें अशें शें म्हाका दिसलें. फाटल्यान गर्दी करपी, धुकलपी पर्यटकांक लागून त्या आर्काकडे चडवेळ रावप शक्य जालेंना. लोकानीच आमकां धुकलून भितर हाडून उडयले.

म्हाका ह्या असल्या लोकांचो तिटकारोच येता. तसो तिटकारो बी म्हणूं नज, पूण हे असले पर्यटक दुसऱ्यांचे मेकळीकेक व्हडलेंशें म्हत्व दिनात. आपणें खंय तरी वचून कितें तरी पळयलां हाचें समादान मेळोवपा खातीर असले हे उडटे पर्यटक खंयच्या तरी टूर्स आनी ट्रॅवलर्स मार्फत टुराक येतात. तांचें पयलें लक्ष आसता कोण सवाय भितर व्हरून हाडटा. आरंभाकूच अशे काटकसरीचे विचार तकलेंत आयले म्हणटकच मागीर पुराय टूर काटकसरीच्या विचारानीच सरता. तातूंत दुडवां वांगडा वेळेचीय काटकसर येवन मेळटा आनी मागीर पर्यटनाचो मूळ उद्देश्य हे काटकसरींतूच सोंपून वता. खंय गेल्लो खंय ना, कितें हाडलें कांय ना अशी गत जावन वता.

आतांय ह्या चष्मेशाही उद्यानात पर्यटकांची गर्दी आशिल्ली. कोण कश्मीरी भेसवण करून आपले फोटो काडून घेताले. आमच्याय फाटल्यान तो भेस घेवन कांय लोक लागले. कश्मीरी भेस हो कश्मीरी. तो कश्मीऱ्यांकूच सोबाय हाडटा. तो आमच्या



सारख्यानी घालो म्हूण ती कश्मीरी निजाची सुंदराय आमचे भितर थोडीच येतली? पूण कश्मीरची याद म्हूण जण एकलो तो भेस आंगार चडोवन फोटवाक पोज दितालो.

भारतांतल्या खंयच्याय रासवळ उद्यानांत, बागेंत जशें वातावरण आसता तेंच वातावरण हांगा आशिल्लें. भुरग्यांचें किळच्यो मारीत धांवप, एका चोम्यान खंय तरी फतकल मारून बसून फराळ करप, हिरवळीचेर न्हिदप. तांकां उद्यान म्हळयार आराम करप, खंयच्यातरी रूखाचे सावळेक बसून लकण काडप इतलेंच.

मोगल साम्राज्याची उद्यानाविशींची एक संस्कृताय आसा. जंय जंय मोगल साम्राज्यांनी मूळ धरलें थंय थंय तांणीं उद्यानांचो विकास केलोच. सगळ्या उद्यानाचेर एक मोगल संस्कृतायेचो छाप सोडलो. इस्काद चडून आमी चष्मेशाही उद्यानांत पावल दवरलें आनी आपसूक तोंडांतल्यान वाव! असो उद्गार भायर सरलो. कितली विशाल आनी सौंदर्याची नदर आशिल्ली ह्या मोगल सम्राटांकडेन. व्यक्तीगत जीवन कितलें सुंदर करून जियेवप हें फक्त मोगलांकडल्यानूच शिकचें.

चष्मेशाही म्हळ्यार रॉयल स्प्रींग. शाही झरो. फाटल्यान दोंगराची फांटभूंय. ह्या दोंगरा वेल्यान झर व्हांवत येता. हें झऱ्याचें उदक पाटांतल्यान वेगवेगळ्या स्तरावेल्यान सकयल व्हांवत वचून मागीर तें दल सरोवराक मेळटा. ह्या झऱ्याचो वापर करून पाट तयार करप, त्या पाटांत कारंजे निर्माण करप, तांतूंत प्रकाश येवजण सोडप अशें करून ह्या उदकाचो वापर हांगा कल्पकतेन केल्लो दिसतालो.

खंयच्याय उद्यानांत रूखांची आकर्शक मांडणी करतात तशी हांगाय आशिल्ली. वेगवेगळ्या तरांचीं फुलां, गुलाबाच्यो वेगवेगळ्यो जाती हांगा मनाक भुरळ घालताल्यो. मोगल सरदार अली मर्दन खान हाणें १६३२ वर्सा मोगल सम्राट शहाजहानचे सुचोवणेवेल्यान हें उद्यान तयार केलें अशें म्हणटात. ह्या उद्यानांतले आकर्शक फवारे सोडपी कारंजे मात शहाजहानाचो पूत दारा सिकोह हाणें करून घेतले.

चष्मेशाही उपरांत निशात बागूय पळोवंया म्हळें. आमकां सांज शालीमार बागेंत सारपाची आशिल्ली. आयज सगळीं उद्यानां पळोवन काडलीं जाल्यार फाल्यां आमच्यानी दुसरो कार्यक्रम आखूं येतालो. चष्मेशाही उद्याना पासून तिनेक कि. मी. अंतराचेर निशात उद्यान आसा. निशात बाग म्हळ्यार सुखा समादानाची बाग. खोसयेची बाग. पिरपंजाल दोंगरावळेरींतल्यान देंवून येवपी सैमिक उदकाचो वापर करून नूरजहाँचो भाव आसफखान हाणें १६३३ सालांत हें सुंदर उद्यान वसयलें. तेंय बी आपली भयण नूरजहाँचे इत्सेखातीर.

जहांगीर बादशाह नूरजहाँखातीर कितलो पिसो आशिल्लो हें जगजाहीर आसाच. तिचे खातीर जहांगीरान कश्मीराक ह्याच दल सरोवराचे रांकेत शालिमार हें स्वर्गीय सुंदर उद्यान तयार करून नूरजहाँक भेट दिलें. पूण जेन्ना जेन्ना 'शालिमार' उद्यानाचो विशय येतालो तेन्ना जहांगीर बादशाह त्या उद्यानाची तोंड भरभरून तुस्त गायतालो. असली ही बाग ह्या पृथ्वीचेर आनीक खंयच ना. हीच एकली एकसुरी. हाची इतली सुंदर बाग आनी तयार जावंकच शकना अशें म्हणटालो. नूरजहाँक हें उद्यान आवडिल्लेंच. पूण बादशाहाचें हें सदचेंच उलोवप तिका आवडनाशिल्लें. तिणें थारायलें 'शालिमार' परसूय सरस अशें उद्यान आपूण तयार करून दाखयतलें. नूरजहाँ भितर सौंदर्याची नदर आशिल्ली आनी उफाट कल्पकताय आशिल्ली. ताचो वापर करून नूरजहाँन आपल्या भावाकडल्यान हें उद्यान तयार करून घेतलें आनी तें पळोवन जहांगीर बादशाहाक शेवटाक मान्य करचेंच पडलें, हय शालिमार परस हें निशात उद्यान सरस आसा, सुंदर आसा.

जहांगीर आनी नूरजहाँ हांची प्रेम काणी म्हळ्यार मोगल इतिहासांतली एक भावूक संवेदनशील घडणूक. नूरजहाँचें सौंदर्य म्हळ्यार मोगल साम्राज्यांतली जिती जागती आख्यायिका. कश्मीरची सैमीक सुंदराय, थंयचें तें सर्गीय वातावरण, नूरजहाँचें सौदर्य आनी जहांगीर सम्राटाची निजाची रसिकताय. ह्या सगळ्यांचें रसायन म्हळ्यार शालिमार उद्यान. ह्या शालिमारांतल्यान धांवती पासय मारप हें खंयच्याच खऱ्या, रसिक प्रेमिकाक पुटवंचेना. रसिकताय आनी प्रेमाची अनुभूती हातूंत जहांगीर सरस आसत पूण ती रसिकताय होलमून घेवपाची थोडी तरी जाण म्हज्याय काळजांत खंयतरी वसताली. जाता तितलो वेळ म्हाका ह्या 'शालिमार' उद्यानांत सारपाचो आशिल्लो.

चलता ....

# श्रीकृष्णाची शिष्टाई जेन्ना निर्फळ जाता

महाभारतांत कुरूक्षेत्रार जें युध्द जालें तातुंतल्यान कितें निश्पन्न जालें? ह्या युध्दांत कोणाक जैत मेळ्ळें! कोण सुखी जाले?

फार्टी हांव धा-बारा दीस कुरूक्षेत्र विद्यापिठांत आशिल्लों. एक काळार हें कुरूक्षेत्र महाभारतांतल्या युध्दा खातीर गाजलें. आयज ह्याच वाठारांत कुरूक्षेत्र विद्यापीठ आसा. हांव जेन्ना त्या विद्यापिठांत आशिल्लों तेन्ना सुरेश ऑबेरॉय हाचो चलो विवेक ऑबेरॉय थंय शिकतालो जो आयज हिन्दी चित्रपटांत नायक म्हूण वावुरता. म्हणटकच ह्या विद्यापिठाक तशी नामना आसा म्हणूंक जाय.

कुरूक्षेत्राक आसतना हांव तो वाठार संद मेळटा तेन्ना भोंवतालों. महाभारतांतल्या युध्दाच्यो खुणो आयजूय थंय स्मारकाच्या रूपान अस्तित्वात आसात. तें सगळें पळयतना म्हजे तकलेंत एकूच प्रस्न येतालो तो म्हळ्यार ह्या युध्दान कोणाचें बरें केलें? हें युध्द टाळूं येना आशिल्लें?

हें युध्द जावंचें न्हय म्हूण खूब जाणांनी यत्न केल्यात आसूं येता. सगळ्यांत चड यत्न केल्यात श्रीकृष्णान. ह्या युध्दाक लागून कोणाचेंच बरें जावंचें ना. हातुंतलो एक पंगड जरी जिखलो अशें वयलेतराक दिसलो तरी त्या जिखपांतूय हार आसतली हाची फक्त कल्पनाच न्हय तर



जाणविकाय श्रीकृष्णाक आशिल्ली. तेच पासत हें युध्द जावंक फावना, जावंक दिवंचोना म्हूण श्रीकृष्णान कितलेच प्रयत्न केले. ते करतना कौरवां मुखार ताका अपमानीत जावंचो पडलो. ताका कौरवांतल्या पंगडांतल्या बऱ्या बऱ्या लोकांनी अपमानीत केला. तो सांगूंक सोदता तें कोणेंच सारकें आयकून घेतलेंना. शेवटाक निरूपाय म्हूण श्रीकृष्णाक तो नाद सोडून दिवंचो पडलो. युध्दाबगर दुसरो पर्याय ना, ती काळाची गरज, तें जावन गेल्या उप्रांतूच ताच्या दुष्परीणामाचो बोध जातलो हें कृष्णाक कळ्ळें आनी ताणेंय ह्या युध्दाक मनाआड जायना मान्यताय दिली. अठरा दीस हें युध्द चल्लें. ह्या अठरा दिसांत जें कितें जालें तें हांगा पर्थून सांगपाची गरज ना. ह्या युध्दांत जितलें रक्त धतरिन आपले भितर जिरयलें तितलींच आवयांचीं, आप्तेश्टांचीं दुकांय जिरयलीं. ह्या युध्दांत कौरवूच सोंपले नांत, तांका जितल्या राजानी तेंको दिलो तेय सोंपले. ह्या युध्दांत पांडव जिखले. पूण खऱ्यानीच तें जैत आशिल्लें? पांडवांच्या वटेन जितलीं राज्यां आशिल्लीं तांचें जैत खंय जालें? तांच्या सैनिकांच्या दरेक घरांत रांडपण आयलें. कितल्याच आवयांचो एकलो एकसुरो भुरगो ह्या युध्दांत गेलो. मागीर जैत खंयचें? कोण जिकलो?

महाभारतांतल्यो दरेक घडणुको देख दिवपा सारक्यो. समाजान ह्या घडणुकांकडेन चतरायेन पळयलें आनी तातुंतल्यान देख घेवन आपली जीवनपध्दत, आपली विचारसरणी बदल्ली तर आमचें जीवन हें खऱ्यानीच सुखी जावं येतालें. एक बरो समाज निर्माण जावं येतालो. पूण येदें व्हडलें महाभारत घडून लेगीत आमी 'महाभारत घडलें' म्हणटात आनी ताचे पासून कुस्कुटाचीय देख घेनांत.

महाभारतांतलें युध्द हें ह्या संपूर्ण काव्यांतलो क्लायमेक्स. हें युध्द जालें जाल्यार कितें जातलें हाची कल्पना कृष्णासारख्या एका द्रष्ट्या मनशान दोनूय पंगडांक दिल्ली. तें जावंचें न्हय म्हूण सगळे परीन शिश्टाई केल्ली आनी उप्रांत जें कितें घडलें तें पळोवंक, ताचो अणभव घेवंक कोणूच उरूंक

नाशिल्लो आनी जे उरिल्ले ते विचार करपाच्या भायर पाविल्ले. पूण हें सगळें आमचे मुखार आसा. ताचेर बारीकसाणेन विचार करून आमी आमची जीण, विचारसरणी सुदारूं येताली. पूण ना. आमी महाभारतांतले दरेक वायट घडणुकेच्या भकीक पडटात आनी मागीर वाट्याक येतात तीं अपयशां, दुख्खां. ह्या सगळ्या गजालींक जापसालदार आशिल्लीं कारणां पयस करपाखातीर बऱ्याच प्रसंगार शिश्टाई घडोवन हाडपाचे यत्न जातात. पूण ही शिश्टाई निर्फळ जावन वता आनी मागीर घडटा तें कुरूक्षेत्र. ह्या कुरुक्षेत्राचे भकीक पडिल्लो खंयचोच पंगड मागीर सुखाक पावना. मागीर उरता तें लाचार जीवन, कुथनेत कुथनेत, रखरडत रखडत, जखमी गांयडोळा सारकें वळवळत मुखार सरपी. दोनूय पंगडाच्या तोंडार देमादिस्ताचें जैत दिसलें तरी मानसिक संतुलन जाग्यार ना म्हणपाचें बारकायेन पळयतल्याक कळटा.

महाभारतांतल्या कुरूक्षेत्रावयलें युध्द आसूं वा व्यक्तीगत घरांतल्यो समस्या आसूं. एक अफाट, प्रचंड तर दुसरें चार वण्टीं भितरलें. पूण दोनांचेय अंतीम परिणाम एकूच. जिवनाचो विध्वंस.

हालींच म्हज्याय वांट्याक शिश्टाई करपाचो एक प्रसंग आयलो.

म्हजोच एक कवी मित्र कारण नासतना ह्या असल्याच एका चक्रात सापडलो. हांव स्वता कवी आशिल्ल्यान म्हाका कवीच्यो भावना कळटात. कवीची जीवनपध्दत आनी विचारसरणी



भावता. कवी जितलो सृजनशील आसता तितलोच संवेदनशील आसता. जर त्या कवीच्यो कविता काव्य रसिकांची काळजां जिखपी आसल्यो जाल्यार त्या कवी फाटल्यान ताच्या चाहत्यांची रांक लागता. चड करून चलयो बायलांचो तांचेकडेन खाशेलो ओडो आसता. बायल ही कवीची स्फुर्ती देवता आशिल्ल्यान कवीचीय हे स्फुर्तीदिवतेविशीं एक भावूक ओड आसता. थंय शरिराची भूक नासता. आसता ती एक आत्मियता.

ह्या म्हज्या कवी मित्राच्या बाबतींत असोच प्रकार घडलो. ताचे बायलेक आपल्या घोवाचो दुबाव आयलो. दुबावाचें, संशयाचें भूत तिचे मानेर बसलें. मागीर ती पारंपारीक झगडीं आनी बायलेन घर सोडून वचप बी सगळें घडलें.

हो कवी मित्र न्हिन्नळ्ळो. आपली बाजू मांडून आपलें निष्पापपण ताचेकडेन सिध्द करप जालें ना. सिध्द कितें कपल करतलो? जंय मुळांतूच कांय ना थंय आपली बाजू मांडपाचो, आपूण दोशी ना हें सिध्द करपाचो प्रश्नूच येना. ताणें जें कितें आपलें मत मांडून सफाई दिवपाचो यत्न केलो तिका ताच्या बायलेच्या हिसपान काडयेचो व्हालोर नाशिल्लो. हें प्रकरण मोठ्यार पडचें न्हय आनी घडूंक नाशिल्ले चुकीचें पानवळ दोगांकूय भोगचें पडूंक फावना म्हूण हांवें मध्यस्ती करपाचो थोडो यत्नूय केलो. पूण कवी पत्नीच्या मानेर जें दुबावाचें भूत बशिल्लें तें इतलें खर आशिल्लें की म्हजें आयकून घेवपाचे मनस्थितींत ती नाशिल्लीच. शेवटाक म्हजीय शिश्टाई निर्फळ थरली. प्रकरण घटस्फोटामेरेन पावलें. आज हो कवी विमनस्क जावन भोवता. करूंक नाशिल्ले चुकीची ख्यास्त भोगता. आनी ताची बायल तरी सुखान आसा अशें तरी खंय म्हणूं येता? ती कांयच आयकून घेवपाचे मनस्थितींत ना हाचेवेल्यान तिचेंय फुडलें जिवीत सुखान सरतलेंच अशें सांगू येना.

आयज ह्यो असल्यो घडणुको ह्या कवी मित्रा पुरत्योच मर्यादीत ना. प्रत्येक घराचें रूपांतर आयज कुरूक्षेत्रांत जावंक लागलां. सुखी कुटुंबाचें कुरूक्षेत्र जावंचें न्हय म्हूण आमचे सारके कोण शिष्टाई करपाचो यत्न करतात तांचेय यत्न निर्फळ जावन वता. श्रीकृष्णाची शिश्टाई निर्फळ जाली. ती काळाची गरज आशिल्ली. जगा मुखार दाखलो उरपा खातीर. मागीर हीय शिश्टाई काळाची गरज? जाप मेळपा सारको प्रश्न न्हय हो!

•••



**– दिलीप बोरकार**
आगशी – गोंय

